# जिवीत म्हळ्यार सपन



(कालदेरोन दे ला बार्का)

पुस्तकाचे फाटले वटेन एक शिल्पाकृती दिल्या. शिल्पांत तीन जोतिशी बुद्धभगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुद्धोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोवपी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखनकलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

नागार्जुनकोंडा, दुसरो शेंकडो, इसवी.

नॅशनल म्युझियम, नवी दिल्ली हांचे बरेपणान.

# जिवीत म्हळ्यार सपन

बरोवपी
**कालदेरोन दे ला बार्का**

अणकारपी
**ओलिविन्यु गोमिश्**



साहित्य अकादेमी

Jivit Mhollear Sopon (जिवीत म्हळ्यार सपन):
Konkani Translation by Olivinho Gomes of
Calderon De La Barca's Spanish Play 'La Vida Es Sueno'
Sahitya Akademi, New Delhi (1993), Rs. 90

© Sahitya Akademi
First edition: 1993

**Published by:**
Sahitya Akademi

**Head Office:**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department:**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices:**
172, M.M.G.S. Marg, Dadar (East), Bombay 400 014
Jeevan Tara, 23A/44x Diamond Harbour Road, Calcutta 700 053
Guna, 304-305, Anna Salai, Teynampet, Madras 600 018
ADA Rangamandira, 109, J.C.Road, Bangalore 560 002

ISBN 81-7201-516-X

**Printed by:**
Tanvi Graphics
A/9, Vaishakh Apartments,
Madel, Margao-Goa 403 601

मोल: 90 रुपया

# दोन उतरां

**दोन पेद्रु कालदेरोन दे ला बार्का,** स्पेनाच्या माद्रिद शारांत, १६०० वर्साच्या जानेराचे १७वेर जल्मलो. ताचो बापूय दोन दियेगु कालदेरोन सरकारी दुडवां-खात्याचो चिटनीस आशिल्लो आनी आवय, दोना आना मारीय द हेनाव. रोखडेंच राजदरबारा वांगडा ताचें कुटुंब वाल्लदोलिद शाराक, राजा फिलिप तिसरो, हांच्या सांगाता, बिराड करूंक वेता. उपरांत तांचेच बरोबर ताचें कुटुंब १६०७-आंत माद्रिदाक परतता. १६१०-आंत ताची आवय भायर पडटा आनी बापूय दुसरे फावटीं दोना युआना फ्रेयलि कालदेरा लागीं लग्न जाता, आनी १६१५-आंत तो भायर पडटा.

पेद्रु कालदेरोन जेझुयीत पाद्रीं साळेंत आपलें पयलें वयलें शिकप करता, जंय ताच्या सबावाचेर चड प्रभाव पडटा. उपरांत, आलकाला द हेनारिस विद्यापीठांत वाक्शास्त्र आनी तर्कशास्त्र शिकतना, तांच्या जिवितांत कांय गैर-वेव्हाराचे प्रसंग घडून येतात, जाचे वरवीं आमकां दिसून येता कि ताका कायद्याचें आनी नीतिक गजालींचें व्हडलेंशें पडूंक नाशिल्लें. देखीक, ताका अिगरजे-भायरो केल्लो आनी बंदखणींत घाल्लो. कित्याक काय म्हळ्यार अेका घरांत बिराडाक आशिल्लो थंय आपलें भाडें फारीग केलें ना म्हणून; आपल्या कांय भावां सांगातान धरून तो साबार केस्तांवां-किजिलांनी घुस्पल्लो: काश्तील्याच्या सरदाराच्या वावराड्याच्या पुताक मारून उडयल्लो आनी, पवित्र जाग्याक मान दिनासतना, तो माद्रिच्या एका कोंवेंतांत रिगिल्लो. आपलो बापूय भायर पडल्या उपरांत सवती-आवयकडेन ताका आनी ताच्या भावांक भाटां-बेंसांच्या सारक्या वांटपाक लागून न्यायसभेंत खूब झगडचें पडलें. तांतल्या जंवजाळांतल्यान तांकां चडशें मेळ्ळें ना, आनी त्या देमांदांनी पडून तांचे आड निकाल लागिल्ल्यान, तांकां कितलींशीं कुसतां आनी मुलतां फारीग करचीं पडिल्ल्यान नाका-शिंको जाल्ल्यो. निमाणेकडेन १६२६ वरस येता म्हळ्यार तांकां बापायगेली सगली धन-गिरेस्तकाय उण्या मोलाक विकून उडोवन रीणां फेडचीं पडलीं.

ह्याच घडामोडींनी बुचकळटा आसतना, नाटकां बरोवपाचें तांचें काम सुरू जाता. राजवाड्याचे सावळेंत रावतनाच तो आपलो पयलो वयलो साअित्यीक प्रयोग करता आनी तांतूंत येस जोडटा. त्याच काळार तो फौजींत भितर सरता आनी पाद्री जावपाची आपली मोख सोडून दिता. अितालयाक आनी फ्लांदेस वाठरांत तो झुजता. तसोच हेरां झुजांनी वांटो घेता. तो १६३७-आंत सांतयागु धर्मसंघी पळटणींत भितर सरता आनी फुयेनतेर्राबियाक घाल्ल्या वेडयांत सक्रीय भाग घेता. तसोच कातालूनाच्या झुजांत झुजता. मागीर १६४२ वर्सा फौजींतल्यान राजीनामो दिवन भायर सरता. ताच्या मेल्ल्या भावाच्या झुजांतल्या शूर वावराक लागून ताका म्हयन्याक तीस अिश्कुदांचें पेंसांव फावो जाता.

त्या भावाच्या मर्णा उपरांत, आनी देसांत चलतल्या निर्शेणीच्या वातावरणांत, आपणें थापिल्ल्या कपेलाची जापसालदारकी तो आपल्या आंगार घेता, आपणाल्या कुटुंबांतल्यान ती आपल्या फाटल्यान घेवची म्हणून. पूण त्याच वर्सा (१६५१) जेन्ना तो, संवसारी जीणेचेर उबगून पाद्री म्हणून दीक्षा घेता, तेन्ना पेद्रु-होजे नांवांचो ताचो पोटाचो पूत मरता. तेन्नाच्यान कालदेरोन लोकाखातीर नाटकां बरोवपाचें

बंद करता आनी फकत आपल्या धर्मसंघाखातीर 'auto sacramentale' (संस्कारीक नाटकां) असले रीतिचीं नाटकां आनी राजदरबाराखातीर पुराण-कथांचेर आदारिल्ल्यो हास्यांतिका बरयता.

दुडवांच्या अडचण्यांनी ताची केन्नाच मरसर फाट सोडली ना. ताची आवतिकाय अितली दुबळी जाल्ली कि आपल्याक कितेंय उदारपसणा खातीर दिवचें म्हणून राजाकडेन ताका मागणी करची पडली, जी राजान मान्य केली. ताका चित्रां काडपाची रुची आसली आनी आपले फाटीं ताणें जायतीं चित्र-पायनेलां दवरल्यांत म्हणपाचें ताच्या मरणपत्रांतल्यान दिसून येता.

तो १६८१ वर्सा भायर पडलो. तेन्ना ताचे भोंवतणी मान-भोवमान उफेतालो आनी ताच्या नाटकांच्या वावराक मान-मान्यस्तना फावो जाल्ली. आपल्या पिकाळ, निमाण्या वर्सांनी ताणें भोवच विचखेणाय आनी काटकसर दाखयल्ली. कोण म्हणटात की तो निमाण्या वर्सांनी तसो जावंक पावलो कित्याक आपल्या तरणेपणांत केल्लीं तवनासपणां ताका भरून काडचीं आशिल्लीं. दुसरे म्हणटात कि ताका आपल्या निमाण्या वर्सांनी मौन पाळचें आनी वैराग्यांत जियेंवचें अशी खर तिखतिकीत अित्सा जाल्ली.

कालदेरोनाचो जिवीत-काळ, योगा-योगान म्हणूंक जाय, म्हळ्यार येवरोपांत तेन्ना फुलून आयिल्ल्या बार्रोक नांवान वळखतल्या कले-क्षेत्रांतल्या, चड करून शिल्पकलेंतल्या, भोव अलंकारीक आनी फुलारी चळवळीच्या भोव झगझगीत खिणाचो जावन गेलो. आनी हेच बार्रोक चळवळींतलो बऱ्यांतलो बरो नमुनो म्हणून तांच्या नाटकाक लेखतात आनी तसो ताका मान-भोवमान फावो करतात.

त्या काळार स्पेन देस नव्या राज्याची बुन्याद घट करतालो. कांय भायल्यां आनी भितल्ल्यां झुजां-झगड्यां उपरांत, जांकां लागून त्या देसाची अंतरराष्ट्रीक मळावेली कीर्त आनी प्रतिश्टाय सकला देंविल्ली, सगलेकडेन निर्शेणीचें वागरें पातळिल्लें. आनी भौन भौन बंडां आनी उठाव जावन येतालें. हे अराजकतायेंत सामान्य मनीस, भोवशीक मळार दुखाच्या चपक्यांत फापसल्ल्यान, आपल्या खासगी जिवितांत तरी आपल्याक अिल्लें जणीक सुख मेळचें म्हणून आंवडेतालो.

तांची आस्त भागोवपाचे असले विशय आनी आशय घेवन, साबार नाटककार फुडें सरताले आनी ह्या जिवितांत, खरें कितें आनी सपन कितें, हाचेर येवजून, नाटकां बरयताले आनी तीं माचयेर हाडटाले. हे गजालीचो पडसाद आमकां ह्या नाटकांत आयकूंक मेळटा. ह्या नाटकांत आयिल्लो आशय म्हळ्यार मनशाक आपणें कार्य करपाक आशिल्ली मेकळीक जी नशिबान थारायिल्ल्याचेर जैत जोडटा. हातूंत मोग, दरबारी तसो प्लेटोनीक, आनी मान भोवमान, ह्याय विशयां भोंवतणी नाटक भोव हिकमतीन आनी सोबीत रितीन विणून हाडलां.

वोल्फलीन नांवाचो समीक्षक रॅनॅसांस वा पुनरुत्थान आनी बार्रोक, ह्या कले-क्षेत्रांतल्या चळवळीं मदीं अंतर दाखयता तें अशें: पयल्यांत नीट-वळिची, एका पातळिची रचना, धांपिल्लें मर्यादीत रूप, निवळसाण आनी विविधताय, जाल्यार दुसरी, चित्र आनी रंगाकडेन चड वळटा; तिचो द्रश्टांत खोलायेचो भास फावो करता, उगतें रुप, निवळसाण नाशिल्लें गोंदळी आंग आनी तांतुंतल्यान उपजून येतलो एकचार. बार्रोक शैलींत जायत्या जातिंचो आनी रुपांचो मेळ घडोवन येता आनी

तांतले सगले अंश अेकांत विलीन जावन येतात. दुखांतिका आनी हास्यांतिका, हांचो मेळ म्हळ्यार बार्रोक शैलीचो खाशेलो सबावगूण; तसोच कुडीची वासना आनी अध्यात्मीक गजालींचो मेळ, जो ह्या नाटकांत दिश्टी पडटा.

तो निमाणेकडेन ह्या जिविता आनी सपना मदल्या विरोदांतल्यान वयर सरून आंग घेता, होय बार्रोक शैलिचो गूण. नाटकांत दिसतल्या ह्या आविश्कारान, देखाव्यांत काव्य, संगीत, नाच आनी चित्रकला, ह्या सगल्या कलांचो मेळ जाता तो स्पश्ट दिसता.... अेकेवटेन तो अिंद्रियांक भुलयता आनी दुसरे वटेन अध्यात्मीक गरजो भागयता. हे भोंवतणींत देखावो खंय सोंपता आनी खरेलो संवसार खंय वयर सरता, हो फरक स्पश्ट जायन्म, कित्याक देखावे सहजतायेन अेकामेकांत मेळून मिसळून वेतात. ही हालचालीन आशिल्ली प्रतिमा म्हळ्यार चित्रकलेचें जैत म्हणचें पडटलें, जी कला अिंद्रियांक जिखून घेवपाच्या कामांत सामकी गरजेची, कुशीन काडूंक जायनाशिल्ली आनी बार्रोक शैलिच्या नाटकाचो म्हत्वाचो आनी मुखेल भाग. भोवसाक ह्या विविध मेळगराची भोवूच रुच निर्माण जाल्ली आनी तांतल्या मनशांच्या मनाक व्हडली धादोसकाय फाव करताली. देखून ही शैली भोव लोकांमोगाळ जाल्ली.

ह्या काव्य-नाटकाची कीर्त म्हज्या कानार पाविल्ली आनी ताचें अिंग्लेज भाशांतर हांवें वाचून काडिल्लें. जेन्ना मूळ स्पॅनीश भाशेंतलें हे काव्य-नाटक साहित्य अकादेमीचे चिटणीस प्रो. अिंद्रनाथ चौधुरी हांच्या मेजार हांवें पळेलें आनी तें वाचून घेवन म्हाका कशें लागता तें पळे आनी अित्सा आसल्यार तें कोंकणींत हाडचें म्हणपाची जेन्ना तांणी सुचोवणी केली, ती हांवें रोखडी स्विकारली. तें भाशांतर करपाची हांवें म्हजी तयारी दाखयली तेन्ना हें काम म्हज्या माथ्यार सोंपयलें. हें भाशांतर करतना, त्या काळावेल्यो चाली-रिती म्हाका अभ्यासून समजून घेवपाच्यो पडल्यात; कांय उतरांचो त्या काळावेलो आनी दुपेट अर्थ आसा तो सोदचो पडला. हेर भासांतलीं भाशांतरां वाचचीं पडल्यांत आनी अेका अेकरुपी काव्य-फास्केंत तो वावर बसोंवचो पडला. खोशेची गजाल म्हळ्यार ह्या संवसारभर गाजिल्ल्या नाटकाचें खंयचेय भारतीय भाशेंत अणकार जांवक नाशिल्लो आनी देखून तो मान कोंकणीक फाव जाता. हीच म्हाका व्हडली धादोसकाय. हें नाटक माचयेर हाडून येशस्वी प्रयोग केले जाल्यार म्हजें सार्थक जातलें.

**प्रोफेसर ओलिवीन्य गोमिश**
गोंय विद्यापीठ, कोंकणी विभाग,
विभाग प्रमुख

13 माय 1993

# नाटकांतलीं पात्रां :

| | | |
|---|---|---|
| रोज़ावरा | : | अेक बायल |
| सेजिसमुंद | : | राजकुंवर |
| क्लोताल्द | : | जाण्टेलो |
| इश्त्रेला | : | कुंवर |
| क्लारीन | : | विदूशक |
| बाझीलयु | : | महाराजा |
| आस्तोल्फ | : | कुंवर |

सोल्दाद-शिपायक-राखणदार, संगीतकार

# जिवीत म्हळ्यार सपन

## पयलो आंक

(अेका दोंगराचे तेंगशेवयल्यान वाटसूर यात्रीक दादल्याच्या भेसांत रोज़ावरा नांवाची अेक बायल देंवून येता. ती अेका हिपोग्रिफ म्हळ्ळेल्या घोड्यार बसून ह्यो पयल्यो वळी न्हगत येता. अवचीत धोल आनी कोरनेती वाजतात आनी घोडो व्हडल्यान हांबेता, पांय धाडायता आनी मस्ती करता. ती ताका आळाबंदा हाडपाक प्रयत्न करता. पुण तो तिका सकला उडोवन पळून वेता.)

रोज़ावरा : *झपझपीत धांवत्या हिपोग्रिफा,* *
*घोडो धड तूं जाल्यार न्हंयच न्हय,*
*वाऱ्या लागीं स्पर्धा केल्ले भशेन,*
*धांवता उजो नाशिल्ल्या किर्णांनी,*
*सुकण्या सांवळी, नुस्त्या फोवळां विणें,*
*मोनजात सैबीक बुद्ध नासतना,*
*तुजे तुकाच तूं व्हरता ओडीत, पिस्डीत,*
*त्या आळख्या-विळख्या घुस्पागोंदलांतुल्यान,*
*नागड्या उग्त्या खडपां फातरीवेल्यान,*
*थांब रे मात्सो हांगाच दोंगरार ह्या;*
*हांवें आनींक फुडें चलना जांवक*
*बगर जो मार्ग थारायल्लो नशीबा नेमान,*
*दोळे धांपिल्लीं, कुड्डीं निर्शेल्लीं हांव,*
*माथें बागायतलीं जड-जडाविल्लें*
*ह्या उंच उबार गडगंज दोंगराचें रे,*
*जें सुर्या मुखकमळाक घालता मिरयो.*
*पोलंड, घेतासतनांच आपणा गोपांत*
*परदेश्याक, तो येवून बरयता रोखडो*
*रगत माखून आपलो प्रवेस ताज्यांत,*

---

* हिपोग्रिफ: अेक कल्पनीक मोनजात, अर्दो घोडो, अर्दो ग्रीफ. ग्रीफ म्हळ्यार मिस्र जातिचें जनावर, जाचें वयलें धड घोणिचें आनी सकयलें शिंवाचें.

*आनी पावयता दुखाक ताका पावना फुडेंच.*
*खऱ्यानींच म्हज्या नशिबान सांगिल्लें तशें;*
*पुण खंयच्यान मेळत काकुळट निर्भाग्याक ?*

(कृपाळ विदूशक क्लारीन येता)

क्लारीन : *म्हण गो दोगां, विसरुं नाका म्हाकां,*
*जेन्ना तुका गरज, भोगता दुख,*
*आमच्या देसांतुल्यान दोगांय आमीं*
*आयल्यां भायर साहसां करच्या हेतान,*
*दोगांय आमी दुर्भाग्य, पिशेपणान,*
*विपत्तीन हांगा पावून सरल्यांव अशीं.*
*आनी दोगांय जाणां भोंवल्यां दोंगरांवेल्यान,*
*आफुडलां म्हाका तुका भोगलां तें दुख,*
*खंतींत तुजे कित्याक वांटो ना म्हाका ?*

रोज़ावरा : *म्हज्या दुखी-खंती जंवज़ाळांत*
*पडचें म्हळ्यार तुवें नाका म्हाका,*
*क्लारीन, तूं सुटून वच्चो न्हय रे म्हणच्याक*
*रडून करशी तूं जागरण रातभर,*
*बुद्ध घेवपाक तुका तर हक आसाच;*
*अितली रूच आसली तुका खंत*
*काडपाची, अेक तत्वगिन्यानी रे*
*म्हणटालो कि तक्रार करचे भाशेक,*
*असलें अद्दश्ट, दुर्भाग्य सोदपाचें.*

क्लारीन : *तो तत्वगिन्यानी आसलो जांवक जाय*
*अेक बेबदो-सुरांडो खाड्यो; कोणें गा ताचेर*
*फुलोंवचीं न्हय हजारां वयर थापटां !*
*बरींच पडल्या उपरांत तो तक्रार करीत,*
*पुण आमीं गो कितें करतलीं, बाये, हांगा,*
*रावून शेणिल्लीं अेकलीं अेकसुरीं*
*ह्या वेळार कोणूच नाशिल्ल्या ह्या वसाड दोंगरार,*
*जेन्ना सूर्य वेतलो धारे पेल्यान ?*

रोज़ावरा : *कोणें गा पळेलां अितलें विचित्र येस !*
*पणून जर नदरेक भोगना फसवणूक*
*जी स्वैर कल्पना हरशीं दिता हाडून,*
*तो भयांकृत उजवाड जो अजून आसता दिसांत,*
*दिसता म्हाका कि खऱ्यानींच देखतां हांव*

| | | |
|---|---|---|
| | | *अेक अिमारत खंयची तरी, ना म्हणूंक जायना.* |
| क्लारीन | : | *म्हजी खोशी म्हाकाच फटयता गो,* |
| | | *तुवें पळेल्ले देखावे नियाळपाचेच.* |
| रोज़ावरा | : | *सरता वयर ह्या नागड्यां उग्त्यां खडपांर* |
| | | *अेक राजमहल अितलें धाकलें सान* |
| | | *कि सूर्य फकत पळेंवक धाडजता;* |
| | | *अितले हरवे कलेन घडयल्या ताची* |
| | | *बांदावळीची अिमारत शिल्पकृती,* |
| | | *कि दिसता येद्द्या दोंगराळ खडपांतुल्यान* |
| | | *झाडां-पेडांक सूर्य मात्सो लागता,* |
| | | *जीं खडपां आयल्यां देंवून तेंगशेवेल्यान.* |
| क्लारीन | : | *आतां गो ल्हवू लागीं वचूंया, बाये,* |
| | | *चडूच वेळ पळेत रावलीं आमीं,* |
| | | *जेन्ना बरें जातलें आसलें घडये,* |
| | | *तांतूंत राबितो करून आशिल्ल्या लोकान* |
| | | *आमकां उदारपणीं घेतल्यार भितर.* |
| रोज़ावरा | : | *तें खरेलेंच येदें दार, दारवंटो* |
| | | *(चड बरें जातें तें अभागी तोंड म्हळ्यार)* |
| | | *उगतो आसा, आनी थंयच्या मदल्या भागांत* |
| | | *रात आकार घेता, काळोख गुपाट.* |
| | | (सांखळ्यांचो खणखणाट सुरू जाता) |
| क्लारीन | : | *देवा म्हज्या, कितें गा आयकतां हांव!* |
| रोज़ावरा | : | *हालना मोनकुटो, तो उजो काय फातर!* |
| क्लारीन | : | *सांखळी जायत जिचो आवाज येता* |
| | | *जिवाच्यान गा, ती तारवां-बंद्द्यां ख्यास्त*.* |
| | | *म्हज्यांत भरता भिरांत शिरशिरो.* |

# देखावो दुसरो

(सेजिसमुंद्र भितल्ल्यान)

| | | |
|---|---|---|
| सेजिसमुंद | : | *कसलो दळडिरो हांव, कितलो अभागी!* |
| रोज़ावरा | : | *कितलो दुखेस्त ताळो सादृता कानार!* |
| | | *झुजचें पडलें ख्यास्त वळवळ्यांचेर.* |

* बंद्यांक ख्यास्त म्हणून तारवांचे ओले ओडपाक सांखळ्यांनी थंयच बांदून दवरताले.

क्लारीन : *आनी नव्यो भंय-भिरांती आंगार घेवून.*

रोज़ावरा : *क्लारीन.....*

क्लारीन : *बाये.......*

रोज़ावरा : *लागालागीं ह्या मंत्रायल्ल्या बुरंजाचें*
*हे भिरांतीचें वातावरण सोडून*
*हांगाच्यान आमीं पळ काडिल्ली बरी.*

क्लारीन : *पळून वचपाचो गो जायना धीर*
*म्हाका, जेन्ना येता असली पाळी.*

रोज़ावरा : *न्हय रे तो, उजवाड अिल्लो-सो,*
*पडटो स्वास, बावतें नखेत्र जालां,*
*जें गळ्ळां थरथरत्यां घुंवळींनी,*
*तिख, उत्कट दोडट्या खतखत्यान,*
*आनी कलकलतीं किर्णां शेवटून मारीत*
*करता चडूच आकांत भंयांकृत*
*तें काळखी बिराड दुबावी उजवाडान?*
*जरूय मागीर तांच्या पडबिंबांनी*
*थारांव येता, पयस थावन लेगीत*
*अेक काळखी बंदखण म्हणून घेवपाची*
*जंय अेक जिवंत मडें दवरलां पुरून,*
*कित्याक चडूच म्हाका दिसता अजाप*
*रानवट मोनजातीचें आंगलें चडोवन*
*उरता थंय अेक मनीस विळखो घाल्लो*
*चरांटून बांदिल्लो लोखणा-सांखळ्यांनी,*
*ताका फकत लांपयांव वाती सांगात.*
*तर आमच्यांनी अशींच पळून जायना वचूंक*
*जेन्ना कळ्ळां आमकां दुर्दैव ताचें;*
*जाणांत न्हय आमी ताणें कितें म्हळां तें.*

(दिसता सेजिसमुंद. ताका सांखळ्यांनी बांदला आनी ताचे लागीं अेक दिवो आसा. तो चांबड्याचें न्हेसला.)

सेजिसमुंद : *आहा! दळडिरो हांव! कितलो अभागी!*
*अद्दश्टा सोद करूंक येवजितालों!*
*असोच कित्याक वागयतात म्हाका तुमी;*
*जल्मून कसलो खून गा केलो हांवें*
*अपमानाचो तुमच्या सगळ्यांच्या;*

*जरूय अपराध घडलो म्हज्या हातान*
*तुमच्या कडकडीत न्याय-नेमांक*
*लागून हो घडपाचेंच कारण जालां.*
*कित्याक मनश्याचो तर व्हडलो गुन्यांव*
*म्हळ्यार जल्मुपाचो हे धर्तरेर.*
*म्हाका फकत जाणां जावपा आसलें*
*म्हजीं अशीं जागरणां-जुगरणां कित्याक ?*
*(जल्मुपाचो गुन्यांव कुशीन दवरून)*
*आनीक कित्यान तुमचो अपमान जालो,*
*म्हाका अितली खर ख्यास्त लांवक,*
*हेरांचो जल्म जांवक ना म्हजेच भशेन ?*
*तशें जाल्यार हेर जाण जल्मल्यात मू ?*
*तांकां कितल्यो मेळ्ळ्यो सवलती*
*ज्यो म्हाका भोगूंक केन्नाच मेळ्ळ्यो नांत.*
*सुकणें जल्मता, रंगीत न्हेसून,*
*जें ताका सोबिताय दिता सुमाराभायली,*
*दिसता फकत फुल्लां फूल पाखांचें,*
*वा पाखट्यां केल्लो फुलतो तुरो सोबीत*
*जेन्ना मळबावेलो वरीश्ट व्याप*
*वेगान कापून घेता खपखपीत,*
*दयामाया नासतना आपणाल्याच*
*घोंटेराची जो सांडून उडयला थंय.*
*असो म्हज्यांत आत्मो आसून लेगीत,*
*तांचे परस मेकळीक कित्याक उणी ?*
*जल्माक येता मोनजात आनी कातडेर तिज्या*
*काडिल्लीं आसतात सोबीत खतां चित्रां,*
*फकत ती कुरू मळबा नखेत्रांची,*
*विद्वान सैंबागेल्या पिशोला नाड्यार,*
*जेन्ना धाडशी आनीक क्रूर जावन*
*मनीस तिका आपले गरजे खातीर*
*शिकयता क्रूरतायेक बाळगुंच्याक,*
*आपल्याच जाब्यांतुली राखेस-मोनजात :*
*आनी हांव गा जाल्यार अितलो हुशार आसून,*
*मेकळीक म्हाका तांच्याय परस उणी ?*
*जल्माक येता नुस्तें, जें सुस्कारी ना*
*बगर उश्टें झाड-पाल्याचें, चिकलां-रेबें*

*आनी फकत फोवळांचो तो कोयरा शिंवर*
*दिसता उफेतलो ल्हारां ल्हारांर,*
*जेन्ना सगल्याक आनाळ्यो-गुनाळ्यो करीत*
*येद्या वरिश्टाची मापणी करून,*
*येदी व्हडली तांक भोंवता सोदीत,*
*जी दिता ताका खोल-खोलायेची खर.*
*आनी हांव, चडूच मेकळी अित्सा आसून,*
*उणी स्वतंत्रताय भोगतां कित्याक ?*
*जल्माक येता उदका-व्हाळ, सोरपा*
*भशेन व्हांवत सुट्टा फुलांतुल्यान,*
*आनी फकत, रुप्याचो पाट कसो,*
*फुट्टा हालत धोलत झाडांतुल्यान,*
*जेन्ना संगीत तालार, करता तूस्त*
*सर्गा देवागेली मागून माया,*
*जी दिता ताका थाट माट संभ्रम,*
*उत्तम मळ ताचे व्हांवते वाटेक;*
*पुण म्हज्यांत आसून ताचेवोन चडूच जिवीत,*
*ताच्याय परस म्हाका मेकळीक उणी ?*
*आनी जेन्ना हे खतखतीत दशेर पावतोच,*
*अेक उज्या-दोंगर, अेक अॅटना* फुरफुरीत,*
*काडूंक सोदतालो गो हड्ड्यांतुले*
*कुडक्यान कुडके म्हज्या काळजाचे.*
*कसलो कायदो, न्याय वा तर्क, व्हय,*
*नाकारूंक सोदता मनश्यांक बऱ्या, जाणां,*
*मानभोवमान अितलो रोसाळ, गोड,*
*खाशेलो हक येद्या म्हत्वाचो,*
*जो दिल्लो देवान त्या स्फटीक नितळ उदकाक,*
*अेके मासळेक, मोनजातीक आनी सुकण्याक ?*

**रोज़ावरा** : *भिरांतीक तशेच दयेक लागून काळजान*
*म्हज्या आपलीं कारणां निर्मिल्यांत.*

**सेजिसमुंद** : *कोण ते आयकतात म्हजो ताळो ?*
*तो क्लोताल्दु-बाब, व्हय गा तूं खऱ्यानींच ?*

**क्लारीन** (आस्वडी) : *व्हय म्हणून सांगून सोड गो, बेगीन, ताका.*

**रोज़ावरा** : *हांव गा फकत अेक दुखेस्त, कटा कटा !*

---

* येवरोपांतल्या अिटाल्याक आशिल्लो जीतो उज्या-दोंगर

*जाणें ह्या थंड-किरांव बोबद्यां मदें*
*आयकलें तुजें उदास दुखां-रुधन*

(अेकलेंच, आपणाकुच लेखून)

सेजिसमुंद : *तशें जाल्यार तुका उडयतां मारून,*
*कित्याक ना कळचें तुका सांगूंक अशें*
*म्हज्यो सगळ्यो अशक्ततायो, जाणां!*
*म्हाका तुवें कान दिलोच देखून,*
*पोवटभरीत म्हज्यां भुजां भितर*
*मुड्डून तुजे कुडके करतलों.*

क्लारीन : *हांव रे बाबा, पयलींच भयरो-भेड्डो,*
*म्हज्यान तुका आयकूंक घडलें ना.*

रोज़ावरा : *तूं जर जल्माक आयला मनीस म्हणून,*
*सरपट्टां तुज्या पांयां पडून, पुरो,*
*अितल्यान सुटका फावो जातली म्हाका.*

सेजिसमुंद : *गोड ताळ्यान तुज्या मोवाळ्ळो म्हाका;*
*म्हऱ्यांत, तुज्या भरलों आश्चर्यान हांव;*
*कळवळटा म्हाका तुवें दिल्लो मान.*
*कोण रे तूं? जरीय हांव हांगा रावून*
*जाणां अितलें उणें संवसारांतलें,*
*पाळणें आनीक फोंड जालोय तरीय*
*हें बुरिज म्हाका सांडिल्ल्या सड्यावेळें,*
*आनी जरीय जल्माक आयिल्ल्या दिसाक थावन*
*(जर हाका जल्माक येवचें म्हणचें जाल्यार)*
*हांव अेकलो काडटां दीस वळवळ्यांनी*
*ह्या निरास गांवटी रानवट रेंवटा मळार*
*जंय जियेतां दळडिराची भीक मागत,*
*अेक जीतो हाडां-सांपळो जाल्ले भशेन,*
*मेल्लें मडें जिवंत दवरलां कशें.*
*आनी जरूय हांवें उलयलें ना केन्नाच*
*न्हय म्हणून पळेलें ना रे मनश्याकडेन,*
*बगर अेकाच अश्या खाशेल्या मनश्यालागीं*
*जो हांगाच रावन भोगता म्हजें दुर्दैव,*
*जाचेच कडल्यान कळटात म्हाका खबरो*
*सर्गावेल्यो आनी धर्तरेच्यो; आनी जरूय*

*हांगासर तुका अजाप दिसतलें,*
*मनीस-मोनजात राखेस धरतात म्हाका,*
*भंय-भिरांती आनी जगा-वेगळ्यां मदीं,*
*तरूय हांव आसां मनीस मोनजातींतलो,*
*आनी क्रूर रानवट मोनजात मनश्यां-मदली;*
*आनी जरूय अितल्या भयंकर दुर्दैवान*
*अभ्याशिल्ले हांवें राजकर्णाचे धडे,*
*शिकून घेतिल्ले जशे मोनजातींच्यान,*
*आपणायल्ले वाऱ्यार भोंवत्या सुकण्यांवेल्यान,*
*आनी म्होवाळ गिऱ्यांवळीं मेजल्यो आटयो,*
*तरूय तूंच रे जाणें धरला आडावन*
*म्हज्या रागा किंवाट्या खतखतो,*
*म्हज्या दोळ्यां भगभगीत उजो,*
*म्हज्या कानां कानसुलांचें अजाप.*
*दर-अेका खिणा जेन्ना पळेतां तुका,*
*फुलता म्हज्यांत नवी तोखणाय तुजी,*
*आनी जितलो तुका चडूच पळेवन घेतां,*
*अजून चडूच पळेवपाक आंवडेतां.*
*तान भागनाशिल्ले दोळे म्हजे,*
*दिसता जांवकूच जाय खऱ्यांनीच तशे;*
*कित्याक जरूय पियेल्यार पडटा मरून,*
*तरूय चडूच पियेतात, आनी हेच भशेन रे,*
*जाणा जावन कि पळेल्यार तुका, फावता*
*मरण, तुकाच पळेंवक मरतां हांव.*
*पळेंवक तुका आशेवन मेल्यार जाता;*
*हांव नकळों, अेकदां हार खावन बशिल्ल्यान,*
*पळेल्यार तुका, मरण फावता जाल्यार,*
*वा पळेना जाल्यार कितें गा मेळटलें.*
*मेळ्ळें, पुण कितलें क्रूर उग्र मरण,*
*राग, क्रोध आनी दुख दगदगीत*
*जावन आयिल्लें मरण; अशे रीतीन*
*ताची कट्टरताय भोवूच भारी,*
*अेकल्या दळडिऱ्याक दिल्यार जिवीत*
*म्हणचें सुखेस्त मनश्याक दिंवचें मरण.*

रोज़ावरा : *तुकाच पळेवपाच्या म्हण अजापान गा,*
*तुकाच आयकुपाचे तोखणायेन,*

*हांव नकळों तुका कितें सांगचें तें,*
*न्हय म्हणून तुका कितें विचारचें तें,*
*अेकूच म्हज्यान येता सांगूंक कि हांगा*
*आयज म्हाका पावयला सर्गांनूच,*
*म्हाका भुजवण थाकाय मेळची म्हणून,*
*जरीय दिवूंक भुजवण घडटा जाल्यार,*
*ती जी मेळटा दळडिऱ्याक, पळेवन*
*दुसऱ्या कोणाक ताचे परस दळडिऱ्याक.*
*सांगतात खबर अेकल्या गिन्यान्याची,*
*अितलो गरीब, पाविल्लो दुर्दशेर,*
*कि आपुण आपणाचेंच तो भरतालो पोट,*
*कांय झाडां-पाल्याचीं पानां पुंजावन हाडून.*
*''आसत काय दुसरो'', तो आपल्याक म्हणटालो,*
*''म्हज्याय परस गरीब-दुबळो, दुखेस्त?''*
*जेन्ना ताणें वळ्ळें आपलें तोंड,*
*मेळ्ळी ताका फावो ती जाप, पळेवन*
*दुसरो जाणार जो वेतालो पुंजायत ल्हवान*
*ताणेंच भायर मारून उडयल्लीं पानां.*
*तक्रार करीत नशीबाचेर म्हज्या*
*ह्या संवसारांत हांव जीण धुकलतालों,*
*जेन्ना म्हजे म्हाकाच म्हणतालों:*
*''आसत काय दुसरो खंयच्योच मनीस अेकलो*
*जाचें नशीब म्हज्याय परस पाश्ट?''*
*दयाळ मनान दिल्ली म्हाका जाप;*
*मागीर म्हजेच वटेन वळून पळेवन,*
*आयिल्लें कळून म्हाका कि दुखां म्हजीं,*
*करचीं जाल्यार रूपांतरीत सुखांत,*
*तींच सगलीं हाडचीं पुंजावन गुंथून.*
*आनी अशेंय जाल्यार कि म्हजीं दुखां आयकून,*
*थोड्या तरी वांट्यान मेळ्ळ्यार तुका थाकाय,*
*तांकां दिंवचो कान आनी व्हरचीं हेरां*
*तांतलीं जीं चडीत जाल्यां खातीर म्हजे.*
*आसां गा हांव....*

# देखावो तिसरो

(भितल्ल्यान क्लोताल्दु)

| | | |
|---|---|---|
| क्लोताल्द | : | *ह्या बुरंजावेल्या राखण्यांनो, कितें,*<br>*न्हिदल्यात तुमी, वा भिजूड जाल्यात, सांगात,*<br>*मेळ्ळ्यां तुमकां खंयीं मनशां दोगां*<br>*जाणीं रे बंदखणीचीं फोडल्यां दारां...* |
| रोज़ावरा | : | *हो आनीक नवो गोंदळ खड्ड्यार म्हज्या.* |
| सेजिसमुंद | : | *हो तर क्लोताल्द, सरदार खाशेलो म्हजो,*<br>*दुर्दैवां म्हजीं सोंपून सोंपनांत अजून.* |
| क्लोताल्द<br>(भितल्ल्यान) | : | *आदार दियात, पावात, जागृत रावात,*<br>*आपणा राखण करूंक दिनासतना,*<br>*तांकां धरून घेयात, मारून उडयात.* |
| सगले<br>(भितल्ल्यान) | : | *हो गा सायबा, जालो घात आमचो!* |
| क्लारीन | : | *ह्या बुरंजावेल्या राखण्यांनो, तुमी जे*<br>*हांगासर भितर सरूंक आमकां दिनांत,*<br>*जाल्यार आमकां अेक तरी वेंचूंक दियात.*<br>*आमकां धरचे आसल्यार तर चड्डूच सोंपें.* |

(क्लोताल्द आर्म आनी शिपायकांक घेवन येता; सगल्यांनी आपलें मुखकमळ धांपून घेतलां.)

| | | |
|---|---|---|
| क्लोताल्द | : | *आपलें मुखकमळ धांपचें सगल्यांनी,*<br>*जो म्हत्वा काळजी उपाय जावन आसा,*<br>*आमी सध्या हांगासर आसतनां,*<br>*आमकां कोणेंच सारके वळखुंचे न्हय.* |
| क्लारीन | : | *मोयें घाल्ले आसात, व्हय गा तुमीं?* |
| क्लोताल्द | : | *हे, तुमी गा, जांकां खबर कांयच ना*<br>*केन्नाच ते मना-केल्ले सुवातेची*<br>*जिची शीम आनी मेर हुपून वेतात,*<br>*राजागेले कडक फर्मावणे आड,*<br>*जी सांगता कोणेंच हांगा धाडजुंचें न्हय*<br>*तपासून घेंवक ती हस्ती व्हडांतली व्हड*<br>*जी ह्या खडपां-तळपां मदीं उरता पडत*<br>*आपले हात-पांय सोडून, जिवूच तोडून.* |

*तें पिस्तोल, लोखणा धातू सोर्पा भशेन*
*तेन्ना वोंकतलें तीख लागतलें वीख*
*गुळ्यांचें दोन, जांतलो उज्या फोग*
*वाऱ्यार शिंवरतलो सगलें भश्टायत.*

सेजिसमुंद : *कट्टर पुंडू धनी जाल्ल्या मनश्या,*
*तांकां अपमान करून दुखोंवचे आदीं,*
*म्हजो जीव गा करचो ना-नपश्च्यात,*
*ह्यो दळडियो म्हाका बांदिल्ल्यो सांखळ्यो तोडून,*
*नाल्यार तांचेच कुडके करून, देवा,*
*म्हज्याच हातांनी, दांतांनी चाबून उडोवन,*
*तुज्या पाड्या नशीबान तशें केल्यार,*
*पातका खातीर तुज्या रडचें पडत.*

क्लोताल्द : *जर तुमी जाणांत कि तुमचें नशीब पाडें,*
*सेजिसमुंदा, अितलें आकांताचें,*
*कि जल्माक येवचे आदींच मेल्लो रे तूं,*
*मळबावेल्या कायद्यान; जर तूं जाणा*
*जाल्लो जाल्यार कि ह्यो बंदखणी जावन आसात*
*गर्विश्ट तुज्या रागा किरोधाचेर*
*अेक आडो लगाम जो तांकां धरता बांदून,*
*अेक झूं जें तांकां थंयच आडायतलें,*
*कित्याक तूं बेश्टे भोपके मारता, व्हय?*
*धांपलां दार हें अशीर बंदखणीचें;*
*वोगीच लिपून राव, सायबा, भितर.*

(दार धांपता आनी भितल्ल्यान आयकूं येता)

सेजिसमुंद : *हाय, गा, देवा, सैंबा, सर्गांनो!*
*जाणीं केलें बरेंच म्हजेकडल्यान*
*मेकळीक काडून घेवन! कित्याक हांव राखेस*
*तांचे सगल्यां आड आसलों म्हणून,*
*जाणें सुर्या उजवाडाचे लख्ख मुळे*
*झगझगीत हारशे, दिवे फोडून*
*उडयले तांच्या फातरां बुन्यादींचेर*
*दोंगरां दोंगर अेकामेकार मातून.*

क्लोताल्द : *कित्याक गा, सायबा, आमकां निर्मिलां*
*अितलें अदृश्ट कश्ट-दगदग सोंसूंक!*

(सेजिसमुंदाक जबरदस्तीन आशिल्लो थंय परतो बंद करतात.)

# देखावो चौथो

रोज़ावरा : *गर्विश्टायेक लागून पळेलें हांवें*
*कितलो अपमान तुका जालो म्हणून,*
*हांव नकळों जालों मागूंक तुजेच लागीं*
*खालतो जीव गा म्हजो राखचो तुवें,*
*जो तुज्याच पांयां पडला सरपटून.*
*काकुळ्ट म्हजी तुका लागता मू;*
*खंयचो कडकडीत नेम गा आसा*
*तुजे वटेन सोदून मेळच्यो न्हय*
*गर्विश्टायो न्हय म्हणून खालतिकायो.*

क्लारीन : *आनी जर खालतीकाय आनी गर्विश्टाय*
*घालीनांत तुजेर सक्ती धडपणाची,*
*जाणीं संवगां केल्यां, भायर भितर*
*हजार देवस्पणां नाटकुल्यांनी,*
*हांव तर खालती तसोच गर्विश्ट न्हंयच,*
*नशीब आमचें मिसळ्ळां दोन अर्दांनी,*
*मागतां तुमचे लागीं नम्रतायेन,*
*आमकां पाव गा, सायबा, राख आनी सांबाळ.*

क्लोताल्द : *कोण रे थंय! यो रे हांगा बेगीन.*

शिपायक : *शिंञोर, सांगात....*

क्लोताल्द : *रोखडे धरून घेयात त्या दोगांय मनश्यांक,*
*आनी सामके बांदून हाडात तांचे दोळे,*
*कित्याक पळेंवचें न्हय म्हणून ताणीं*
*कशे आनी खंयच्यान ते भायर सरून वेतात.*

रोज़ावरा : *तरसाद म्हजी, हीच गा ती जी फकत*
*सुवाधीन तुजे सोडून दितलों हांव,*
*कित्याक, निमाणेकडेन, सगल्यां मदें,*
*तूंच गा मुखेल, आनी नकळो गा ती तुज्यावोन*
*उण्या मोलाच्या मनश्याक शरण येवूंक.*

क्लारीन : *आनी म्हजी जाल्यार असली तरसाद, धनया,*
*जी सकयल्याक दिंवू येता: व्हर ती तुका.*

रोज़ावरा : *आनी मरपाचेंच आसता जाल्यार, तुका*
*सोदतां सोडूंक, हे दयेच्या कृपे बळार*
*देणें जें धनयान घेतिल्लें मानून बरें,*
*जाचो एक दीस जातलो तुमकां उपयोग.*

*ती तुज्याच ताब्यांत दवरची गा धनया,*
*कित्याक नकळों हांव जर कसलोच हेत*
*आसतलो तो तिच्या गोपांत दडून.*
*हांव अेकूच जाणां कि हे भांगरा तरसादींत*
*रावल्यात लिपून व्हडले गूठ, तें गूढ;*
*कित्याक तिच्याच बळग्यार पातयेवन रावून*
*आयलों हांव पोलंडाक सूड घेवूंक*
*म्हजेर केल्ले अपमानीत आगळीकेची.*

क्लोताल्द (आस्वडी) : *(हाय गा देवा, धनया म्हज्या, हाय!*
*हें बाबा कितें? येन्नाच अितलीं वायटां,*
*चडूच म्हजीं दुखां, कितलो गोंदळ,*
*हुस्के-खंती म्हज्यो आनी भार म्हजेरूच.)*
*कोणे रे तुका दिली ही तरसाद, सांगशी?*

रोज़ावरा : *अेकले बायल-मनशेन दिली ती म्हाका.*

क्लोताल्द : *ते बायलेचें नांव सांगशी, उपकार करून?*

रोज़ावरा : *राव गा मात्सो वोगी, सायबा म्हज्या,*
*जातलो जाणा, तिचें नांव म्हळ्यारूच शक्ती.*

क्लोताल्द : *ह्या उतरांवेल्यान आतां आयलें दिसून,*
*वा येता कळून स्पश्टपणीं झळकून*
*कि हे तरसादींत आस्पावता गुठा गजाल?*

रोज़ावरा : *जिणें दिल्ली म्हाका तरसाद गा ही,*
*तिणें सांगिल्लें म्हाका: ''पोलंड देसाक*
*भायर सर रे वचूंक, आनी मागून घे*
*कलेन, अभ्यासान वा हिकमतीन तुजे,*
*ती तरसाद घेंवची पळेवन बारकायेन,*
*सरदारांनी आनी मुखेल मनश्यांनी,*
*हांव तर जाणां कि तांतलो कोणूय गृहस्थ*
*दितलो हात, तुजो घेतलो पाखो.''*
*आनी कित्याकूय लागून मरण मेळ्ळें जाल्यार,*
*तेन्ना ताचें नांवूंच घेवपाचें न्हय.*

क्लोताल्द (आस्वडी) : *(देवान म्हजी करची काकुळ्ट, पाव गा!*
*कितें गा आयकतां हांव ही विचित्र गजाल*
*जायना म्हज्यान सारकें थारांवक अजून*
*तसले रीतीचें येस कितें वा कात,*
*फकत माया-भ्रम वा सत्य-खरें.*
*हीच तरसाद जी हांवें तेन्ना येवजून*

*दवरिल्ली साबीत-घुबीत ते वियोलांतीक,*
*जिची कुरू कि जो भेंडाक बांदून हाडीत,*
*ताका हांव रे होल्मतलों मोगाळ*
*पूत कसो आनी दयाळ बापाय भशेन.*
*अशें आसून, करचें कितें, कटा!*
*असल्या घुस्पागोंदळांत पडलां म्हणून,*
*कि जो कोण हाडटा ती कोणाय कृपेन जायत,*
*हाडटा ती व्हय आपल्या मर्णा खातीर,*
*कित्याक मर्णा फर्मण घेवून हांगासर*
*म्हज्याच पांयां लागीं आयला पडून?*
*कितलो विचित्र, आकांताचो गोंदळ हो!*
*कितलें दुखेस्त नशीब हें कर्माचें!*
*कसलें नशीब हें अितलें नाचरें थिल्लार!*
*हो तर पूत गा म्हजो आनी कुरवो त्यो*
*जुळटात म्हज्या काळजा चिन्नांचेर,*
*ताका पळेल्यारूच हड्ड्यांत पेट्टा उजो,*
*झडपडटात पाखटे फडफडून,*
*आनी व्हडलीं कुलपां फोडूंक जायना जावन,*
*जायत तो जो बंदखणींत घाल्लो आसा,*
*आयकून रस्त्यावेल्यान आयिल्लो बोवाळ,*
*जनेलांतुल्यान भायर मारीत उडी.*
*आनीक तें काळीज अशें, कितें जाता तें*
*नाशिल्ल्यान कळूंक आनी बोवाळ कानार गेल्ल्यान,*
*धांवत वेता उडकी घेंवूंक दोळ्यांनी,*
*जे जावन आसात जनेलां हड्ड्यांतुलीं,*
*जांतल्यान व्हांवतात दळदळीत दुकां.*
*कितें करपाचें गा! देवूच पावचो म्हाका!*
*करूं कितें? ताका व्हरचो धरून*
*राजा लागीं, म्हळ्यार कितलें दारूण!*
*मरूंक व्हेल्ले भशेन; तरूय राजा*
*पसून ताका लिपोंवक जांवचो ना,*
*निश्टे कायध्यां नेमां परमणें.*
*अेके वटेन म्हज्या वांट्याचो मोग,*
*आनी दुसरे वटेन, निश्टाय म्हाका खाता,*
*कित्याक तर हांव दुबाव घेतां असो?*
*राजाक फावो जातले निश्टेक मेळटा प्राधान्य,*

जिवीत आनीक मान-भोवमाना फुडें?
देखून ती उरता जिवंत आनी तो पडटा उणो.
त्या भायर, जर ध्यानांत घेतलें जाल्यार
जें सांगिल्लें हांवें कि आयला म्हणून हांगा,
अपमानाचो सूड घेवूंक, ज्या मनश्यार
जाल्या आगळीक, तोवूय हलकट खंयचो.
तो म्हजो पुत न्हय, म्हजो पुतूच न्हय,
न्हय म्हणून ताज्यांत ना म्हजें रगत स्पेश्ट.
आपशींच ताका येन्नांच सांपडला अपमान,
जांतल्यान कोणूच ना सुटचो, कित्याक मान
तर अितल्या ल्हवल्हवीत आयत्याचो
कि अेकेच करणे वरवीं कोंसळटा तो,
वा खतोवता ल्हवूच वाऱ्या झणझणान,
आनीक कितें करूंक जायत, चडूच
हांचे वतीन स्पेश्ट जें जातलें बरें,
अितल्या संकटांक तोंड दिवूंक
आयिल्ल्या परस ताका व्हरचे पासत?
तो पूत म्हजो, ताच्यांत रगत म्हजें,
देखून ताका मोल व्हडलें येदें.
आनी अशें, अेका आनी दुसऱ्या दुबावा मदीं,
सगल्यांत म्हत्वाचें तें वखद म्हळ्यार,
वच्चें हांवें राजा लागीं आनी म्हणचें:
पूत तो म्हजोच, तुमी मारचो ताका.
घडये तेच म्हजे दये-मायेन
मान-भोवमानान ताचेर हाडचो दबाव;
आनी म्हाकाच लागून ताचें तारण जाल्यार,
ताचेर जाल्ल्या अपमाना सूड घेवूंक
हांवूच वचून ताका दितलों आदार.
पुण जर राजान कडक वागणुकेन,
ताका माल्लें जाल्यार मर्णा फर्माण,
तो मरतलो हांव बापूय म्हणून नकळत.)
म्हज्या बरोबर येयात, परदेश्यांनो.
भियेनाकात कि तुमकां पडत उणो
तुमचे दुर्दशेंत वांगड सतत;
कित्याक पडलेच असले तरेच्या दुबावांत,
जियेंवचें वा मरचें जाल्यार, हांचे मदलें

*खंयचे चडीत व्हड तें नकळों हांव.*

(ते भायर सरून वेतात.)

# देखावो पांचवो

(अेके वटेन, वांगडा शिपायक घेवून, **आस्तोल्फ** येता आनी दुसरेवटेन, आपल्या सख्यांक घेवून **अिश्त्रेला** येता. संगीताचो आवाज आयकूं येता.)

आस्तोल्फ : *सुखावलों हांव किर्णां पळेवन भोगूंक*
*झगझगीत जीं धुमकेतू जावन गेलीं,*
*संकीर्ण मिसळ वेगळे आवाज सूर*
*धोल काशीं आनी कोरनेतींचें संगीत,*
*तशेंच सुकण्यां-सवण्यां आनी झरीं-झऱ्यांचें;*
*मेळून सगलीं अेकाच संगीत सुरान,*
*आनी उत्तमोत्तम अजाप-आश्चर्यान,*
*सर्गा अपसरेचे नदरेक तुजे,*
*अेकटो जिनस, पाखांभरीत क्लारीनेत,*
*दुसरो, खणखणीत कोरनेत आसा;*
*आनी अशीं तीं तुका करतात नमन, बाये,*
*आपणाली राणी कशी, फारपेट करून,*
*जशीं सुकणीं-सवणीं करतात, फांत्याक*
*कोरनेती पालस, झुजा-बुद्धी देवतेक,*
*आनी फुलां येवकारतात फ्लोरा, वसंत-देवतेक,*
*कित्याक तूं गो दिसाची केंडणी करून,*
*धांवडायता भायर रातीक येन्नाच फांत्याक*
*खोशालकाय, फ्लोराक शांती, झुजांत जीख*
*पालसाक, आनी आत्म्यांत म्हज्या तुजेंच राज्य.*

अिश्त्रेला : *जरी ताळ्या आवाज घेंवचो मेजून-मापून*
*मनश्यांगेल्या करण्यांक साथ दिता तो,*
*म्हणचो ना तूं अितले सोंपपणीं*
*विनयशील-श्यो गजाली दरबारी रीतीन,*
*जंयच्यान त्योच नाकारचे खातीर जातात,*
*सगल्या फौजी रीतीनी घणघणीत,*
*जांचेलागीं हांव धीरान आयल्यां झुजत;*

*कित्याक हांव मानतां ते प्रमाणें खरें*
*हांव आयकतां ती गोड तुस्त-तोखणाय*
*सोबना पळेतल्याचे कडक रीतीक.*
*शिटकायतां देखून कि सकयल्या-पांवड्या करणी*
*जी अेकूच लागणूक रानवट मोनजातीची,*
*फटींग आनीक नाडानाडींची झर,*
*तिका तोंडान भरची मायेमोगान,*
*आनी मारची आपणें केल्ल्या शिट्रूक हेतान.*

आस्तोल्फ : *पावल्या जातली तुका लटकी खबर,*
*अिश्त्रेला, कित्याक तूं म्हज्या म्होवाळ भाशे*
*भरवंसो दवरीनाय आनी दुबावताय,*
*हांव गो प्रार्थितां कि तूं आयक म्हजें*
*कारण हाचें, आनी पळे तूं जाणां जाल्यार.*
*येवस्तोज्यु तिसरो, अंतरलो ह्या संवसाराक,*
*तो पोलंडा राजा; ताणें दवरलो फाटीं*
*बाझीलयु आपलो वारसदार राजा म्हणून,*
*आनी धुवो दोगी, जांच्या कुसव्यांतुल्यान*
*हांव आनी तूं गो आयलीं जल्माक न्हय!*
*हांगासर जागो ना तसल्यो गजाली घेवून*
*तुका थकून उडोंवक सोदीना हांव.*
*क्लोरीलेन, तुजी आवय आनी मावशी म्हजी,*
*जी बऱ्यांतल्या वयल्या साम्राज्यांत रावता आतां,*
*जावन परजळीत नखेत्र कशें,*
*ती तांतली व्हडली, जिची धूव गो तूं.*
*दुसरी म्हळ्यार आवय म्हजी, आका*
*तुगेली, ती रेसीसूंदा रुबाबदार,*
*जिका सांबाळची देवान हजार वर्सां.*
*ती लग्न जाली मोस्कोवांत, जिचे*
*उदरीं जल्मलों हांव. वळूंया आतां,*
*दुसऱ्या मुदद्याकडेन, जायत बरें.*
*बाझीलयु जो येन्ना म्हातारो जाला, बाये,*
*रेंजून वेता काळा तिरस्कारान,*
*अभ्यासाकडेन चडूच वळिल्लो तो,*
*बायलां लागीं विलास भोगचे परस,*
*विधूर जालो भुरगीं नासतना;*
*देखून तूं आनी हांव गो ह्याच राज्याक*

*मिटयो मारीत आयल्यांव झगडत-झुजत.*
*तूं तर म्हणटाय तुजो दावपेंच मांडून*
*कि तूं जावन आसा व्हडले भयणीली धूव;*
*हांव गो म्हणटां कि चलो-भुरगो जाल्ल्यान*
*राज्या प्राधान्य म्हाकाच मेळूंक जायच,*
*जरूय हांव आसां धाकले भयणीगेलो.*
*तुगेलो बेत तसोच आंवडो म्हजो*
*आमच्या मामाक तर सांगून दिल्लो आमीं.*
*ताणी तर दिल्ली जाप कि तांची खोशी*
*करची तडजोड, समजूत आमचे मदीं,*
*आनी थारायल्लो आमी हो जागो आनी आयचो दीस.*
*ह्याच बेतान हांव सरलों भायर म्हज्या*
*मोस्कोवांतलो आनी ताच्या त्या देसांतुलो;*
*पावलों हांगा मेरेन होच घेंवून,*
*झूज हांवें करचे सुवातेर, म्हाका*
*तुवेंच आदार तारण दिल्लें बरें!*
*ओह, मोगान जांवचें, धनया देवा, हें सगलें,*
*तो सामान्य मनीस, खरेलो जाती-जोतिशी*
*आयज आसचो दोगांय मदीं बसून*
*सोंपोवन दिंवचे खातीर हें सगलें नाटक,*
*जांतूंत फकत राज्य करतलें तूं,*
*पुण म्हाका जाय ते ब्रित्से परमणें,*
*दिवूंक दोगांयक चडूच मान-भोवमान,*
*तुजो मुकूट आमच्या मामाक घालूं,*
*तुगेलीं जैतां तुजें मोल वाडोंव,*
*आनी तुगेलें साम्राज्य जांवचो मोग म्हजो!*

अिश्त्रेला : *अितल्या म्होंवाळ आदर उदार मनाक*
*हड्डें म्हजें फुलूंक सरना फाटीं,*
*साम्राज्याची राजेशाही ती हक्कान*
*तुजी करपाक ऐकल्याचीच, हिऱ्या,*
*म्हजेच लागीं येवची म्हळ्यार बरें;*
*जर अजून तुगेलें जायना समाधान*
*म्हज्या मोगान, जाचो तुका ना धेंक,*
*जरूय तूं म्हणटा अितले म्हणसर म्हाका*
*लागता दुबाव कि तुज्या हड्ड्याक लायल्लो*
*फोटू तूं नाकारतलो, हें जायत खरें?*

आस्तोल्फ : *हांव तुजें समाधान सोदतां करूंक*
*तीच गजाल घेवून... पुण मेळना संद,*
*अितलीं वाजतीं वाद्यां वट्ट करांदाय,*
*जी करता कळीत कि सरलो भायर म्हणून*
*म्हाराज-धिराज आपल्या दरबारा सैत.*

## देखावो सटवो

(संगीत वाजयतात आनी येता राजा बाझीलयु, जाण्टो-म्हातारो आनी ताचे सांगाती)

अिश्त्रेला : *जाणकार तालिस.....*
आस्तोल्फ : *गिन्यानी येवक्लीदिस.....*
अिश्त्रेला : *जो नखेत्रां-घरां मदें.....*
आस्तोल्फ : *जो नखेत्रां मदें.....*
अिश्त्रेला : *आयज राज्य करता.....*
आस्तोल्फ : *आयज थंय राबितो करून आसा.....*
अिश्त्रेला : *आनी तांच्यो वाटो.....*
आस्तोल्फ : *तांचीं पावलां.....*
अिश्त्रेला : *दाखयता वर्णन करून.....*
आस्तोल्फ : *दरो आनी मापां-जोखां.....*
अिश्त्रेला : *सोड रे तीं खालत्या दुव्यान.....*
आस्तोल्फ : *सोड गो तीं म्होंवाळ वेंगेन.....*
अिश्त्रेला : *जशी वेल खांब्या-मुळा भोंवतणी आसता.*
आस्तोल्फ : *तसो तुज्या पांयां पडून पळे म्हाका.*
बाझिलयु : *भाचरांनो, येयात वेंगेंत म्हजे*
*आनी तुमीं खरें मानात कि म्हज्या मोगा*
*सांगणेक पाळो दिवून, आयलीं परतीं*
*मायेमोगान भरून अितलीं गिरेस्त,*
*कि कोणाकुच दिसचें न्हय गो तक्रारूंक*
*दोगांय तुमी पडटात सारकी जोडी.*
*आनी अशी, जेन्ना म्हाका फावतली*
*सुटका ह्या जड-जडावा वज्याची बेगीन,*
*त्या निमतान तुमकां फकत मागतां राखात*
*मौन शांत, जेन्ना तूस्त तोखणाय*
*मागतली गा येसान जोडिल्लें जैत –*

*जाणांत तुमी, आयकतात गो म्हाका,*
*म्हज्या भाचरांनो मायेमोगाच्या,*
*पोलंडाच्या सेश्ट दरबाऱ्यांनो,*
*मुंडकार, रिणकारांनो, अिश्टांनो,*
*तुमीं तर सगले जाणांत जालां फावो*
*म्हाका ह्या संवसारांत विद्येन म्हज्या,*
*मेळ्ळां आडनांव गिन्यानी पंडिताचें;*
*देखून काळा विचिरकाये आड,*
*तिमांतिस नांवान चित्रकले पिशोल,*
*आनी लिसिप्पु शिलप्याच्यो संगमरमरी,*
*ह्या जगांतल्या सर्वय मळां भोंवतणी*
*वाखाणटात म्हाका व्हड बाझीलयु म्हणून.*
*जाणांत तुमीं कि विज्ञानाक हांव चालना*
*दितां चडूच मान-मान्यस्तना,*
*सूक्षम गणीत आंकड्यां शास्त्रां तांचीं,*
*जांचेखातीर घालतां हांव जायतो वेळ,*
*जांचे पसून कीर्त लौकीक जोडून,*
*आवांठ आनीक वेवसाय-कर्तव्य हुपून,*
*शिकयतां चडूच वाडट्या दिसान दीस;*
*कित्याक, जेन्ना पळेतां म्हज्या बेड्यांक,*
*तांतूंत हाजीर कितल्यो दिसतल्यो*
*फुडाराक येतल्यां शेंकड्यां नवलायो.*
*जोडटां वेळा काळाक अपूप कृपा*
*सांगूंक जें कितें हांवेंच पारखिल्लें तें.*
*ह्यो आटयो वाटांगुळ्यो हीमाभरीत,*
*हीं कद्यां देणीं शिंश्यान घडयल्लीं तीं,*
*जीं सूर्य आपल्या किर्णांनी उजवाडायता,*
*जीं चंद्रिमाक गिरगिरायतात फोडून;*
*हे हिऱ्या गिरे गोल गुलगुलीत,*
*हे स्फटिकाचेच गुळे वाटकुळे,*
*जे तीं नखेत्रां नेटय-सजयतात,*
*जीं लख्ख झगझगायतात नखेत्र-घरां,*
*होच जावन गेलो व्हडलो अभ्यास म्हज्या*
*सगल्या लांबदीक जिविता काळांतुलो*
*जंय ते ग्रंथ हिऱ्या कागदाचे*
*नीळ मणीन घडयल्ल्या चोपड्यांचे*

बरोवन जाले वळींनी भांगराचे,
निवळ, वेगळ्या लिपीं अक्षरांनीं,
मळबार शिंवरावन आमच्या येसा जैत,
आडवाटेचे तशेच बऱ्या मार्गाचे.
वाचतां हांव ह्यो अितल्यो सडसडीत,
कि म्हज्या मतिंतल्यानूच धरतां वाट
तांच्या तुरतुरीत हालचालींची,
तांच्या वाटे-तिंट्या रस्त्यांवेल्या.
मळबावेल्यान पडिल्लो पावस तेन्ना
पयलें म्हजें जाल्लें जेन्ना उपकरण,
थंयच्या देगेंर आपलें सांगणें करीत,
आनी ताची पानां पानांर नोंद करीत,
जाल्लें म्हजें जिवीत तेन्ना लागून
त्याच वावराक पयलें विभाड गुल्ल,
ताच्या रागा किंवाट्यान आनीक तांतूंत
म्हजे जाल्ले भोगणार दुखांतिका,
कित्याक अभावीत मनश्यांक मेळटा थाकाय
अेकूच बरी म्हळ्यार सुरिये आदार,
कित्याक गिन्यानाक लागून दुर्दैव
भोगचें पडटा, आपल्याकूच गा मारून!
सांगतां तुमकां जरी चड बरें जातलें हांवें
जोडिल्लें येस दिसचें तुमचे मुखार,
परतें अेक फावट मौन मागतां हांव.
क्लोरिलेन, घरकान्नीक म्हजे जल्मलो
अेकलो बाबडो अभागी असो पूत,
जाच्या बाळांतेराक सगलो सर्ग
चिरंग्टून आयलो अजापभरीत,
सुन्दर उजवाडान भरचे पयलीं
दिलो ताका जिवंत काडिल्लो फोंड
तिच्या कुसव्याचो, कित्याक जल्म
आनी मरण, दोनूय अेकसारकींच म्हणून.
ताचे आवयेन अनंत फावटीं पळेलो
कल्पनांनी आनी लंवडत सुख-सपनांनी
न्हिदेंतुल्या, फोडून पिंजून तिच्या
अंतकड्यांतल्यान, धिरिश्ट हुरमटायेन
सरतालो भायर अेक राखेस मनीस-रूपान,

आनी भळभळीत आपल्या रगतान बुडोवन
तिका मारतालो मरण, जल्माक येवून,
ह्या युगांतुलो विखाळ मनीस-सोरोप.
पावलो अेक दीस ताच्या बाळंतेरा उपरांत
आनी पारखिल्लो फुडार खरेपणांतल्यान येवून,
(कित्याक वायटवे मनीस आयज ना फाल्यां
फटींग लटीक उतरतात चडूच करून)
जल्माक आयलो असले कुंडलींत
कि सूर्य, ताच्या रगतांत माखिल्ल्यानूच
आव्हान दीत रागा पारा नेटान
पडटालो आंगार झुजत चंद्रिमाचेर;
आनी पृथ्वी ताचे वाटेक आडो जावन,
ते दोनूय सर्गाविले दैवी फोलेर
झगडटाले सगल्या उजवाडाक,
जेन्ना येन्नाच हाताक नासले हात.
येदें व्हडलें सगल्यांत भयानक गिराण
केन्नाच ह्या आदीं सुर्याक लागलें ना,
क्रिस्त मरणा वेळा रगतान आयिल्लो
न्हांवून रडून मरत तेन्नाच्यान,
हें आयलें घडून, कित्याक, हुंवारून आयिल्ल्यान
सगली वाटांगुळी धर्तरी,
ह्या जिव्या भगभगीत उज्या आगट्यांत
दिसलें सगल्यांक भोगतलो ताका तेन्ना
निमाणो घरघर फडफड मरणाचो.
काळखी मळबां जावन गेलीं काळीं,
अिमारती घरां आयलीं कडकडून,
कुपांतुल्यान देंवलो फातरां पावस,
न्हंयेतुल्यान व्हांवल्यो रगता झरी.
ह्याच दुर्दैवी आवतिकायेंत, ह्या आमच्या
मरणादीक गृहांत वा नखेत्र-राशींत
जल्मलो तो सेजिसमुंद, आपलें
खाशेलें चिन्न दिवन रोखड्या रोखडें,
कित्याक मारलें मरण आपले आवयक,
जे वरवीं ताणें रागिश्टायेन म्हळें:
हांव दादलो गे, देखून हांव करतां सुरू
फारीग करूंक वायट बरीं देणीं.

म्हज्या अभ्यासा घेतलो आदार हांवें,
तांतूंत आनी हेर सगल्यांत दिसलें पळेवन
कि फुडाराक सेजिसमुंद जातलो, व्हय
एक दादलो खूब धिरिश्ट, अत्रेवीद,
अेक राजकुंवर भोवूच क्रूर-निश्टूर,
आनी राजा जाल्यार चडूच भ्रश्ट-वायट,
जाका लागून जातली ताची राजवट
पक्षपाती, फूट घालपी लोकांत,
विस्वासघातक्यां साळ दिसतली,
आनी विद्यासाळ सगल्या व्यसनांची;
आनी तो जाल्यार, आंपणा रागा किंवाट्यान
फुरफुरून, भयानक अजापान भरून
वायट करण्यांनी, म्हजेर दवरून
पांयें म्हाका आसलो भस्तितलो.
आनी हांव रे पांयां पडून शरण येवून,
पळेतलों आसलों (कितले दुखी खंतीन
सांगतां हांव हें तुमकां, सोंसूं नजो!)
जाल्ली जमीन ताच्या पावलांची,
म्हज्या मुखकमळाच्या रोमां रोमां.
कोण गा दी ना स्रेय त्या पाड-विभाडाक
आनी चडूच करून तो जो विभाड जो देखता
ताच्या अभ्यासांत, जांतल्यान येता कळून
कि करता म्हणून आपल्याच धंध्या मोग?
कित्याक, हांवें श्रेय दिल्ल्यान भाग्याक,
जें, फुडार पारखून सांगतालें खूब विभाड
भयानक घडणुकां दिश्टाव्यान, तेन्ना
जल्मल्ल्या राखेस-जिवाक बंद करून
दवरपाचें हांवेंच थारायलें निश्चीत,
पळेंवच्याकूच जर जाणकारांच्या बळार
जैत जोडूंक जातलें नखेत्र-विद्येर,
लायलें सांगूंक बांद-पेरगांव घालून
कि राजकुंवर जातनाच मेळ्ळो मेल्लो,
आनी जाग माग नासतां लायलें बांदूंक
अेक बुरिंज त्या खडबडीत सड्या तळपार
त्या दोंगरां पर्वतांच्या, ज्या जाग्यार फकत
कश्टान मेळटा वाट उजवाडाक,

*ताचें दार आडावन दवरचे खातीर*
*दाल्ळ्यो हांवें व्हडल्यो खडपां फातरी.*
*साबार गंभीर ख्यास्ती जाहीर करून,*
*कायदे कडकडीत जे हांवें भोवशीक*
*फर्मणां काडून केले, ते सांगताले*
*कि कोणेंच वचून आडायल्ले सुवातेर अेकेच*
*पांय दवरचे न्हय त्या वसाड दोंगरार,*
*हें करचीं कारणां सगलीं सांगलीं तुमकां.*
*थंयच बाबडो जियेता सेजिसमुंद,*
*दुर्दशेंत, दुर्बळ, कैदी कसो,*
*जंय फकत क्लोताल्द, अेकलोच ताचे लागीं*
*उलयता, पळेता आनी करता परामर्स.*
*हाणेंच ताका विज्ञान काडलां शिकोवन,*
*हाणेंच ताका क्रिस्तांव धर्मांतुले*
*सांगल्या धडे, तो ताच्या दरबारांत*
*अेकलो अेकसुरोच ताका आसता गवाय.*
*तीन गजाली हांगासर आसात: अेक म्हळ्यार,*
*कि हांव, पोलंड राज्याक मानतां अितलो*
*कि तुमकां हांवूच सोडोंवक आंवडेतां*
*त्या चेपणांतुल्यान आनी सेवे-चाकरींतुल्यान*
*त्या दलपती-पुंडू हुकुमशाव्चे, कित्याक*
*तो बरेलो धनी केन्नाच जाल्लो ना,*
*जाणें आपल्या देसाक आनी आपणा साम्राज्याक*
*येद्या व्हडल्या संकटांत घालें.*
*दुसरी म्हळ्यार नियाळपाची गजाल,*
*जर म्हज्या रगताक दवरला जाल्यार राखून*
*हक, जो दिला ताका मनश्यान, देवान,*
*ती क्रिस्ती दान-धर्माची गजाल न्हय;*
*कित्याक खंयच्याच कायद्यान सांगलें ना*
*कि हांवें दुसऱ्याक पुंडू आनी धिरिश्टाक*
*राखचो जाल्यार, म्हज्यान करूं येता तशें,*
*अशें धरल्यार कि जर म्हजो पूत पुंडू*
*आसल्यार, कित्याक तो करीना वायटां चड,*
*हांवूच पावतां तें वायट करतूप करूंक.*
*आनीक निमाणी आनी तिसरी गजाल म्हळ्यार*
*पळेवपाक जाय कितली चूक आसा ती*

*सोंपेपणान श्रेयच दिवचें आसल्यार*
*त्या फुडाराक येतल्या घडून कितल्या येसांक;*
*कित्याक अजून ताची वृत्ती ताचे*
*मर्णकटे थारायतात ते, तांचेर*
*तो जैत जोडूंक घडये पावलो ना जायत,*
*कित्याक कितलेंय पयसावल्लें नशीब-भाग्य,*
*कितलीय हिंवसक वृत्ती मारेकार ती,*
*कितलेंय भश्ट वायट सांगपी गृह,*
*फकत वळटात मेकळे अित्से वटेन,*
*ती अित्सा वळूंक करीनांत जबरदस्ती.*
*आनी अशें अेका-दुकल्या गजालीं भितर,*
*थिल्लार आनी येवजून भासाभास करतल्या मदीं,*
*येता आडबारें कशें अेक वखद असलें*
*जें सगल्यां अिंद्रियां-विस`व्यांक धरता आडावन.*
*हांव धांवतलों बसोवन ताका फाल्यां मेरेन,*
*कळनासतना ताका तो म्हजो पुत म्हण*
*आनी तुमगेलो जांवचो राजा, ह्या सेजिसमुंदाक,*
*(जें ताचें नांव जावन आयलां आतां मेरेन)*
*म्हज्या गोपांतले बसकेर, म्हजे कदेलीर,*
*आनी निमाणेंकडेन, म्हज्याच खाशेल्या जाग्यार,*
*जंय थावन हक्कान तो राज्य करतलो*
*आनी चलयतलो अधिकार तांचेर, जंय सगले*
*ताका शरण येवून दितले पाळो*
*म्हणून नमळायेन तुमी घेतले सोपूत.*
*मांडटां तुमचे मुखार, तीन गजाली,*
*जांच्या आदारान हांव तुमकां जाप दितां*
*हेरां तिनांक ज्यो हांवेंच सांगल्या आदीं.*
*पयली म्हळ्यार विचखेणायेचो जावन,*
*शाणेपणाचे आनी मोगाळ विचार करून,*
*पारख्यान नशिबान सांगिल्लें तें सगलें*
*फट म्हणपाचें थारावन दाखोवन जाणें*
*कितल्योश्योच गजाली सांगिल्ल्यो ते विशीं,*
*तुमचोच राजकुंवर जल्मा हक्कान*
*तुमकां मेकळो भोगूंक जातलो फावो,*
*जाणें केलां दरबार दोंगरां माथ्यार,*
*तांतल्या रानवट मोनजातींक सांगात*

*दिवून बाबडो पडला तांचेच दशेर.*
*दुसरी गजाल म्हळ्यार ही, कि जर तो,*
*गर्विश्ट, धाडशी, धिरिश्ट, क्रूर, निश्टूर*
*सैल सुटून सगल्याक आसतना,*
*धांवत आपलीं व्यसनां आंगार घेवून,*
*हांव रे तेन्ना, दयाळी म्हज्या मनान*
*म्हजें कर्तव्य पाळ्ळें म्हणून मानूं;*
*आनी रोखडो मागीर ताका धना-मेकळो*
*करून अजिंक्य राजा करतलों;*
*ताका परतो धाडल्यार बंदखणींत,*
*क्रूरताय न्हय बगर जातली ख्यास्त.*
*आनी तिसरी गजाल म्हळ्यार कि राजकुंवर*
*तुमकां सांगल्या प्रमाणें तसो आसून,*
*मुंडकारांनो, तुमचो मोग आशिल्ल्यान,*
*तुमकां दितलों अदीक लायक राजा*
*त्या मुकुटाक आनी त्याच राजदंडाक सोबचो*
*आनी तीं तर जातलीं म्हजीं दोगांय भाचरां.*
*जोडटां अेकांत हक, दोगां जाणांचो,*
*राजी जाल्ल्यान लग्न बांदपास जोडूंक*
*मेळटलें तांकां जें तांकांच फावता तें.*
*हो सोडटां हुकूम राजा जाल्ल्या अधिकारान*
*मागतां हेंच बापूय जाल्ल्या नात्यान,*
*हेंच जाणार जाल्ल्यान प्रार्थितां,*
*हेंच सांगतां जाण्टो जाल्ल्या आदारान;*
*आनी जरूय स्पेयनचो सेनेका, कायदे-पंडित,*
*जो खालतो चाकर जावन आशिल्लो, सांगता*
*आपल्या लोकराज्याच्या अेकल्याच राजाक,*
*चाकर रुपान तेंच हांव मागतां तुमकां.*

आस्तोल्फ : *जर जाप दिवपाचो हक आसता म्हाका,*
*म्हजे संबंदीं, खऱ्यांनीच फावो तसो,*
*कित्याक तांतलो हांव संबंदीत म्हणून,*
*सगल्यां नांवान व्हडल्यान सांगतां हांव,*
*कि सेजिसमुंद येवूंक जाय उग्ताडार,*
*ताका पूरत तुमचो पूत जावन.*

सगले : *दी गा आमकां आमचो राजकुंवर,*
*जाका राजा म्हणून मागतांव आमीं.*

बाझीलयु : *मुंडकारांनो, ही तुमची अति-अपुरबाय*
*हांव उपकारान भरून मानून घेतां.*
*वांगडा वचात तुमीं तुमच्या राबित्याक,*
*दोगांय म्हजें वजें-ल्हव-करप्यांनो,*
*कि फाल्यां सकाळीं तुमी गो पळेतलीं.*
सगले : *जैत जांव, व्हड राजा बाझीलयु!*

(सगलीं भितर सरतात, राजा भितर येवचे पयलीं क्लोताल्द, रोज़ावरा आनी क्लारीन थंयच्यान येतात आनी तीं राजाक आडायतात.)

## देखावो सातवो

क्लोताल्द : *म्हज्यान तुमचे लागीं उलोंव येता, व्हय?*
बाझीलयु : *क्लोताल्द, तुका सदांच येवकार!*
क्लोताल्द : *तुमगेलीं पावलां पडून येतात म्हळ्यार*
*बळग्यान तुमच्या दाखोवन दिल्लें आदींच,*
*ह्या वेळार तरी फोडून उडयात, सायबा,*
*तें नशिबा-कर्म दुखेस्त विसरायेचें,*
*कायद्र्यां नेमांक दियात सवलती मान,*
*आनी चालीं-रितींक लायात नवें वळन.*
बाझीलयु : *कितें आसा तुका सांगचेलें, तें सांगशी?*
क्लोताल्द : *अेक वायट गजाल, सायबा, निकतीच आयली*
*घडून, तिचो परिणाम वांट्याक म्हज्या,*
*जेन्ना म्हज्यान तीच गा आडांव येताली*
*आमचे व्हडले बरवे खोशालकायेक.*
बाझीलयु . *सांग रे फुडें, क्लोताल्द, हांव आयकतां.*
क्लोताल्द : *हो पळे दिसता शिरवंत तरणाटो,*
*धाडशी, घडये जतनाय घेनासतना,*
*वयल्या बुरंजांत सरलो भितर, सायबा,*
*जंय ताणें राजकुंवराक घेतलो पळेवन.*
बाझीलयु : *घाबरून भियेवन वचपा गरज ना, क्लोताल्द,*
*जर दुसरो दीस जाल्लो जाल्यार, घडये,*
*कबूल करतां, म्हाका तें लागतलें आसलें;*
*पुण आतांच अेक गूठ तुका सोडटां सांगून,*
*ताका खबर कळ्ळ्यार पर्वा ना,*

*मानलें जाल्यार तो तुका सांगलो हांवें,*
*मेळचो म्हाका मागीर, कित्याक आसात*
*गजाली तुका जायत्यो शिटकावचेल्यो,*
*आनी जायत्यो म्हजे खातीरूय करचेल्यो;*
*कि जातलो तूं, खऱ्यानींच, सांगतां तुका,*
*साधन म्हळ्यार व्हडले घडणुकेचें,*
*जें येस संवसारांत भोवूच क्वचीत;*
*आनी ह्या कैद्यां खातीर, कित्याक निमाणें तुवें*
*समजुंचें न्हय कि तुमचे बेपर्वा पासत*
*लायतां म्हणून ख्यास्त, हांव भोगशितां.*
(वेतात)

क्लोताल्द : *व्हड सायबा तुमी, हजार वर्सां जियेयात!*

# देखावो आठवो

क्लोताल्द (आस्वडीं) : *(सर्गा नखेत्रांनी सुदरायलें नशीब.*
*तूं म्हजो पूत म्हणून हांव मानचो ना,*
*कित्याक म्हज्यान तुका भोगसूं येता.)*
*वाटसुरांनो, परदेश्यांनो, आयकात,*
*तुमकां मेकळीक केल्ली आसा फावो.*

रोज़ावरा : *तुमच्या पांयांचे उमे घेतां, सायबा,*
*हजार पावटीं नमळायेन पडून.*

क्लारीन : *हांव जाल्यार रे तांकां पळेवन घेतां,*
*हें अेकूच उतर तरी उणें पुणें*
*दिसना दोगां अिश्टांक घेतलें सांधून.*

रोज़ावरा : *सायबा, तुमी म्हाका जिवीत दिलें;*
*आनी जो मेरेन तुमी जीवे आसतले,*
*तुमचोच सदांच चाकर सासणा सासणाक*
*जावन रावतलों गा अनंत फुडाराक.*

क्लोताल्द : *तशें म्हळ्यार जांवचें नासलें खरें*
*जें हांवेंच तुका खोशयेन दिल्लें दान,*
*कित्याक बऱ्यान जल्माक आयिल्लो मनीस*
*जियेना अपमानाक तो सांपडत जाल्यार,*
*आनी समजूंया तूं आयला म्हणून हांगा*
*अेका अपमानाचो सूड घेवूंक नेटान,*

*जशें तुवेंच म्हाका सांगून दिलां,*
*हांव रे तुका जिवीत दिंवचो नासलों,*
*कित्याक तुवें ताका नाडिल्लो ना;*
*आनी बदनामी जिवीत म्हळ्यार जिवितुच न्हय.*

(आस्वडी) : *(बरे भाशेन त्या नाड्यार हुस्कायतां.)*

रोज़ावरा : *कबूल करतां कि तुमचे कडल्यान म्हाका*
*अजून फावो तसो येवकार मेळ्ळो ना,*
*पणून हांव म्हजो सूड घेवन म्हजो*
*मान भोवमान अितलो नितळ करूं*
*कि जें जिवीत म्हजें जावचें रोखडें अशें*
*अपमानांक सगल्या माड्डून उडोवन*
*दान दिल्लें तुमचेंच दिसचें खरें.*

क्लोताल्द : *घे ती चकचकीत तिख्या तरसाद,*
*जी हाडल्या वांगडा तुवें, हांव रे जाणां.*
*ती पुरो म्हणून, तुज्या दुस्मानाचें*
*रगत माखिल्ली, तुजो सूड घेंवक;*
*कित्याक म्हजें तिखें जाल्लें तें*
*(ह्या खिणाक सांगतां तुका होच बरो वेळ*
*जो म्हजे सुवाधीन आतां दवरला गा)*
*जें अपमानाचो सूड घेंवक जाणां.*

रोज़ावरा : *तुमच्याच नांवान, सायबा, तुमचेच वतीन,*
*ती तरसाद वावुडटां गा दुसरे फावटीं,*
*आनी तिचेर सोपूत घेतां सूड म्हजो,*
*दुस्मान म्हजो कितलोय आसलो बळिश्ट*
*जाल्यार लेगीत, धिटायेन घेतलों हांव.*

क्लोताल्द : *तो खऱ्यांनीच खूब बळीश्ट दिसता तुका ?*

रोजावरा : *तो अितलो बळीश्ट गा, कि सांगूं नाका,*
*न्हय गा कित्याक तुजे विचखेणायेन*
*पातयेना हांव ताचेवोन व्हडल्यो गजाली,*
*पुण फकत कित्याक परतुंचे न्हय म्हणून*
*म्हजेर आड तुमींच केल्ले उपकार,*
*जे तुमच्या दयाळ मनांत तोखेतां हांव.*

क्लोताल्द : *घडये चडूच जातलें आसलें बरें*
*तें सांगल्यार तुका म्हज्याच फायद्याचें;*
*कित्याक तें पावल म्हजें धरतलें*
*आदार दिवूंक तुज्या दुस्मानाक !*

(आस्वडी) *(ओह, जर कळिल्लें आसलें तुका तूं कोण!)*
रोज़ावरा : *कित्याक चिंतचें न्हय गा तुवें कि लेखला*
*हांवें भोव उणो तुजो हो विस्वास म्हजेर,*
*ताचे उलट जाल्लो, जाणां, उणो न्हय,*
*पणून आस्तोल्फ, मोस्कोवयाचो सरदार.*
क्लोताल्द : *(हें दुख म्हज्यान सोंसूक जायना कशेंच*
(आस्वडीं) *कित्याक हांवें कल्पिल्ली ताच्याय परस*
*पाश्ट दिसता गजाल, पळेतां हांव.*
*ही गजाल पळेंवया आमी विस्कटावन.)*
*जरी तो मोस्कोवांत आयिल्लो जल्माक*
*तो थंयचोच सैंबा-धनी जाल्ल्या कारणान,*
*कोणाचोच ताणें जायना करूंक अपमान,*
*देखून, वच रे परतो तुज्या देसाक,*
*सोडून दिवन हो खतखतीत आंवडो,*
*जो तुज्या मना शांती उडयता झडपावन.*
रोज़ावरा : *हांव गा जाणां, सायबा, बरे भाशेन,*
*हांव लेगीत राजकुंवर जाल्लों जाल्यार,*
*म्हज्यान करूं येतालो कोणाचेरूय अपमान!*
क्लोताल्द : *म्हज्यान जायना घालूंक, आयकता,*
*कितलीय अित्सा आसली जाल्यार लेगीत,*
*धाडसान हात तुज्या मुखकमळार.*
(आस्वडी) *(हाय, कटा, कटा, देवा म्हज्या!)*
रोज़ावरा : *अपमान म्हजो ताच्याय परस व्हड.*
क्लोताल्द : *सांगलें तुवें, कित्याक तुज्यान आनीक*
*जायना म्हणूंक चड, हांव येवजीतां.*
रोज़ावरा : *तुमी तशें म्हळेंच म्हणून; पुण हांवूच*
*नकळों कसल्या मानान पळेतां तुमकां,*
*कितल्या मायेमोगान मानतां तुमकां,*
*कितले अपुरबायेन धरतां उखलून,*
*कि धाडजनां गा उतरांनी तुमकां सांगूंक*
*कि हें भायर दिसतें आंगलें घाल्लें हांवें*
*गूढ कशें, कित्याक तें न्हयच न्हय*
*जाचें दिसता तशें. थारायांत, शिटकावणी*
*मेळिल्ल्यान, जर हांव ना जाल्यार दिसता तसो,*
*आनी आस्तोल्फ आयिल्लो लग्न जांवक अिश्त्रेला लागीं,*
*म्हजो अपमान करीना जाल्यार.*

*खोशी जालीं हें सांगलें म्हणून तुमकां.*

(रोज़ावरा आनी क्लारीन कडसरून वेतात)

**क्लोताल्द** : *आयकून घेयात, रावात मातशीं, थांबात!*
*कितलो घुस्पागोंदळ चक्रव्ह्यु हो!*
*जंय रजांवान जायना होल्मूंक सुता-धागो!*
*मान म्हजो सांपडला अपमानाक,*
*तो दुस्मान भोवूच बळिश्ट सत्ताधारी,*
*हांव ताचो दास जाहगीरदार, ती बायल!*
*सर्गानूच गा सोदची वाट हाचेर;*
*नाल्यार तें जातलें जाल्यार हांवूच नेणो,*
*जेन्ना ह्या अितल्या गोंदळी जंवजाळांत*
*आसता सर्गार अेक फुडार पारखणी,*
*आनी सगलो संवसार आकांताचें आश्चर्य.*

# दुसरो आंक

(राजा बाझीलयु आनी क्लोताल्द येतात)

## देखावो पयलो

क्लोताल्द : *तुमी फर्मायल्लें तशें, सगलें, सायबा,*
*निकतेंच, रोखडें हांवें घेतलें करून.*

बाझीलयु : *सांग रे, परसून म्हाका, क्लोताल्द-बाब,*
*कशे रितीन तें सगलें आयलें घडून.*

क्लोताल्द : *तें आयलें घडून, सायबा, अशे भाशेन:*
*तुमी फर्मायल्लें जशें करपाखातीर*
*तसलें खाशेलें पिवण घेवन रूचीक,*
*जें भरिल्लें साबार उपयोगी जिनसांनी,*
*जांतूंत मिसळ केल्ले जायते गूण*
*कांय वनस्पती झाड-पाल्याचे दळून,*
*जाचें पुंडू बळगें कडकडीत,*
*आनी जांची गुपीत बळादीक आप-शक्त*
*अशी, मनश्या चिंतप उलौवप ना करून*
*काडून घेता, चोरून, वेगळायल्ले भशेन,*
*जें मनश्यागेले सामके फाटीक लागून*
*तांचें करता खऱ्यानींच जिवंत मडें,*
*जाची हिंसा-वृत्ती न्हिदिल्ले कडेन*
*अिंद्रियां आनी शक्ती काडटा तोडून....*
*(चर्चा हाची करपाक आमकां नाका*
*तें सगलें शक्य जायत आसता जाल्यार,*
*कित्याक कितले फावटीं, सायबा, आमच्या*
*खाश्या अणभवानूच सांगलां आमकां,*
*आनी तेंवूय घडये खरेंय, कि वैजकी गिन्यान*
*सैंबीक गुठांनी भरिल्लें आसा गच्च,*
*आनी खंयचीय भोनजात वनस्पत नासतली*
*वा फातर आपलो-सो गूण निश्चीत नासून,*
*आनी तपासून घेंवची जाल्यार हजार विखां*

*जीं मनश्यागेल्या वायट मना नाङ्यार*
*पावयत आसतात आमकां मर्णा वटेन,*
*जायतीं आसतलीं तीं, तांची हिंसा*
*जाल्ल्यान थोडी उणी, कित्याक विखां*
*आसतात जीतीं मारून उडोवपाचीं;*
*पुण कांय विखां फकत घालतात न्हीद ?*
*दुबाव सगले येता ते कुशीन सारून,*
*जर अशेंय येवपाक घडून शक्य आसत,*
*कित्याक सिद्ध करून जाल्लें आसा*
*दिवन अस्सल कारणां रूजवाती....)*
*तें खाशेलें पिवण घेवन, तेंच तें अफीम*
*जें कोणाकूय घालता न्हीद, चरसा पाळ,*
*देंवून हांव गेलों ते अशीर काळखे कुडींत*
*सेजिसमुंद आशिल्ले बंदखणीचे,*
*ताचे लागीं अिल्लें उलयलें हांवें*
*थोडोच वेळ ते विशीं शिक्षणाच्या*
*मनश्यागेल्या जें ताका भ्रमीत दिलां*
*दोंगरां-मळबा-भरीत मोन्या सैबान,*
*जांचे वयर आशिल्ले दैवी साळेंत*
*शिकलो तो रीत उलोवपा भाशणाची*
*सुकण्यां आनीक राना मोनजातींकडल्यान.*
*आत्म्याक ताच्या अदीक उखलचे पासत,*
*तुमी मागयल्ल्या व्हडल्या कार्या खातीर,*
*घेतलो हांवें आशय-विशय वेग*
*पाखांभरीत उडटे घोणीगेलो,*
*जी वाऱ्या पर्वा करीच नासतना*
*उडटाली, उज्याच्या वयल्या भागांत,*
*पाखां किरण कशें सुटिल्लो धुमकेतु,*
*त्या उंचल्या उडणाक तोंड दिवून हांवें*
*केल्ली सांगणी अशी : ''निमाणेकडेन*
*राणी जाल्यार ती सुकण्यां-सवण्यांची,*
*आनी तशें जाल्ल्यान सगल्यांक दिसता सारकें*
*कि तुकाच पयलें प्राधान्य दिंवचें म्हणून.''*
*चडूच करपाचें तर दिसना गरज,*
*कि राजा तुमचे संबंदीं गजाल करून,*
*वान्सेन आनी गर्व-अभिमानान सांगचें म्हळ्यार;*

*कित्याक, खरें सांगचें जाल्यार, हें रगत*
*ताका हुस्कायत, हालयत फुरफुरायता*
*व्हडलीं साहसां करचीं, देखून म्हणटां:*
*"सुकण्यां सवण्यां अस्वस्थ अश्या व्हडल्या*
*राज्यांत खऱ्यानींच आसतले जायते जाण*
*जे तांच्या उतराक उल्याक दितले पाळो!"*
*हे रीतीन उलोंवक सांगूंक पावचे म्हणून*
*दुर्दैव म्हजें म्हाका भुजवण दितां;*
*कित्याक, उणेंच म्हळ्यार, जर हांव हांगा*
*हेरांचेर अवलंबून, लागून आसलों जाल्यार,*
*बांदिल्लों आसां म्हणून जबरदस्तीन;*
*कित्याक आप-अित्सेन तर जाल्लें जाल्यार*
*हांव दुसऱ्यां मनश्यांगेलो जांवचो नासलों.*
*पळेल्ल्यान ताका, ताणशेल्लो चडूच रागान,*
*हाकाच लागून, जो विशय जांवक पावला*
*ताच्या दुखाचो, ताचे भलायकेखातीर*
*मारून उखल्लो पेलो पिवणाचो*
*तो फकत व्हेलो आयदनांतलो सोरो,*
*हाड्ड्यांकडेन पियेता कसो दाखोवन,*
*जेन्ना आपली शक्त गळसणून*
*पडलो शरण निखट्या सपनांत, ताच्या*
*सांध्यांतुल्यान, शिरांतुल्यान व्हांवलो*
*थंड घाम, म्हाका कळूंक नाशिल्लें*
*जाल्यार खरेंच फीकी मरण म्हणून,*
*दुभाव आसतो ताचे जिणे विशीं.*
*हें म्हणटा म्हणसर पावता ते लोक जांच्या*
*तुमीं पातयेतात मोल-अणभवाचेर;*
*आनी ताका रोखडो बसोवन घोड्या-गाडयेंत,*
*व्हरतात ओडून तुमचे कुडी मेरेन,*
*जंय गा शिटकावणी दिल्ली आसली राजाक,*
*तांचे व्यक्तीक फावो आशिल्लो थाट,*
*व्हडवीक, दबाजो, संभ्रम दिंवचो म्हणून,*
*थंय आतां तुमचे बाज्जेर भेट्टात ताका,*
*जेन्ना वेळ तशेंच आळसायेन*
*शक्त वगडावन बशिल्लो आसता पडून,*
*जशें तुमकां आतां घडलां, सायबा,*

*तुमी फर्मायल्या तशी करतात सेवा.*
*आनी तुमींच सांगिल्लें उतर पाळ्ळें म्हणून,*
*जरीय किताब-अिनाम मेळचो म्हाका*
*आसल्यार, तुमकां मागूंक सोदतां अितलेंच*
*(धीर केल्ल्यान हांवें, मागतां माफी)*
*सांगात म्हाका तुमचो बेत कितें,*
*अशे रीतीन धरून हाडचे खातीर*
*सेजिसमुंद-बाबाक राजवाड्यांत.*

**बाझीलयु** : *क्लोताल्द-बाब, खुबूच खरो न्यायी*
*दुभाव तुज्या मनांतुलो, आनी म्हाकाय*
*जाय तुजें समाधान केल्लें अेकांतांत.*
*सेजिसमुंद, म्हज्या पुताक बाबड्या,*
*ताच्या नखेत्रांच्या प्रभावा खाल,*
*तूं तर जाणां, हजार दुर्दैव भोगणार*
*फावचे आसात म्हणून धमकायता भाकित.*
*तपासून घेंवक सोदतां हांव जरी सर्ग*
*(सांगता फटी अशें दिसना शक्य,*
*आनी दिल्ल्यान ताणें क्रूर सबावा भितर*
*कितल्यो रुजवाती, पती निबरायेच्यो,*
*ह्या आदीं ताणें खुब दाखयल्ल्यो आसून)*
*मिटयता वा घालता जाल्यार आळाबंदा,*
*उणें करून, ताका जिखून घेवून,*
*धिटाये-धिरान आनीक विचखेणायेन*
*भाकित घेंवचें फाटीं, कित्याक मनश्यानि*
*नखेत्रांचेर जैत व्हरचे खातीर.*
*हाचीच तपासणी करूंक सोदतां हांव,*
*हाडून ताका हांगा कळचें सगल्यांक*
*तो पूत म्हणून म्हजो, आनीक जंय*
*आपल्या गुणांची दिंवची ताणें गवाय.*
*जर आपणा व्हडा मनान जिखलो जाल्यार,*
*पावतलो तो करूंक राज्य; पणून*
*जर दाखयलो जाल्यार अेक क्रूर, पुंडू मनीस*
*आपले बंदखणी कडेन परततलो.*
*आतां तूं गा विचारतलो म्हाका*
*हो प्रयोग करचे खातीर, उल्लें कित्यांत*
*म्हत्व हाडूंक ताका असले रीतीन*

*हांगासर न्हिदिल्ले अवस्थेंत आसतना ?*
*आनी तुजें समाधान करूंक सोदतां हांव*
*प्रस्नाक सगली सविस्तर जाप दिवून.*
*जरीय ताणें मानिल्लें जाल्यार कि आपुण*
*पूत म्हजो, आतां आनी फुडल्या सकाळीं*
*दुसरे फावटीं परतो सकला पडून*
*आपले बंदखणीक आनी दुर्दशेक,*
*ताका खात्री आसली असले स्थितींत*
*लोळून आपुण तांतूंत जातलो निरास;*
*कित्याक, जाणा जावन कोण आसा तो,*
*कसली भुजवण मेळटली आसली ताका ?*
*आनी अशे रीतीन दवल्ल्यार दिसता बरो*
*उगतो सगल्या वायटाक हो दारवंटो*
*सांगूंक सपनेल्लें जितलें पळेल्लें तें.*
*हें घेवन दोन गजाली तपासतले :*
*पयली गजाल ताची आवतिकाय;*
*कित्याक जागोच आसतां तांकता वाट,*
*सगलें कल्पिता आनी करता विचार;*
*आनी ताची भुजवण म्हळ्यार दुसरी गजाल;*
*जरीय पाळ्ळें उतर ताचें आतां,*
*आनी मागीर परतो धाडलो बंदखणीक,*
*सपनेला दिसून येतलें ताका, खऱ्यानींच,*
*आनी तशें कळ्ळ्यार ताका चड बरें जातें,*
*कित्याक ह्या संवसारांत, क्लोताल्द-बाबा,*
*जे मनीस जियेतात ते सगले सपनेतात.*

क्लोताल्द : *कारणां उणीं पडनांत म्हाका सांगूंक*
*सिद्ध करून कि हें तुमचें बसना सारकें.*
*पणून आतां तर वखद ना ताका कसलेंच*
*आनी ताच्यो जश्यो कुरवो करतात कळीत,*
*तो दिसता जागो जाला सपनांतुलो*
*आनी आमचे लागीं येत आसा चमकून.*

बाझीलयु : *हांव रे सोदतां हांगाचो कडसरूंक,*
*तूं तर ताचो आदारी जाल्ल्यान पुरो,*
*आनी अितल्या सगट घुस्पागोंदळांतुल्यान*
*जो मातला ताच्या उलोवपा भोंवतणी,*
*सत्य आसा तांतलें उडय काडून.*

| | | |
|---|---|---|
| क्लोताल्द | : | *निमाणेकडेन, दितात म्हाका परवानगी* |
| | | *हें सगलें तुमकां सांगून दिवूंक, व्हय?* |
| बाझीलयु | : | *व्हय, दितां तुका परवानगी हांव,* |
| | | *कितें जातलें तें हांव जाणां जाल्ल्यान,* |
| | | *जशें तें संकट वळखून घेतल्यार बरें,* |
| | | *चड्डूच सोंपेपणान जातलें जिखूंक.* |

(वेता आनी क्लारीन येता)

## देखावो दुसरो

| | | |
|---|---|---|
| **क्लारीन** (आस्वडी) | : | *(चार खुंटयां फाटीर बसून परपटो* |
| | | *हांगासर येंवच्याक पडलें म्हाका खुस्तार,* |
| | | *तांबड्या गुंज जाल्ल्या बेबद्या भशेन,* |
| | | *जाणें खंय वाड्यल्लें आपलें खाड रंगीत* |
| | | *कितें चल्लां तें पळेवपाक जाय रे म्हाका;* |
| | | *कित्याक तर जनेल ना अितलें चडूच निश्चीत* |
| | | *मागनासतना व्हॉवळिकेची भीक* |
| | | *अेक मनीस आपल्या वांगडा हाडटा घेवून;* |
| | | *कित्याक सगल्या परबांक हाजीर जांवक* |
| | | *कांयच घेनास्तना कसलीच ना आडखळ.* |
| **क्लोताल्द** (आस्वडी) | : | *(होच तो दिसता क्लारीन, ते चलयेगेलो* |
| | | *चाकरमानाय, देवा धनया म्हज्या,* |
| | | *ते दुर्दैवाचे वेपारी वाटसुरेचो* |
| | | *जी गेल्ली पळून पोलंडाक दुखोवन म्हाका.)* |
| | | *क्लारीन, तुवें नवीदाद हाडल्या कितें?* |
| **क्लारीन** | : | *व्हय तर, नवीदाद आसाच, धनया म्हज्या,* |
| | | *तुमी गा, तुमचे व्हडले दये-मायेन,* |
| | | *रोज़ावराचेर जाल्ल्या सगल्या अपमानां* |
| | | *सूड घेंवक जाल्ले जाल्यार राजी,* |
| | | *बुद्ध सांग गा मात्शी पराथून तिका* |
| | | *धारण कर म्हण खरेलो वेस तिचो.* |
| **क्लोताल्द** | : | *तें रे खरेलें तुगेलें, बुद्ध बरी,* |
| | | *फकाणशें दिसचें न्हय म्हण उपाय तो.* |
| **क्लारीन** | : | *ताचे वयल्यान फुडें वचून ताणें* |

*आपलें खरेलें नांव गा घेतलें बदलून,*
*म्हणटा आतां आपुण भाची तुजी,*
*आयज तें वोत्ता भोवमानाच्या नेटार*
*आनी जियेता भितर राज्या राजवाड्यांत*
*अिश्त्रेला-बाये, हे खेरीत कुंवरीची*
*भोवूच अपुरबाये सखी कशी.*

क्लोताल्द : *ही गजाल बरी कि अेकदां तरी ताणें*
*बाबड्यान खऱ्यानींच जोडचो मान-भोवमान*
*म्हज्या खुस्तार निर्दास्त खोशालकायेन.*

क्लारीन : *खरेंच तें रावता आशेन खतखतीत*
*येतलो म्हणून वेळ तशेंच निमीत,*
*जेन्ना आपलो मान परगट्टलें.*

क्लोताल्द : *ही जाल्यार करणी दिसता भोवूच शाणी,*
*निमाणेकडेन दितलो दाखोवन गवाय*
*वेळ जाणें घेतले असले उपाय.*

क्लारीन : *खऱ्यानींच तिचो चडला नेट, सायबा,*
*राणये परीं जाता सेवा तिची,*
*तुमगेली भाची म्हणून तिका मानून;*
*आनी बाबडो हांव गा मरतां हांगासर भुकेन,*
*तिचेच वांगडा झरत येवून लेगीत,*
*कोणूच्च कबूल जायना म्हाका पावूंक,*
*ध्यानांत घेनासतना कि हांव तो क्लारीन,*
*आनी असलो क्लारीन जो भोवूच सपनेता*
*कानार घालूंक कितें घडटा तें*
*राजा, आस्तोल्फ आनीक अिश्त्रेला, हांच्या;*
*कित्याक क्लारीन आनीक वावराडी,*
*दोन वस्तू जांच्यांत आस्पावता*
*गुठांतुलें जायतें वायट करतूब;*
*आनी जांव येता गा तुज्या हातांतुलें*
*मौन, हीं दुखेस्तं उतरां म्हजें गायन:*
*कोरनेत जी चिरता पड्डो फांत्यावेलो*
*सपनेना गा चडूच बरो फुडार.*

क्लोताल्द : *तक्रारेंत तुजे भोवूच जीव;*
*समाधानान ती थाऱ्यार घालतलों.*
*सध्या तुवें करची सेवा म्हजी.*

क्लारीन : *हो पळे, सायबा, पावलो सेजिसमुंद.*

# देखावो तिसरो

(वाजंत्री-मूज़्ग गायत, वाजयत येतात आनी वावराडी येवन सेजिसमुंदाक न्हेसूंक दितात. तो येता अजाप-भरीत जाल्ले भशेन.)

**सेजिसमुंद** : *वयर सर्गावेल्यान, पळेतां कितें,*
*वयल्या मळबावेल्यान, दिसणें कसलें?*
*रोखडोच अज्यापभरीत पावतां अतोज*
*कितल्याश्याच दुभावांनी सत्मानितां.*
*हांव गा भरभराटी राजवाड्यांनी?*
*लिवलिवीत लुगटां-वस्त्रां वोटयेंत?*
*हांव गा रेवडन चाकर मानायां मदें*
*जे कितले हुश्यार, उजवाडीत, धिरिश्ट?*
*हांवूच तो न्हिदेंतुलो जागोवन येतां*
*उत्तम मोव-मोवाळ बाज्जेवेल्यान.*
*हांवूच गा तो अितल्या लोकां मदें*
*जे बोवाळटात सगले न्हेसोंवक म्हाका?*
*सपनेतां म्हणपाकूच भ्रम गा;*
*जरी हांव तो जाणा जागोच आसां बरो,*
*हांवूच सेजिसमुंद न्हय गा खरो?*
*सांगात सर्गांनो, फोडात गूढ हो!*
*थारायात म्हाका; कसलो कितें जांव येत*
*म्हज्यान, जेन्ना आयलें दिसा-सपन*
*दिस-उजवाडा न्हिदेंत आसतना,*
*जें हांगाच म्हाका मेळ्ळें भाग्य पळेंवक!*
*कि कितेंय जाता तितलेंय जांव खऱ्यानींच*
*कोण गा धांवडांवक धाडजतलो म्हाका?*
*सोडात म्हाका सेवा चाकरी करूंक*
*आनी येंवदी कितेंय अरीश्ट येता तें म्हजेर!*

**दुसरो वावराडी** : (आस्वडी, पयल्या वावराड्याक आनी क्लारीनाक लेखून)
*कितलो व्याकूळ दुखेस्त जावन आसा तो!*

**पयलो वावराडी** : *व्हय गा, सायबा, बाब नाशिल्लो जाल्यार,*
*कोण गा ताची सुवात घेवपाचो?*

**क्लारीन** : *हांवूच न्हय गा तो, रोखडो तयार!*

दुसरो वावराडी (सेजिसमुंदाक) : *गायन-मंडळीन*
*करूंक लागचें परतें गायन, व्हय ?*

सेजिसमुंद : *नाका, नाका, सायबा, सापूच नाका,*
*आनीक ताणीं गायल्लें म्हाका नाका.*

दुसरो वावराडी : *तुमी अितले तंग-तणावान आसून,*
*मौजेक म्हणून वाजचें गावचें दिसलें*
*तुमचे करमणुके थाकाये खातीर.*

सेजिसमुंद : *म्हज्यो हुस्के-खंती पयस करूंक*
*नाकात म्हाका तुमच्या ताळ्यान गायल्लीं*
*करमणुके मौजे खातीर पदां;*
*फकत म्हाका आयकूंक आवडटात गा*
*फौजी-शिपायकांचीं मुज़्गां-बेंडां.*

क्लोताल्द : *म्हाराज-धिराज, व्हड सायबांनो,*
*तुमचो हात दियात, उमो घेतां;*
*हांव तो पयलो वयलो भोवमान दितां*
*तुमचे मुखार पडून खालतिकायेन.*

सेजिसमुंद (आस्वडी) : *(हो तर क्लोताल्द: तरीय जालां कितें!*
*बंदखणींत जो म्हाका छळटालो*
*आतां येध्या मानान वागयता कसो ?*
*हें आनीक कितें म्हजेर आयलां तर ?)*

क्लोताल्द : *तुमच्या नव्या अवतारांतू येवून*
*अजाप दिसलां जातलें तुमकां व्हड,*
*मातला जातलो बरोच घुस्पागोंदळ,*
*तुमच्या मनांत, उलोवपांत मेळून-मिसळून*
*येतले हजार दुबाव, भिरांती रास,*
*तांतल्या सगल्यांतुल्यान सुटका काडूंक*
*सोदतालों हांव, तुमची अित्सा आसल्यार,*
*कित्याक, सायबा, तुमकां येतलें कळून*
*कि तुमी पोलंडाचे राज-गादयेचे*
*फुडले वारसदार पाटांकुंवर.*
*तुमकां लिपोवन, पयसावन दवरले जाल्यार,*
*कित्याक ज्योतिश्यांनी केल्लें भाकित*
*वायट अनर्थाचें, हजार भोगणार*
*ह्या साम्राज्याक आमगेल्या, जेन्ना तो*
*राजमुकुट तुमच्या स्रेश्ट माथ्याक*
*राजाभिशेक जावन बसतलो,*

*आमकां आसलो विस्वास तुमचे मतीन*
*जैत जोडटले म्हण नखेत्रांचेर.*
*कित्याक व्हडल्या काळजा मनश्याच्यान*
*जैत जोडूंक जाता नशीबाचेर.*
*जेन्ना तुमी न्हिदेंत भरमेताले*
*ह्या राजवाड्यांत हाडले तुमकां उखलून*
*तुमी बिराडटल्या बुरंजांतुल्यान.*
*बापूय तुमगेलो राजा, धनी म्हजो,*
*रोखडो तुमकां येतलो भेट्टूंक आतां,*
*तांचेकडल्यान, सेजिमसुंद-बाबा,*
*फुडली गजाल तुमकां कळटली.*

क्लारीन : *सुडबुडपी हांव तो अेक कायलांडो,*
*असल्या कामांत भोवूच लापीट, कोपीत,*
*कित्याक हांव गा सदांच आलमपेड्झ्यार,*
*तशे वळखल्ल्यां भितर सगल्यांत व्हडलो.*

सेजिसमुंद : *फक्त तूं रे ह्या नव्या संवसारांत*
*उतरला कसाक म्हज्याच आवडिच्या.*

क्लारीन : *धनया,*
*तुमचे सारकेल्यांची आवड भागोवंक*
*हेंच गा म्हजें व्हडलें काम, धर्मूच!*

## देखावो चौथो

(आस्तोल्फ भायर सरता)

आस्तोल्फ : *हजारपटीं जाता सुखेस्त हो दीस,*
*राजकुंवरा सेश्ट, जेन्ना तुमी*
*पोलंडाचो सूर्या दाखयतले*
*उठून सगल्या दिकांनी झगझगीत,*
*भरून लकलकाटांत खोशालभरीत,*
*तांबड्या-रगत अितल्या दैवी वोतान,*
*कित्याक तुमी सरून आयल्या भायर*
*सुर्या भशेन दोंगरां फाटल्यान दडून*

*जाल्यार यो गा भायर सरून बेगीन*
*कांय नजो उशीर जालो जाल्यार लेगीत,*
*आनी घाल गा राजमुकुट तुमच्या माथ्यार*
*रसरशीत सदांकाळ, तो बावचो न्हय.*

सेजिसमुंद : *देवा-धनयान सांबाळचे राखचे तुमकां.*

आस्तोल्फ : *तुमी म्हाका वळखले नांत, देखून,*
*दिलो ना फावो आशिल्लो मान भोवमान.*
*तुमकां करतां माफ, जाणांत कोण हांव*
*तुमी; हांव गा सायबा नांवान आस्तोल्फ,*
*जल्मलां मोस्कोवी सरदार घराण्यांत,*
*तसो जातां बापोलयो तुमचो; देखून*
*जाणा जायात, दोगूय आमी अेकसारके.*

सेजिसमुंद : *म्हळें जाल्यार देवान राखचे तुमकां*
*दाखयना हांव गा व्हडली अपुरबाय?*
*कित्याक आतां तर बोवाळ करून सांगून,*
*तुमी कोण ते सगल्यांक, तक्रार करीत,*
*दुसरे फावटीं म्हाका दिश्टी पडल्यार*
*म्हणटलों हांव देवान तुमकां राखचे.*

दुसरो वावराडी (आस्तोल्फाक लेखून) : *खाश्या सायबांनो, नियाळ करात,*
*तांकां दोंगरां-सड्यार जल्मा हाडून,*
*वाडोवन, हेरां सांगातान काडल्या वयर.*

(सेजिसमुंदाक) : *आस्तोल्फ, धनया, व्हडल्या घराण्यांतुले.*

सेजिसमुंद : *म्हजे लागीं कसले रीतीन उलयलो तो,*
*देखून आयलो म्हाका कंटाळो ताचो;*
*आनी ताचे वयल्यान तो रावलो घालून चेपें.*

दुसरो वावराडी : *तो व्हडलो सरदार, सायबा, वागलो तसो.*

सेजिसमुंद : *ताच्याय परस व्हडलो हांव, जाणांत.*

दुसरो वावराडी : *हें सगलें ध्यानांत धरून, आस्पावन घेवन,*
*दोगांय मदें कोणाक व्हडलो मान,*
*तर तुमीच चडीत व्हडले हेरां मदें.*

सेजिसमुंद : *आनी कोण रे तुमकां अशे कुमकायता?*

# देखावो पांचवो

अिश्त्रेला येता

**अिश्त्रेला** : *धन्य राजकुमारा, सहस्र येवकार*
*तुमकां ह्या आसनार, जें तुमची वाट*
*आंवडेवन, उपकारांनी तुमकां घेता;*
*थंय गा, कितलेय आडखळींचे भ्रम'*
*आसतना, जियेतले तुमी सदांच*
*स्रेश्ट आनी भोवमानान, तुमचें औख्य*
*मेजचें वर्सांनी न्हय शेंकड्यांनी.*

**सेजिसमुंद** (क्लारीनाक) : *सांग रे म्हाका आतां, कोण तें हें*
*सोबीत-घुबीत राणये भशेन स्रेश्ट?*
*कोण ही मनीस-रुपी देवता, सांगशी,*
*जिच्या भव्य दैवी पायां लागीं .*
*शिंवरायता तांबशी मळब सरपटून,*
*कोण रे ही बायल, अितली सोबीत-सुंदर?*

**क्लारीन** : *ती गा, धनया, तुगेली बापोली, अिश्त्रेला.*

**सेजिसमुंद** (अिश्त्रेलाक) : *अिश्त्रेला, ह्या नांवाचो अर्थ जाणां, नखेत्र,*
*सुर्या म्हणिल्लो जाल्यार चड बरें जातें.*
*जरय म्हाका तूं परबीं दिता कित्याक*
*हांव जिखलों म्हणून कितेंय बरें-भलें,*
*फकत तुका अेकल्याकूच पळेल्या उपरांत,*
*हीं परबीं नमळायेनूच मानून घेतां;*
*आनी अशें पळेंवक तूं म्हाका पावलें देखून,*
*जें देणें म्हाका खऱ्यांनीच फावो नाशिल्लें,*
*तीं परबीं दिल्ल्यान तुका गो दिनवासतां.*
*नखेत्रा, तुवें गो फांकल्यार दिस-उजवाडा,*
*खोशालकायेचें वोत्तें माप भरून*
*दिंव येता कितल्याय उजवाडीत दिव्याक;*
*तूं दिसा वांगडा उजवाडत जाल्यार*
*सुर्याक वावर कसलो उरतलो गो?*
*तुज्या हाथ्या-हाता मागतां उमो*
*जाच्या पात्रांत हीम-बरफाच्या*

*मंद वारें पियेता रंग धवोफुल्ल.*

अश्त्रेला : *भोवूच दरबारी जाल्यांत तुमी, सायबा.*

आस्तोल्फ : *(तो तिजो हात घेयत जाल्यार, पळे,*
(आस्वडी) *शेणलों गा हांव, वेतलों गडगडून.)*

दुसरो वावराडी : *(आस्तोल्फाची दुख आफुडल्या म्हाका,*
(आस्वडी) *कुंवराक हांवेंच आडायल्यार दिसता बरें)*
*धनया म्हज्या, शिटकावन रावात, कित्याक*
*अशेच धाडजले म्हणून सोबना तुमकां,*
*आनी आस्तोल्फाच्या सामकार मु गा दिसना....*

सेजिसमुंद : *आयकलें ना तुवें हांवें सांगिल्लें*
*सुडबुडचें न्हय रे म्हणून म्हजे गजालींत?*

दुसरो वावराडी : *खरेलें उचितूच सांगतां तुमकां, सायबा.*

सेजिसमुंद : *म्हाका जाल्यार, हें सगलें म्हणणें तुजें*
*हाडटा उबगण, म्हजे अित्से आड*
*जें कितें येता, तें सारकें दिसना म्हाका.*

दुसरो वावराडी : *कित्याक हांवें, धनया, तुमचेकडल्यान*
*आयकलां कि उजू मार्गान चलिल्लें*
*बरें, सेवा करून, उतर पाळून.*

सेजिसमुंद : *अशेंय सांगिल्लें तुवें आयकलें ना,*
*कि कोणूय म्हाका बेजार करतल्याक*
*हांव भायर मोखून मारून दिंवक जाणा?*

दुसरो वावराडी : *म्हजे सारकेल्या मनश्यांक तुमच्यांनी*
*अशेच भायर मारूंक जांवचे ना, गा.*

सेजिसमुंद : *ना म्हणटा?*
*देवाच्यान, तेंच तुका दितलों दाखोवन.*

(ताका दोनूय हातांनी उखलता आनी भायर सरता, आनी ताचे फाटल्यान सगले वेतात. तो परतो येता)

आस्तोल्फ : *हें बाबा आनीक कितें हांव पळेतां तें?*

अश्त्रेला : *सगल्यांनी आमीं ताका दिंवक जाय आदार!*
(वेता)

सेजिसमुंद : *पडलो बलकावांतल्यान दर्या खरीक,*
*देवान घेंवचें ताचें कोंत भरीक!*

आस्तोल्फ : *जर तूं अितलो कडकडीत उलयत,*
*मागनाशिल्ली सगली बुद्ध दीत,*
*घड्ये तकली धडार उरची ना,*

*जिचेर घालचें बसूंक चेपें तुजें.*
(आस्तोल्फ वेता आनी राजा येता)

## देखावो सटवो

बाझीलयु : *हें रे बाबा, जालें कितें, पुता ?*
सेजिसमुंद : *कांयच जालें ना अशेंच दिसता म्हाका.*
*अेक मनीस जो बेजार म्हाका करतालो,*
*ताका ह्या बलकांवांतल्यान माल्लो शेवटून.*
क्लारीन : *राजा म्हणून तुमी, कळयल्लें आसा.*
बाझीलयु : *अितले बेगीन अेक जीवप्राण जालो नपयत*
*तुज्या शुभ-येण्याच्या पयल्याच दिसा ?*
सेजिसमुंद : *ताणेंच सांगिल्लें म्हाका कित्याक म्हज्यान*
*तसलें करूंक जांवचें ना काम; केलें,*
*आनी ताणें वडां मारिल्लीं जिखलों हांव.*
बाझीलयु : *खूब खंत, दुख भोगता म्हाका,*
*कुंवरा म्हज्या, तुका येतलो पळेवन,*
*शिटकावणी दिवून उलोंवक येवजितालों,*
*जैत जोडूंक भाकित, नखेत्रांचेर,*
*आसलों तेळून जळजळीत नदरेन,*
*आनी पयलीच करणी तुगेली जांवची कितें,*
*मनश्याक जितोच मारून उडोवपाची !*
*खंयचो मोग दिंवक जातलो म्हज्यान*
*तुका आतां, खंयची वेंग म्हजी,*
*जेन्ना तुज्या गर्विश्ट हातांत रगत*
*मरणां मारून उडोवन काम जालां ?*
*कोणें पळेल्या सुरी, नागडी-उग्ती,*
*जिणे मारलो मरणा-घाव भिरांकूळ,*
*कोणें पळेला हो रगतभरीत जागो,*
*जंय दुसरो मनीस पावलो आपल्या मरणाक,*
*ताका ती कांपेऱ्या भिरांत भोगची ना ?*
*कोण तो बळिश्ट आपल्या सबावार वेता.*
*अशेंच हांव तुज्या हातांत पळेतां, पुता,*
*हेंच हातयार तें मरण मारपाचें,*
*ती रगताळ सुवात पळेवन नियाळटनाच,*
*तुजे वेंगे पसून धांवता सुट्न.*

*आनी जरूय हांवें तुका बापायच्या मोगान*
*येवजिल्लें वेंगोंवक, पुण तें करीना जावन,*
*हांव परतो कडसरतां, कित्याक म्हाका*
*तुज्या हातां वेंगेची दिसता भिरांत.*

सेजिसमुंद : *तांच्या शिवाय म्हज्यान रावूंक जाता*
*आतां मेरेन जसो रावलां तसो;*
*बापूय जावन म्हजे-आड अितले निश्टूर,*
*आपणाकडलो म्हाका पयसायतात,*
*मोनजाती भाशेन वाडोवन हाडटात म्हाका,*
*आनी राखेस जाल्ले परीं वागयतात गा,*
*आनी मरण म्हजें मागून फर्मायतात,*
*कसलें कुस्कूट म्हत्व उल्लां म्हाका,*
*जेन्ना काडलें तुमी मनीसपण म्हजें*
*तुमच्याच हातांनी, कितें भोगचें ना म्हाका!*

बाझीलयु : *जाय आसलें जाल्यार सर्गाक आनीक देवाक,*
*दिवचे नासले तुका जल्म असलो;*
*आयकुंचो नासलों तेन्ना असलो ताळो,*
*पळेंवचो नासलों असलें धाडस तुजें.*

सेजिसमुंद : *जल्म तुमी दिंवक नाशिल्लो जाल्यार,*
*केन्नाच करचो नासलों तक्रार तुमचेर,*
*पुण जीव प्रदान करून, घेवचो काडून!*
*जल्म दिवचो हें स्रेश्ट, पुण दिवन मागीर*
*घेंवचो काडून म्हळ्यार कर्तुप उणाक!*

बाझीलयु : *हे भाशेन, बाबा, उपकार आठयता म्हजे,*
*खालत्या बाबड्या कैद्याक केलो देखून*
*येदो व्हडलो राजकुंवर म्हजो!*

सेजिसमुंद : *हे गजालीक लागून उपकार तुमचे मानूंक*
*म्हजेर तुमी जुलूम केलो निश्टूर?*
*आतां म्हातरे मोडकुरे जाले देखून,*
*मरणा धडेर, दवरलां कितें म्हाका?*
*आसलें म्हजें त्या परस दितात, व्हय?*
*आसले म्हजे बापूय, म्हजे राजा,*
*देखून हें सगलें व्हडपण दितात म्हाका*
*म्हजें सैंब, म्हजो हक्काचो सबाव,*
*आपल्यां नेमां कायद्यां परमाणें.*
*कोण तो हांव, जाणां गा कोण तो हांव;*

*तुमकां रीणां देणें कांयच ना हांव,*
*परतें जाल्यार, तुमचे लागीं म्हज्यान*
*मागूं येत हिशेब त्या आदल्या काळावेलो*
*जेन्ना तुमी म्हज्यांतल्यान झोंबून व्हेलें*
*मेकळेपण, जीवित म्हजें, भोवमान.*
*आसून अशें, तुमीच म्हज्या रीणांत,*
*तें तुमचेकडल्यान वसूल करीना म्हणून,*
*तुमींच म्हजे उपकार आठोंवक जाय.*

**बाझीलयु** : *तूं रानवटी आनीक अत्रेवीद खरो;*
*नखेत्रांनी पाळ्ळें आपलें उतर;*
*देखून, हांव मागणें करतां तुका, बाबा,*
*गर्विश्ट निश्टूर नाका जावूं, जाणा जा,*
*कोण तूं आसलो तो, आनी जावन यो बरो.*
*आनी अेके सुवातेर व्हरून पावय तुका,*
*जंय सगले तुका आदरान मानतले,*
*नियाळ बरे भशेन हांव सांगतां तें:*
*खालतो जा, तसोच मंद म्होवाळ,*
*घड्ये तुका सपनेत आसा दिसत*
*जेन्ना पळेतलोय कि जागोच आसाय!*

(भायर सरता)

**सेजिसमुंद** : *कितें, हें पडलां जायत म्हाका सपन*
*जेन्ना जागो आसां, दिसता म्हाका!*
*सपनेना हांव, हात लायतां आनी मानतां*
*जें जाल्लों हांव आनी आतां जावन आसां.*
*जरूय चडफडो भोगलो तरूय म्हाका*
*तें ना-नपश्च्यात करूंक जांवचें ना.*
*हांव गा जाणां कोण तो हांव, खऱ्यानींच,*
*आनी कितल्योय अित्रा आनी आंवडे गिळ्ळे जाल्यार,*
*जल्म म्हजो जायना नाकारच्याक,*
*ह्या राजमुकुटाचो वारस कसो हक;*
*आनी जर पळेल्लो म्हाका तुमी हाचे पयलीं*
*बंदखणींत बांदिल्लो कैदी खालतो,*
*तर हांव कोण तो नकळो आसलों देखून.*
*पुण आतां जाल्यार जालां म्हाका कळीत*
*कोण तो हांव, जाणां गा कोण तो हांव;*

*मनीस आनीक मोनजात, हांचें मिस्रण.*

## देखावो सातवो

(रोज़ावरा-बाय भितर येता)

**रोज़ावरा** (आस्वडी) : *(अिश्त्रेला-गेल्या फाटल्यान येतां हांव,*
*आस्तोल्फा लागीं उलोंवक भंय-भिरांतीन;*
*क्लोताल्दाकूच जाय जाल्यार लेगीत,*
*कळना जाल्यार पुरो कोण तीं हांव,*
*पळेना जाल्यार पुरो म्हाका अशें,*
*क्लोताल्दांत म्हजो विस्वास आसा पुराय,*
*कित्याक हांव देणें ताका, उपकारान,*
*मान म्हजो, जिवीत राखलें देखून.)*

**क्लारीन** : *कोण गो तो जो आवडला भोवूच तुका,*
*कितलो ताका पळेला तुवें, तोखेला ?*

**सेजिसमुंद** : *हांतलें कांयच म्हाका कळना जालां*
*आदीं फुडेंच शिटकावणी आसतना;*
*ह्या संवसारांत कितेंच तोखेवपाचें*
*आसलें जाल्यार, बायल-मनश्याची सोबिताय.*
*अेकदां ग्रंथांतुल्यान वाचिल्लें हांवें*
*देवाल्या रचनांतुलें भोव कश्टांचें*
*सेश्ट कर्तुब म्हळ्यार दादलो, कित्याक*
*ताचो आवांठ जाल्लो सुपुल्लो संवसार,*
*पुण जेन्ना ताणें बायलेक हाडली रचून,*
*तेन्ना घडलो अेक सर्गूच ल्हान सान;*
*तांतूंत दिली आस्पावन दादल्या परस*
*चड सोबिताय, जितलें अंतर मळबा*
*आनी धर्तरे मदें, चडूच मापान ही बायल,*
*म्हजे मुखारूच दिसता ती तर जाल्यार.*

**रोज़ावरा** (आस्वडी) : *(राजकुंवर आयिल्लो आसा हांगा*
*हांव रे बाबा वेतां कडसरून)*

**सेजिसमुंद** : *आयक, बायले, मात्शी थातारून घे.*
*जोडीनाका गे उदेंती आनी अस्तमतेक*

*फुडलें पावल मारून गडगडीत;*
*उदेंत आनी अस्तम्त अेकामेकांक मेळून,*
*सांवळी आनीक काळोख थंड-किरांव,*
*दुबाव-विणें दिसांत कवळटली.*

(आस्वडी) : *(पुण हें रे कितें हांव पळेतां तें?)*

**रोज़ावरा** (आस्वडी) : *(तोच काय तो जो पळेता हांव,*
*लागता दुबाव, पणून मानतां खरें)*

**सेजिसमुंद** (आस्वडी) : *(हांवें पळेल्या दिसता हे सुन्दरेक ह्या आदीं,*
*खंय तरी झळखल्या ती आनीक अेक फावट)*

**रोज़ावरा** (आस्वडी) : *(हो सगलो थाट, नेट, येदी व्हडवीक*
*पळेल्या हांवें, कुमकायल्ली खालती-ल्हान*
*उणावल्ली अशीर ते क्रूर बंदखणींत.)*

**सेजिसमुंद** (आस्वडी) : *(म्हाका जिवीत म्हजें होल्मलें)*
*बायले, तुजें नांव घेतल्यारूच, नियाळ,*
*दादल्याक मेळटा सगल्यांत सुखेस्त थाकाय.*
*कोण गो तूं? पळेनासतनाच तुका,*
*तोखेतां हांव, करतां पुजा तुजी,*
*हे भाशेन तुजेर पातयेवन जिखतां तुका,*
*दिसता म्हाका ह्या आदीं पळेलां तुका.*
*कोण गो तूं, बाये, सुन्दऱ्या म्हज्या?*

**रोज़ावरा** (आस्वडी) : *(हांवेंच म्हाका लिपोंवचें पडटलें)*
*हांव गा सायबा, अिश्त्रेला-बाये गेली*
*सुख-भंगिल्ली सेवेकारीण सखी.*

**सेजिसमुंद** : *तसलीं वायट उतरां उचारूं नाका;*
*तूं सूर्या म्हण गो, जाच्या जळट्या उज्यान*
*त्या नखेत्रांत भरता पुराय जिवीत,*
*कित्याक तुज्या किर्णां वरवीं उजवाड*
*झगझगीत तें मेळोवन घेता सोबीत.*
*देखलां हांवें राज्य परमळीत,*
*सगल्यां सामान्य रंगीत फुलां मदें*
*वरती देवता कशी आसता गुलाब,*
*तांची सम्राज्ञी भोवूच शृंगार-सुंदर.*
*हांवें पळेल्यां गिरेस्त खणींवळींत*
*मोत्यां माणकां, मोल-मोलादीक फातर,*
*तांतल्या हिऱ्याक चड म्हत्व, मान दितात,*
*आनी म्हणटात ताका सम्राट लकलकीत.*

*हांवें तर पळेलां ह्या सोबीत दरबारांत,*
*अस्वस्थ लोकराज्यांत ह्या नखेत्रांच्या,*
*सकाळचें नखेत्र राणी जाल्ले भाशेन.*
*त्याच संपूर्ण आटयांनी पळेला हांवें*
*सूर्या, दिसा वाणी धुमकेतूंक*
*आपयता आपले सभेक, येजमानीपणान;*
*हांचे भितर, फुलां, फातर, खणीं,*
*मळब, धुमकेतूं, नखेत्रां सगल्यां मदीं,*
*प्राधान्य दितात तांतल्या चड सोबीतांक;*
*हांवेंच कशी करची सेवा सांग,*
*तुज्याय परस उणे सुंदरेची*
*तूं जें आसा सोबीत-घुबीत वरतें*
*गुलाब, हिऱ्या, सुर्यां नखेत्रां मदलें?*

## देखावो आठवो

(क्लोताल्द येता)

क्लोताल्द (आस्वडी) : *सेजिससमुंदाक हांव रे समजायतलों,*
*कित्याक निमाणेकडेन हांवेंच ताका*
*शिकोवन-सवरून वाडोवन हाडिल्लो न्हय!*
*पणून पळेंवया कितें दिसता हें तें?*

रोज़ावरा : *धनया म्हज्या, तुमच्या उतरांनी गा*
*तुमी केलो म्हाका फावो भोवमान.*
*फुटना म्हाका वाचा, जाप ही मोनी;*
*जेन्ना उलयता अितलें वाकडें रजांव,*
*बऱ्यांतलें म्हणटा, जो कोण रावत वोगी.*

सेजिसमुंद : *तूं गो वच्चें ना, मात्शें राव.*
*काळखांत म्हाका सांडून असले रीतीन*
*हांगाच्यान कशें वेता गो कडसरून?*

रोज़ावरा : *तुमचे लागीं, म्हाराज, मागतां रजा.*

सेजिसमुंद : *अितले जबरदस्तीन वेता म्हळ्यार,*
*मागणी न्हय, रजा घेतली जालें.*

रोज़ावरा : *जर तुमी परवानगी म्हाका दिनांत जाल्यार,*
*म्हाका ती कशीय घेंवची पडटलीच.*

सेजिसमुंद : *तशें जाल्यार, तूं बेगीनूच पळेतलें,*
*विनयशीळ हांवूच राखेसा-रूप*
*धारण करतलों, कित्याक प्रतिकार*
*म्हळ्यारूच म्हजे सोसणिकायेक वीख.*

रोजावरा : *पुण तें वीख, भरिल्लें राग-किरोदान,*
*जें नश्टें जैत व्हरता सोसणिकायेर,*
*धाडजुंचें ना, शक्यच जांवचें ना.*
*आगळीक करूंक म्हज्या भोवमानाचेर.*

सेजिसमुंद : *पळेंवच्याकूच येत्न करतलों हांव,*
*तुजे सोबीताये लागता भिरांत म्हाका,*
*जरी अशक्य जोडचेली ओडटा वान्सा,*
*तरी करचें म्हण्टल्याक घडचें ना,*
*बलकांवा-वेल्या मनश्याक दिलो मोखून;*
*देखून पळेवपाकूच जाता जाल्यारी,*
*सोंपी गजाल तुजी मान-मर्याद*
*शेवटून भायर मारतां जनेला-वेल्यान.*

क्लोताल्द (आस्वडी) : *(खूप खणपटीक लागला तो गा,*
*देवा, सर्गा, कितें करपाचें!*
*जेन्ना घेवन येता अित्सा पिशी,*
*दुसऱ्यांदां मान म्हजो संकटांत?)*

रोज़ावरा : *आडादेडयेन न्हंय गा शिटकायिल्लें*
*ह्या राज्याक दुर्दैवी तुमची हुकुमशाय*
*भरतली म्हणून कश्ट वळवळ्यांनी,*
*घातकेपणान मरणां, मारामारी,*
*पणून कितें करतलो गा अेक मनीस*
*जाका त्या नांवा भायर मनीसपण ना,*
*हुरमट, मनश्या-भायरो, क्रूर-निश्टूर,*
*रानवटी, गर्विश्ट, वयल्यान पुंड्ड,*
*जो जनावर-मोनजातीं मदीं आयलो वाडून?*

सेजिसमुंद : *ह्या अपमानाविशीं तुवें सांगलें ना म्हाका,*
*अितलो आदर, मोवाळपण दाखयतालें*
*चिंतून दिसता तुजे लागीं केल्ले उपकार,*
*पुण हांव जर रावनट मोनजात जाली जाल्यार,*
*तशेंच सिद्ध करून दाखयतलों,*
*सगल्या मापान मोनजात, देवा म्हज्या!*
*आयकात, आमकां अेकलींच सोडात, दार बंद.*

| | | |
|---|---|---|
| | | *कोणूच भितर हांगा येवचो ना.* |
| | | (क्लारीन वेता) |
| **रोज़ावरा** (आस्वडी) | : | *(हांव मेलीं गा, सायबा)* |
| | | *पावात गे सायबीणीं,* |
| | | *आयकात म्हाका.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *हांव गो पुंड्र, निश्टूर हुकुमशा* |
| | | *तूं म्हाका गरजेभायर सोदता उणांवक.* |
| **क्लोताल्द** | : | *(केद्र्या रागा-किंवाट्यान घालता घुरी!* |
| (आस्वडी) | | *आडायतलों म्हणून सरिल्लों भायर,* |
| | | *मरणा-गोळाक लायल्यार पसून म्हाका)* |
| | | *धनया, मात्शे आयकात म्हाका, पळेयात.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *दुसरे फावटीं म्हाका हो हाडटा तिडक,* |
| | | *म्हातऱ्या, जाणटेल्या गा, मुर्खा पिश्या.* |
| | | *वीट हाडलो म्हाका, म्हजें मन* |
| | | *अितल्या उण्या-मोलाचें समजता तूं?* |
| | | *हांगासर कसोच पावलो रे तूं, सांग!* |
| **क्लोताल्द** | : | *तुमच्या व्हडल्या आवाजान आपयलो म्हाका,* |
| | | *आयलों धांवून तुमकां सांगूंक, म्हाराज,* |
| | | *जायात म्हणून चडूच मंद मोगाळ,* |
| | | *आसते जाल्यार राज्य करपा आंवडे;* |
| | | *आनी न्हय गा, पळेंवक तुमकां सगल्यां धनी,* |
| | | *जाल्ले क्रूर निश्टूर सगल्यां ठांय,* |
| | | *कित्याक जांवक येता हें फकत सपन.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *उसळायता राग किरोद, हाडटा तिडक,* |
| | | *जेन्ना चिकान करून तूं आडायता म्हाका,* |
| | | *पळेतलो तूं, दितलों तुका मरण,* |
| | | *तें सपन जायत जाल्यार वा खरें उतरल्यार.* |
| | | (क्लोताल्द दिंबयेर पडटा सरपटून आनी ताका घट्ट धरता.) |
| **क्लोताल्द** | : | *हेच भाशेन मु गा, रावतां सोडून* |
| | | *मारूंक हें अर्थ-नाशिल्लें जिवीत म्हजें.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *सोड गा, सायबा, हो धाडशी तिख्या हात.* |
| **क्लोताल्द** | : | *आयल्यार पुरो लोक भरभरीत* |
| | | *तुमचो सणसणटलो राग पळेंवक,* |
| | | *कसोच सोडचो ना हांव चपको म्हजो.* |

रोज़ावरा : *देवा म्हज्या, कसलो अनर्थ हो!*
सेजिसमुंद : *सांगतां तें रे आयकूंक येना तुका,*
*सोड म्हळें न्हय, नाल्यार उडयतां मुड्डून,*
*मोडक्या, मुर्खा, रानवटी, दुस्माना भशेन.*
(अेकामेकालागीं झगडटात, झिंजुडटात)
*तुका म्हज्याच हातांनी मारतां मरण.*
रोजावरा : *येयात सगले, पावात सायबांनो,*
*क्लोताल्दाक जितो मारून उडयतात गा.*
(वेता)
(आस्तोल्फ येता जेन्ना क्लोताल्द सेजिसमुंदा पांयां पडटा आनी तो येवन तांचे मदें पडटा)

## देखावो नववो

आस्तोल्फ : *हें बाबा कितें करतात तुमी, येवजियात*
*उदार काळजा राजकुंवरा म्हज्या?*
*खतावचें तुमी अशें पोरणें रगत*
*येद्या धिरिश्ट ब्या मनश्याचें?*
*परती घालात म्यानांत तरसाद तुमची!*
सेजिसमुंद : *तें रगत पळेलें हांवें खेळटलें*
*ताच्या वायटोव्या गा शिरंत्रांनीं.*
आस्तोल्फ : *जिवीत घेतलें ताणें आसरो मेळून*
*म्हज्या चरणांकडेन सेवा करीत;*
*हांगा पाविल्ल्यान ताचो जापसालदार हांव.*
सेजिसमुंद : *सेवा करीत राव, मरचे मेरेन,*
*हेच भाशेन रे म्हाका कळटलें*
*तुज्या मरणा वरवीं सूड घेवूंक*
*फाटीं केल्ल्या म्हज्या अपमानाचो.*
आस्तोल्फ : *तशें जाल्यार जिवीत म्हजें राखूंक*
*तरसाद म्हजी भायर काडटलों हांव.*
*तशें केल्यार तुमकां जायना अपमान.*
(तरसादी भायर काडून दोगूय झगडटात आनी तेन्ना राजा बाझीलयु आनी अिश्त्रेला येतात.)

# देखावो धावो

क्लोताल्द : *सायबा, ताचो अपमान करीनाकात.*
बाझीलयु : *कितें! तरसादी काडटात मुखार म्हज्या.*
अिश्त्रेला (आस्वडी): *(तूं रे आस्तोल्फ! हाय! देवा म्हज्या!*
*खतखततात म्हज्यो दुखी खंती!)*
बाझीलयु : *कितें! हें रे कितें चल्लां हांगा ?*
आस्तोल्फ : *तुमी आयिल्ल्यान, कांयच न्हय, सायबा!*
(तरसादी म्यानांत घालतात)
सेजिसमुंद : *जायतें, धनया, तुमी येवचे पयलीं;*
*ह्या म्हातऱ्याक गा हांव मारूंक सोदतालों.*
बाझीलयु : *तूं रे दिनाय अिल्लोय हुरमती-मान*
*ह्या जाण्ट्या-म्हातऱ्या मानादीक केंसांक ?*
क्लोताल्द : *धनया, पळेले तुमी तें केंस म्हजे,*
*तांकां व्हडलेशें गा म्हत्व ना.*
सेजिसमुंद : *हांचीं कर्तुबां गा हुरमटायेचीं,*
*आनी वयल्यान केंसांक मागतात हुरमती-मान,*
*हांकांच लागून घडये, खंयच्याय दिसा,*
*म्हज्याच पांयां लागीं ते पडचे आसात,*
*कित्याक म्हाका भोगयल्लें अन्यायी वरतन*
*वाडोवन हाडटना, घेतलो ना*
*सूड अजून हांवें पुराय मापान.*
(भायर सरता)
बाझीलयु : *दोळे उगडून तुजे देखचे पयलीं,*
*परतो न्हिदूंक वेतलो आदल्या जाग्यार,*
*सगलें घडून आयिल्लें तुका तें खरें,*
*जशें संवसारांतलें सगलें बरें आसत*
*दिसतलें रे सपनांत घडलें म्हणून.*

(राजा आनी क्लोताल्द वेतात)

# देखावो अिकरावो

(अिश्त्रेला आनी आस्तोल्फ रावतात)

आस्तोल्फ : *नशीब भोवूच थोड्या फावटीं गो*
*करता भाकित तांतूंत जाता चूक,*
*कित्याक वायट गजालींत जितलें बसता,*
*तितलेंच बरे गजालींत दुबावपाचें!*
*कितलो बरो जोतिशी जातलो तो,*
*जर सदांच क्रूर निश्टूर गजाली सांगत,*
*दुबाव विणें त्यो सदांच उतरल्या खऱ्यो!*
*ह्या अणभवाचे नमुने मेळटा पळेंवक*
*सेजिसमुंदा आनीक म्हज्याय आंगांत,*
*अिश्त्रेला, आमीं वेगळ्यां गृहांत जाल्यों.*
*तांचे वटेन पारखिल्लें सगलें व्यर्थ,*
*गर्विश्टाय, हुरमटपणां, मारामारी,*
*अशांती, साबार वायट घडणुको,*
*आनी सगल्यांत जालें सांगिल्लें तशें खरें,*
*कित्याक निमाणेकडेन सगलें घडलें.*
*म्हज्यांत जाल्यार, पळे, बायले मानेस्त,*
*तुजे दोळे, हीं सोबीत किर्णां कशीं,*
*जांचे फुडें सूर्य जाल्लो सांवळी,*
*आनी मळब सुपुल्लें-सान नकल कशी,*
*पारखिता गो म्हाका फुलतें नशीब,*
*शबासकी अिनाम सगलें बरें-भलें,*
*सांगता वायट तशेंच परजळीत;*
*तुमचें भाकित लागता फकत खरें*
*जेन्ना उपकारांक खोंटायता तें,*
*आनी तिरस्कारान करता क्रूर करणी.*

अिश्त्रेला : *ह्यो सगल्यो बारीकसाणी सिद्ध जाल्यात*
*म्हणपा दुबाव म्हाका उल्लो ना;*
*पणून हें सगलें दुसरे बायले खातीर,*
*जिचो फोटू हाडिल्लो हड्ड्याक लावून,*
*तूं गा हांगा पावून सरिल्लो जेन्ना,*
*आस्तोल्फ, म्हाका पळेंवक आयिल्लो तेन्ना,*
*अशें जाल्ल्यान, हीं गोड उतरां तुजीं*
*ताकाच अेकल्याक सामकीं जातात फावो.*
*ताकाच तीं घेवन तूं बऱ्यान गेल्लो बरो,*
*पर-स्त्रियांक आनी परकी राजांची सेवा*

*करूंक कागदां-दाखले उपकारचेनांत*
*मोगा-दरबारांत, कितलेंय केल्यार*
*दिल्लें उतर, गोड वरतनूच तुका.*

## देखावो बारावो

(रोज़ावरा येता, मर्यादेच्या वेशांत, पालव माथ्यार घेवन)

| | |
|---|---|
| रोज़ावरा (आस्वडीं) | *(जांव सायबा, फुटकें नशीब म्हजें*<br>*येतलें आतां सोंपत, दिसता फुडें*<br>*ताची म्हाका कसलीच भिरांत ना!)* |
| आस्तोल्फ : | *म्हज्या हड्ड्यावेलो फोटू गो तो,*<br>*रोखडें थंयचो काडून उडयतलों,*<br>*तुजी सोबीत-सुंदरताय तांतूंत*<br>*जागो आडांवक वेगींच येवची म्हणून,*<br>*अिश्त्रेला, जंय गो नखेत्र सरता भितर,*<br>*थंय गो सुवात मेळना सांवळेक लेगीत,*<br>*जसो सूर्य दनपारच्या वोतांत लकलकता,*<br>*तेन्ना नखेत्रांक अिल्लीय सुवात ना;*<br>*तो फोटू रोखडो हाडूंक वेतां, बाये.* |
| (आस्वडी) | *(भोगोस म्हाका, रोज़ावरा, सोबीत-घुबिता,*<br>*हो अपमान, कित्याक, गैर-हाजीर आसून,*<br>*विस्वास राखिनांत चडूच हाचे परस,*<br>*ते दादले सगले, बायलो धरून लेगीत.)*<br>(वेता) |
| रोज़ावरा (आस्वडी): | *(कांयच आयकूंक म्हाका मेळ्ळें ना,*<br>*धाडस करून आयिल्लीं आसतना.)* |
| अिश्त्रेला : | *आश्त्रेया (मिथुना)* |
| रोज़ावरा : | *बाये म्हज्या.* |
| अिश्त्रेला : | *भोवूच खोशी भोगली म्हाका, जाणा,*<br>*तूं आयलें म्हणून रोखडें लागीं म्हज्या;*<br>*कित्याक सांगचो म्हाका आसा तुका*<br>*अेक गूठ सामको खाश्या तुजेच खातीर.* |
| रोज़ावरा : | *म्हजो भोवमान करतात, बाये, तुमी,*<br>*तुमच्या उतराक हांव नम्र पाळो दितां.* |

अिश्त्रेला : *भोवूच थोडो काळ तेंप, आश्त्रेया,*
*हांव गो तुका बरें वळखतां,*
*आप-खोशयेनूच चावयो तुका दितां;*
*हाकाच लागून, तूं कोण तें जाणा जावन,*
*म्हज्या अंतस्करणांतल्यो घडामोडी*
*तुजे लागीं गो वांटूंक सोदतालीं*
*जायते फावटीं, पणून सरलीं फाटीं.*

रोज़ावरा : *सांग, तुजी दासी आयकता.*

अिश्त्रेला : *तुकाच सांगूंक सोदतां थोड्या भितर,*
*आस्तोल्फ, म्हगेलो बापोलयो, जाणां तूं गो,*
*(बापोलयान म्हज्या सांगल्यार आसलें पुरो,*
*कित्याक कांय गजाली सांगतात चिंतुनूच)*
*तो लग्न जातलो दिसता म्हजेच लागीं,*
*जरी भाग्याक जाय जाल्यार अेकाच धपक्यान*
*कितलेंशेंच दुर्दैव जातलें काबार.*
*भोवूच खंतोवलीं हांव, पयल्याच दिसा,*
*आयिल्लो तेन्ना, गळ्या भोंवतणी*
*लायल्लें ताणें अेके बायलेचें चित्र;*
*हांवें उलयलें ताचे लागीं मोवाळ रीतीन,*
*तिचो मायेमोग तो करता जाल्यार;*
*गेला तो हाडटा म्हणून दाखोंवक म्हाका,*
*पणून ताचे लागच्यान तो घेंवक म्हाका*
*खऱ्यानीच केदी लजेची गजाल न्हय!*
*तूं गो हांगाच राव, आनी तो येता तेन्ना,*
*ताका सांगतलें तूं, तो तुका दी म्हण.*
*आनीक कांयच सांगना गो हांव तुका,*
*मर्याद-सोबितकायेन तूं आसून भरून,*
*मोग म्हळ्यार कितें तें येतलें कळून.*
(वेता)

## देखावो तेरावो

रोज़ावरा : *करचें कोणें कितें येवजूंचें गा!*
*देवान, सर्गान म्हाका दिंवचो आदार!*
*कोण गा आसत ध्यानस्त, विचखेणायेच्या*

*असल्या निमित्त्यान म्हत्वाच्या हांगा*
*बायल दिंवक सोदपी बुद्ध म्हाका ?*
*आसत संवसारांत खंयचीच बायल*
*जिका सर्ग निर्दयी भोवूच दुर्भाग्य*
*आनी चडूच दुखी-खंतीन रेवडायता ?*
*असल्या घुस्पागोंदळांत करतलीं कितें*
*जंयच्यान दिसता अशक्य रजांव म्हाका*
*दीत कसलेच तरेची थाकाय, भुजवण ?*
*पयल्या दुर्दैवा पसून कोंसळून म्हजेर*
*आयिल्ले अेकामेकार अपघात, अपेस;*
*अमर सुकण्यां अणुकरणूय करून*
*येतात अेकांतलीं दुसरीं खंयचीं दुर्दैवां,*
*जितीं जावन मेल्ल्या गेल्ल्यांतुल्यान;*
*आनी ताच्या गोबराची गा फोंड-समाधी*
*सदांच आसता हुनहुनीत गरम !*
*तीं भिजूड म्हणून अेक जाणकार सांगतालो,*
*कित्याक दिसत केन्नाच अेकलें न्हय,*
*सांगतां तीं हांव धिरिश्ट, सदांच फुडें,*
*तरसाद केन्नाच वावुडनासतना.*
*जो काण तांकां व्हरता सांगातान आपल्या,*
*ताच्यान धाडस करूं येत सगले वटेन,*
*कित्याक खंयच्याच निमतान ताका ना गा*
*भंय-भिरांत पावलां आडावपाची.*
*सांगलां हांवें रे ताका जायते फावट,*
*म्हज्या जिवितांत घडलां तशें जावचें,*
*ती नासतना म्हाका तर जमलें ना,*
*तांकां पळेवन केन्नाच थकलीं ना,*
*भाग्या नशिबा करंड, वारस दायजी,*
*माल्लें म्हाका मरणा गिळपी वेंगेंत.*
*कटा, कटा, करचें कितें हांवें*
*ह्या आयच्या म्हज्या घुस्पागोंदळा निमतान ?*
*जर सांगलें जाल्यार हांवें कोण तें हांव,*
*क्लोताल्द, जाका म्हजें जिवीत देणें,*
*ही सगली राखण, म्हजो मान-भोवमान*
*म्हजेकडल्यान घडये जायत अपमानीत,*
*कित्याक ताणें सांगलें म्हाका वोगी*

*रावून राख म्हणून मान म्हजो.*
*आस्तोल्फाक सांगना जाल्यार कोण तीं हांव,*
*आनी तो पळेंवक पावल्यार अशें म्हाका*
*हांव कशें गा म्हजे म्हाकाच लिपयतलीं?*
*कित्याक कितलेंय ताळ्यान, जिबेन, दोळ्यान*
*सवंग करूंक येवजिलें जाल्यार लेगीत,*
*तीं मारतात फटी, आत्मो सांगतलो.*
*करूं कितें? पुण, कितेंय येवजूंक जाय*
*करपाचें, जर स्पश्ट आसा कितलेंय*
*आडायलें, चिंतलें, अभ्यासलें, येवजिलें,*
*वेळ गा आयलो म्हणटोच, करतलीं*
*जें कितें सांगता म्हजी दुख खंत?*
*कित्याक कोणाचोच ताबो उरना दुखार.*
*आनी थारायलें जाल्यार कितेंच करूंक लेगीत,*
*आत्मो करूंक धाडजना, दुख कितलेंय*
*आयजूच सोंपल्यार लेगीत, खंत तशीच,*
*दुबाव, मतां सोंपून आयल्यार अेकदां,*
*तेन्ना मेरेन, कितें गा करतलीं हांव,*
*देवा म्हज्या, सर्गा पावात म्हाका!*

## देखावो चौदावो

(आस्तोल्फ फोटू-चित्र घेवन येता)

आस्तोल्फ : *हो गे, सायबिणी, सोदताली तो फोटू;*
*पुण, हाय! देवा! धनया म्हज्या, कटा!*

रोज़ावरा : *तुमकां भोगता कितें, सांग गा सायबा,*
*तोंडाक म्हज्या अशेच तोखेतात कित्याक?*

आस्तोल्फ : *तुका आयकुंच्याक, रोज़ावरा, खरेंच,*
*तुका पळेंवच्याक दोळे दोळेच भरून.*

रोज़ावरा : *हांव गा, रोज़ावरा? दिसता फटोवल्यात तुमी,*
*सायबा, धरल्या दुसरी बायल म्हणून,*
*नांव गा म्हजें आश्त्रेया वळखिचें,*
*म्हज्या खालतेपणाक येदें व्हडलें*
*भाग्य घडामोडीचें मेळचें न्हय.*

आस्तोल्फ : *पुरो, रोज़ावरा, पांगरूण फटोवपाचें,*
*कित्याक आत्मो केन्नांच फट मारी ना;*
*आनी आश्त्रेया नांवान तोखेलों जरीय तुका,*
*रोज़ावराच्याच रूपान तूं जाय गो म्हाका.*

रोज़ावरा : *तुमी सांगिल्लें कांयच समजना म्हाका,*
*देखून जापूच दिंवक तुमकां नकळों.*
*अेकूच सांगतां तुमकां बरे भशेन*
*कि अिश्त्रेलान (जें मोगाचें नखेत्र घडये जायत,*
*कित्याक तोच गा ताचो अर्थ खरो)*
*सांगलां म्हाका राव म्हण हांगा तुमकां,*
*आपले वतीन सांग म्हण तुमकां अशें,*
*दी गा म्हजेच लागीं फोटू तिगेलो,*
*जो खऱ्यानीच तुमी तिका हाडला जातलो,*
*हांवेंच घेवन तो तिका व्हरचो म्हणून,*
*अिश्त्रेला बायेक तें तशेंच केल्लें जाय,*
*कित्याक कितल्योय गजाली भोवूच किरकोळ*
*म्हजेच खातीर वायट पडल्योय जाल्यारीय,*
*अिश्त्रेला बायेक जाय म्हण करतां हांव.*

आस्तोल्फ : *कितलेय प्रयत्न केलेय जाल्यार, बाये,*
*रोज़ावरा, तुज्यान कशेंच जायना लिपोंवक!*
*तुज्यां दोळ्यांक ताळ्याक मेळ बसनांत;*
*असल्या नाजूक वाद्याक जायना फटोंवक,*
*सांगचेल्याच्या फटींगपणाक धरूंक*
*भोगचेल्याचें सत् पावना मेजूंक.*

रोज़ावरा : *सांगलें तुमकां हांवें, रावतां फकत*
*व्हरूंक मागिल्लें तें गा चित्र तिजें.*

आस्तोल्फ : *फटींगपणां पांगरून घेताच जाल्यार,*
*जाप म्हजी दितां तुका अशी.*
*आश्त्रेया, तुजे बायेक वचून सांग,*
*कि तिका हांव गो लेखतां व्हडल्या मानान,*
*तिणें मागिल्लें चित्र, भेट किरकोळ*
*कशी दिंवूं, देखून अिशतीमसांवान*
*धाडटां तिका चित्रा मूळ रूप;*
*आनी तें तूं व्हरतलेंच तुज्या सांगातान,*
*तुजे तुकाच गो मोगान व्हेल्ले भाशेन.*

रोज़ावरा : *जेन्ना अेक दादलो सरता निर्धारान*

*फुडें, थीर नेटान धाडस करून,*
*येवजिल्लें कार्य येसान तडीक व्हरूंक,*
*ताचेर कितलींय आयलीं विघ्नां जाल्यार,*
*ती वस्त घेतल्या बगर तो परतो येना;*
*हांव गा आयल्यां तें चित्र व्हरचे खातीर,*
*आनी जरूय मूळ रुपाक मोल चडूच,*
*तरूय म्हजें कर्तव्य सादचीं ना हांव*
*चित्र व्हरना जाल्यार बायेच्या पासत.*
*देखून, मागतां तुमचे लागीं, सायबा,*
*दियात म्हण म्हाका मात्शें चित्र तिजें,*
*तें नासतना हांव परतीं वच्चीं ना.*

आस्तोल्फ : *तशें आसून, तें हांव गो दिना जाल्यार,*
*तें चित्र तूं गो कशें वेतलें घेवून?*

रोज़ावरा : *अशे रीतीन, आनीक सांगूंक जाय!*
(तें त्या चित्राक चपको मारता)
*बेगीन सोडून दी तें, बेयमान खंयचो!*

आस्तोल्फ : *तें तरी उपकारता कित्याक, सांग गो म्हाका!*

रोज़ावरा : *देवाच्यान, सायबा, हें चित्र दिंवची ना हांव,*
*तें परकी बायले हातांत पळेंवची ना.*

आस्तोल्फ : *तूं लांवसट जालां, झगडेंकान्न खंयची!*

रोज़ावरा : *आनी तूं म्हणून कितलो उणाक, हलकट खंयचो!*

आस्तोल्फ : *अितलें पुरो, रोज़ावरा, मोगा म्हज्या.*

रोजावरा : *हांव गा तुजें! मवाल्या, मारता फटास.*

## देखावो पंदरावो

(अिश्त्रेला भितर सरता)

अिश्त्रेला : *आश्त्रेया, आस्तोल्फ, हें बाबा घडलां कितें?*

आस्तोल्फ : *हें पळे, आयलें आतां अिश्त्रेला आमचें.*

रोज़ावरा (आस्वडी) : *(मोगान म्हाका दिंवची मांडणी युक्त*
*ताजेचकडल्यान काडून घेंवक चित्र)*
*हांव कोण तें आसल्यार पळेवपाचें, बाये,*
*रोखडेंच तुका सांगून दितलीं फोडून.*

आस्तोल्फ : *आतां कितें करूंक सोदता तूं, व्हय?*

रोज़ावरा : *तुवें, बाये, धाडिल्लें म्हाका हांगा,*
*रावचें म्हणून आस्तोल्फ बाबाक, मागून,*
*चित्र तुज्या मुखकमळाचें घेवूंक;*
*रावलीं उबीं अेकलीं-अेकसुरीं हांव,*
*गजाली अेका-दुकल्यो सोंपेपणीं*
*आयल्यो मनांत मातून, फोटवां खबरां*
*उगडास करतना, म्हज्या मांगांत*
*आसलो म्हजो फोटू, म्हणपाची याद*
*सट् करून जागून आयली म्हाका.*
*तो पळेवपाचो आंवडो रिगलो म्हज्यांत,*
*कित्याक अेकल्या मनश्याक अेकसुऱ्या*
*पिशेपणांत मौज मारची संवंय.*
*हातांतलो म्हज्या सकला पडलो धरनीर.*
*आस्तोल्फ तेन्ना पावलो दुसरे बायले*
*फोटू घेवून तो तुका दिंवचे खातीर,*
*ताणेंच उखल्लो हो आनी दिना जालो,*
*हट्टी, म्हजी मागणी नाकारतालो.*
*आनी अेक दिंवचे बदला, व्हरता दुसरोय.*
*म्हजो जाल्यार परतून दिना कसोच,*
*प्रार्थना, फुसलावण्यो, रागार-फुगार जावन,*
*काडून घेवपाक प्रयत्न केले भारीं.*
*जो फोटू ताच्या हातांत तो गे म्हगेलो;*
*तुका दिसतलो तो म्हजेच भाशेन.*
अिश्त्रेला : *तो फोटू, आस्तोल्फ, म्हजे लागीं तो सोड.*
(तो सोडटा....)
आस्तोल्फ : *बाये म्हज्या....*
अिश्त्रेला : *सोबता मेळ सगल्या नाका-दोळ्यांचो,*
*चित्र खऱ्या रूपाक जुळटा सोबीत.*
रोज़ावरा : *म्हगेलो फोटू तो निखालुस न्हय गे, बाये!*
अिश्त्रेला : *कसलो दुबाव अजून आसा गो तुका?*
रोज़ावरा : *तशें जाल्यार, सांग, बाये, ताका,*
*तुजे सुवादीन करचो दुसरो फोटू.*
अिश्त्रेला : *तुजें चित्र घेवून चालीक लाग.*
रोज़ावरा (आस्वडी) : *(म्हगेलें चित्र परतें घेतलें हांवें,*
*आतां येता, जाता तें जांव, पळेंव)*
(वेता....)

# देखावो सोळावो

अिश्त्रेला : *दी आतां म्हाका चित्र मागयल्लें तें,*
*जरूय सोदिना गा हांव तुका पळेंवक,*
*तशेंच केन्नाच उलोंवचीना तुका,*
*म्हाका जाल्लें नाका सुवादीन तुजे*
*तें पडचें म्हळ्यार. नेणारपणान हांवें*
*मागलें तें तुजे लागच्यान. तें परतें दी.*

आस्तोल्फ (आस्वडी) : *(ह्या कड्कडीत मागण्या चपक्यांतुलो*
*कसो हांव सुटत म्हाकाच समजना!)*
*सोबीत अिश्त्रेला, कितलीय खोशी आसल्यार*
*तुजी सेवा करच्याक, उतर पाळच्याक,*
*तो फोटू तुका दिंवक जांवचो ना,*
*जो प्रार्थून मागता तूं, कित्याक जाणा....*

अिश्त्रेला : *तूं उतरलो फटींग, तोवूय कड्डो मोगी,*
*तो गा फोटू तुवें दिल्लो म्हाका नाका;*
*कित्याक तो घेतल्यार जातली म्हाका याद*
*हांवें तो तुजेकडल्यान मागिल्लो म्हणून.*
(वेता....)

आस्तोल्फ : *आयक, बाये, पळे, लक्षांत दवर!*
*रोजावरान पाड्या सगल्यांची लायली वाट!*
*खंयच्यान, कशें, आयलें कशे रीतीन,*
*पोलंडाक ह्या, म्हजो नाश करूंक,*
*आनी तेच बरोबर तुकाय काबार करूंक.*
(वेता....)

# देखावो सतरावो

(सजिसमुंद पयलीं भाशेन दिश्टी पडटा, चांबड्याची कातडी न्हेसून आनी सांखळ्यांनी बांदिल्लो, वोंतान न्हिदिल्लो. क्लोताल्द, क्लारीन आनी वावराडी येतात.)

क्लोताल्द : *हांगाच दवरचो ताका तुमी सोडून,*
*कित्याक आयच्यान ताचें गर्व काबार,*
*जंयच्या जाग्यार तें लागिल्लें चालीक नेटान.*

पयलो वावराडी : *तो आसलो जसो तसो करतां ताका,*

| | | |
|---|---|---|
| | | ताच्यो सांखळ्यो परत्यो बांदून घेतां. |
| क्लारीन | : | जागो जायनाका रे, सेजिसमुंदा,<br>कित्याक पळेतलो तुकाच गेल्लो शेणून,<br>तुजें नशीब जाल्लें पूड माती,<br>तुजो व्हडलो वैभव दोळ्यांर साय.<br>जिवितांतुली सांवळी कशी नाटक,<br>मरणांतुले वाती जळटी जोत. |
| क्लोताल्द | : | जो अितलो सुळसुळीत उलोंवक जाणा,<br>ताणें वच्चें सोदूंक खाशेली सुवात<br>जंयच्यान भासाभाशेक मेळचो वाव.<br>(वावराड्याक लेखून) होच तो जाका तुमी बांदतले,<br>आनी हेच कुडींत बंद करतले. |
| क्लारीन | : | म्हाका गा कित्याक, सांगशी मात्सो, व्हय ? |
| क्लोताल्द | : | कित्याक असले काळखी बंदखणींत<br>राखूंक जाय गा तुका, तूं चड जाणा,<br>तोंड तुजें बडबडचें न्हय म्हणून. |
| क्लारीन | : | हांवें दुर्दैवान प्रयत्न केला आसत<br>जिवेशीं मारूंक बापायक म्हज्या ? ना.<br>केन्नाच हांवें किरकोळ गजालीक लागून<br>जनेला-वेल्यान कोणाक मोखून दिला ?<br>हांव मरना, न्हय म्हण जायना पुनर्जिवंत ?<br>न्हिदना हांव वा सपनेना हांव केन्नाच ?<br>कित्या खातीर तर बंद करतात म्हाका ? |
| क्लोताल्द | : | कित्याक तूं वाजता खोन्र्या शींग कशें. |
| क्लारीन | : | तशें जाल्यार, आतांच सांगतां तुमकां,<br>कि जातलों हांव कोर्नेत कशी वोगी,<br>तें वाध्य मू गा उण्या तोला-नेटाचें.<br>(ताका धरून व्हरतात). |

## देखावो अठरावो

राजा बाझीलयु येता; काबाय पांगरून, मोयें घालून)

| | | |
|---|---|---|
| बाझीलयु | : | क्लोताल्द ? |
| क्लोताल्द | : | धनया, अशे रीतीन आयल्या कित्याक, |

तुमच्या सारक्या राजाक सोबता अशें ?

बाझीलयु : घड्ये हें जालें ना सारकें फावो-शें, जायत,
पुण आतां घडटा कितें सेजिसमुंदाक
पळेंवच्या आंवड्यान, हें करचें पडलें म्हाका.

क्लोताल्द : पळेयात ताका परतल्लो उणाक दशेर.

बाझीलयु : हाय रे म्हज्या, फुटक्या नशीबा कुंवरा,
खंयच्या दुखेस्त वेळार जल्मलो तूं!
येन्ना जागो जावन येवपाचो तूं,
बळगें सगट सांडून गेलोय कसो,
तें विसरायेचें साळीक घोंटिल्ले भशेन.

क्लोताल्द : धनया, तो अस्वस्थ जाल्लो आसता भोवूच,
जायतो उलयता न्हिदेंत बडबडून.

बाझीलयु : कितें सपनेतलो तो आतां, सायबा!
चित्त कान दिवन तर आयकुंया, ताका.

सेजिसमुंद (न्हिदेंत) : हो तो कुंवर दयाळ जो आपल्या हातान
हुकुमशायेक लायता कडक ख्यास्त.
म्हज्या हातांनी क्लोताल्द मरतलो,
बापायन घेंवचो म्हज्या पांयां उमो.

क्लोताल्द : म्हाका धमकी दिता गा मरणाची.

बाझीलयु : आनी म्हाका कडकडीत अपमानाची.

क्लोताल्द : सोदता म्हजो जीव प्राण काडूंक.

बाझीलयु : येवजिता तो म्हाका शरण व्हरूंक.

सेजिसमुंद (न्हिदेंत) : ह्या संवसाराचे व्हडले रंगमाचयेर
मुल्यां पांयां पोंदा मस्तीतलो,
भोगिल्ल्या अपमानाचो सूड घेवून,
बापायचेर आपल्या जैत जोडटलोच
त्या नांवाचो खरोच तो कुंवर सेजिसमुंद.
(जागो जाता)
पुण, हें रे बाबा, घडलें कितें म्हाका ?
खंय गा आसां हांव, पावलों खंयचे सुवातेर ?

बाझीलयु (क्लोताल्दाक) (आस्वडी) : तशें जाल्यार म्हाका पळेंवचो ना तो,
तूंच जाणा कितें तो करतलो.
(थंय सावन ताजें आयकून घे)
(कडसरून वेता....)

सेजिसमुंद : हांवूच गा हो, जायत खरें, नशीबा ?
हांवूच तो कैदी, बांदिल्लो बेडियांनी ?

*हे दशेर कसो पळेंवक पावलों म्हाका ?*
*बुरंजा, तूं म्हजो फोंड जाला, न्हय गो ?*
*व्हय मू ? देवान म्हगेली करची दया,*
*कसल्यो गजाली सपनांत आयल्यो म्हज्या !*

क्लोताल्द (आस्वडी) : *(हांवूच आतां कुंवराक फटोवपाचें*
*पांगरूण-लिपण घालतलोंच खरो)*
*जालो वेळ जागून उठपाचो ?*

सेजिसमुंद : *व्हय ! उठपाचो गा आयलो वेळ.*

क्लोताल्द : *सगलो दीस तुमी काडलो न्हिदून ?*
*जेन्ना पसून हांवें उडून वेतले*
*घोणी वशीन लायली नदर, सांगू,*
*आनी तुमकां लकणी येवून लागलो दोळो,*
*तेन्ना पसून जाल्ले ना तुमी जागे ?*

सेजिसमुंद : *हांव जागो जाल्लों ना तर म्हणटात तुमी ?*
*आतां लेगीत हांव जागो जाल्लों ना;*
*क्लोताल्द सांगता तेच प्रमाणें जायत*
*दिसता म्हाका, तरूय हांव न्हिदेंत आसां,*
*आनी हें तर खऱ्यानींच फट दिसना म्हाका.*
*कित्याक खर रीतीन हांव सपनेलां जाल्यार,*
*जें कितें पळेलां निश्चीत, उजवाडीत,*
*तें तर आतां पळेतां अनिश्चित धुंवरीन,*
*आनी तें तर व्हडलेशें न्हय, हिशेब केल्यार,*
*कित्याक न्हिदिल्ल्यान दिश्टी पडटा म्हाका,*
*जागोच आसून, हांव खोशाल सपनेतां.*

क्लोताल्द : *कितें सपनेल्यात तें सांगश्यात म्हाका.*

सेजिसमुंद : *समजूंया तें सपनूच जाल्लें खरें,*
*कितें सपनेलां तें सांगना तुका;*
*जें कितें पळेलां हांवें, सांगतां तेंच :*
*जालों जागो आनी पळेलो म्हाकाच हांवें.*
*कसली वायट निश्टूर गजाल गा ही !*
*पडिल्लों बाज्जेर अेके, रंगीत, सुती,*
*चादर विणिल्लें वसंत-रुतू फुलांनी,*
*थंय गा हजार सरदार पडटाले पांय,*
*नांवान संबोधून म्हाका आपलो कुंवर,*
*आनी दिल्यो भेटो वस्ती, वस्त्रां जायतीं.*
*अिंद्रियांच्यो म्हज्या दुखी खंती*

*दिल्यो तुवें खोश्येंत रूपांतरावन*
*म्हणून भाग्य म्हजें बरें नशीब;*
*अशे रीतीन सांगलें म्हाका तुवें*
*कि जाल्लों हांव पोलंडाचो कुंवर.*

**क्लोताल्द** : *आनी तुमी भेटो दितात जायत्यो म्हाका.*

**सेजिसमुंद** : *बऱ्यो न्हय गा भेटो; परतो जाल्यार*
*लेखलो तुका घातकी कसो आनी रागान*
*धाडजलों हांव दोन फावटीं तुका*
*मारून उडोंवक जितोच म्हज्या हातांनी.*

**क्लोताल्द** : *अितली कडकडीत ख्यास्त म्हाका?*

**सेजिसमुंद** : *सगल्या मनश्यांचो हांव जाल्लों धनी,*
*सगल्यां मनश्यांचो हांव घेतालों सूड.*
*अेकलेच बायलेचो मात करतालों मोग,*
*तें खरें जांवक जाय रे दिसता म्हाका,*
*हांतलें सगलें सोंपून व्हांवून गेलें,*
*पुण फकत हें सोंपून सोंपना केन्नांच.*
(राजा वेता....)

**क्लोताल्द** (आस्वडी) : *(गेलो राजा मोवाळून, खंत धरून*
*ताजें सगलें कान-दिवन-आयकून.)*
*जशें आमीं उलयल्लें घोणी विशीं, तशें*
*वेतना न्हिदेक, तुजें सपन जालें*
*साम्राज्यांचें; पणून सपनांत लेगीत*
*जातलें बरें तुवें दिल्लो मान*
*तुजी जतनाय घेवून वावुरतल्यांक,*
*सेजिसमुंदा, सपनांत लेगीत बरी*
*करणी तुजी केन्नाच वचना वगडावन.*
(वेता....)

## देखावो अेकोणीसावो

**सेजिसमुंद** : *घड्ये खरें तागेलें; घड्ये हांवें*
*हें रानवट आंग म्हजें दामूंक जाय,*
*हो रागा-किंवाटो, ही म्हगेली वान्सा मोटी,*
*केन्नाय सपनेल्यार परते आमी.*
*आनी खऱ्यानींच तशेंच आमी करतल्यांव,*

*असल्या अनवळख्या संवसारांत जियेवचें*
*म्हळ्यार फकत मौजेंत सपनां पडचीं.*
*आनी अणभव शिकयता म्हाका बरे भशेन*
*कि जण-अेकलो मनीस जो जियेता धर्तरेर,*
*सपनेता आपुण जागो जायत मेरेन.*
*राजा सपनेता कि आपुण राजा,*
*जियेता फसवणुकेंत हुकुम सोडून,*
*आवयार करून, हेरांचेर राज्य गाजोवन;*
*आनी शबास्की कीर्त ताजी, जी जोडटा तो*
*बरयता वाऱ्यार, रुपांतरायता मरण*
*गोबरांत (कितली निश्टूर दुर्दशा ही!)*
*जो कोण सोदता राज्य करूंक हांगासर*
*ताका उठचें लागता मरणा सपनांत!*
*गिरेस्त सपनेता गा आपल्या धनांत,*
*जें ताका चडूच हुस्को करता फावो;*
*गरीब दुबळो सपनेता गा आपल्या*
*वांट्याक आयिल्ली खंत-दुख, गरीबी;*
*भरभराटीक आंवडेल्लो सपनेता;*
*जो कोण कश्ट पिडापीड उस्पिता,*
*जो कोण मनीस दुखयता हेर मनश्यांक,*
*तसोच जो कोण मनीस सोंसता दुख:*
*निश्कर्ष काडचो म्हळ्यार ह्या संवसारांत*
*सगले सपनेतात जशे ते आसतात,*
*जरी तांतलो कोणूच तशें तें समजना.*
*हांव सपनेतां गा चरांटून बांदला म्हाका*
*ह्या जडेल्या बेडियांनी आनी सपनेलों*
*कि दुसरे परिस्थितींत म्हजे म्हाकाच*
*पळेलो हांवें चडून खोश्येन भरून.*
*जिवीत म्हळ्यार कितें? ताकतिके धांव.*
*जिवीत म्हळ्यार कितें? अेक माया सपन,*
*अेक सांवळी, दोळ्यांक घाल्लें पांगरूण, साय,*
*आनी सगल्यांत उत्तम बरवें म्हळ्यार धाकटें,*
*सगलें जिवीत म्हळ्यार अेक व्हडलें सपन,*
*आनी सपनां जाल्यार, तीं तर सपनांच सपनां.*

# तिसरो आंक

## देखावो पयलो

(क्लारीन येता)

क्लारीन : *मंत्रायल्ल्या अेका बुरंजांत जियेतां हांव,*
*जाणविकायेन जाणा, बंदखणींत.*
*नकळों म्हाका कितें ते करतले,*
*घडये जिवानशीं मारतले?*
*अेकलो ~~मनीस अितलो~~ जिबट आसून*
*कसो मरूंक पावत मस्त जियेवन!*
*कटा, चुरचुरे म्हजेच दिसता म्हाका.*
*सगले म्हणटले गा: ''बरेंच जालें.''*
*आनी खऱ्यांनीच तशें मानून घेंवक जाता;*
*पणून म्हाका जाल्यार येदें मौन*
*सोबना गा, बसना म्हज्या नांवाक,*
*क्लारीनेतीक, जमना वोगी रावूंक.*
*कोण गा म्हाका हांगा सांगात दितात,*
*सांगचें खरें, हुंदीर, घुंगुट्टे गा,*
*पळेयात, तोखेयात कितलो गोड खेळ!*
*आयची रात भल्ल्या सपनांनी,*
*तकली म्हजी हजार पिल्लुकांनी,*
*खोर्न्यां वाजंत्रांनी, तड्डकांनी;*
*पुरसांव मिरवणुको खुर्सांच्यो,*
*हड्डीं बडयत वेतल्या रोमारींच्यो,*
*तांतले कांय जाण वयर वेतात चडून,*
*हेर जाण सकला पडटात गडगडून,*
*हेर जाण कोसळून पडटात घुंवळ येवून.*
*दुसऱ्यांचें गा रगत व्हांविल्लें पळेवन;*
*पुण हांव जाल्यार गा, खरेंच सांगचें म्हळ्यार,*
*कसोच फाटीं सरना खांवूंक-जेवूंक,*
*बंदखणींत ह्या बांदला म्हाका पळेवन,*
*जंय सगले दीस तत्वगिन्यान्यांच्या*
*भशेन, खावन पियेवन सारतलों,*

*आनी सगल्यो राती जेवणा-खाणा विरैत;*
*वोगी रावप्याक पाचारतात संत म्हणून,*
*जशें नवे रीतीच्या पंचांगांत सांगून दिलां,*
*पवित्र गूठ राखलो म्हणून हावें,*
*काडटां उपास आनी करीना फेस्तां-परबो;*
*तरूय फावो गा म्हाका उत्तम रीतीन*
*ही ख्यास्त फर्मायिल्ली जी भोगतां हांव,*
*कित्याक रावलों वोगी, चाकर जावून,*
*आचाल्लो अशे रीतीन व्हडलो अपराध.*

# देखावो दुसरो

(धोल वाजतात. लोकांचो बोवाळ आनी भितल्ल्यान धाडायतात तो आवाज. सोल्दाद-शिपायक येतात.)

**पयलो शिपायक** : *हेंच रे बुरींज जंय बांदून आसता तो,*
*एकलोच जमनीर, घाल्लो दारां धांपून,*
*सरात भितर हांगच्यान सगले सांबाळून.*
**क्लारीन** : *देवाचे व्हड उपकार, आर्गां दितां!*
*खऱ्यांनीच, म्हाकाच सोदतात जातले ते,*
*कितें जाय तर आतां म्हजे लागच्यान?*
(जितले शिपायक भितर सरूंक जातात तितले येतात.)
**पयलो शिपायक** : *सरात भितर वेगीं, वांगड्यांनो.*
**दुसरो शिपायक** : *हो पळेयात तो, भितर आसा हांगा.*
**क्लारीन** : *ना गा, सायबा, हांगा तर तो नांच.*
**सगले** : *सायबा, धनया....*
**क्लारीन** (आस्वडी) : *(कित्याक आयल्यात, सायबा, बेबदे हे खंयचे?)*
**दुसरो शिपायक** : *तुमी गा जावन आसात आमचे कुंवर;*
*आमकां नाका, आमीं मानचे नांत गा*
*कोणूच आमच्या खाश्या धनया बगर,*
*आमच्या राज्यांत नाका परकी कुंवर,*
*तुज्याच पांयां पडूंक आमकां दी गा.*
**सगले** : *आमच्या व्हड कुंवराचें जय जय!*
**क्लारीन** (आस्वडी) : *(देवा धनया पाव, हें खरेंच जांव!*
*जर ह्या राज्यांत चाल तशीच आसत,*

| | | |
|---|---|---|
| | | *दरअेक दिसाक धरून हाडचो अेकल्याक,* |
| | | *करूंक ताका कुंवर अेका दिसाचो,* |
| | | *आनी परतो जोडूंक बुरंजा बंदखणींत,* |
| | | *व्हय गा दिसता तशें, तेंच पळेतां:* |
| | | *आतां आयल्या जातली म्हजेर पाळी.)* |
| **सगले** | : | *सायबा, तुमचे पांय गा आमकां दियात.* |
| **क्लारीन** | : | *जायना म्हज्यान कशेच ते दिंवक तुमकां,* |
| | | *कित्याक पांयांची म्हाका गरज चड,* |
| | | *पांय नाशिल्लो पांगळो कुंवर कसलो?* |
| **दुसरो शिपायक** | : | *सगल्यांनी वचून सांगलें बापायक तुमच्या,* |
| | | *फकत तुमकांच आमीं वळखतात* |
| | | *हक्का कुंवर म्हणून आमगेलो,* |
| | | *आनी न्हय गा मोस्कोवयाचो परकी कुंवर.* |
| **क्लारीन** | : | *तुमी म्हज्या बापायक दिलो ना भोवमान,* |
| | | *कित्याक वागले अशे उणाक रीतीन?* |
| **पयलो शिपायक** | : | *आमच्या हड्ड्यांत आशिल्लें अिमान तुका.* |
| **क्लारीन** | : | *अिमानदारेक तुमकां भोगशितां.* |
| **दुसरो शिपायक** | : | *वचात झोंबून घेंवक तुमचें साम्राज्य* |
| | | *सेजिसमुंदाचो करात जयजयकार!* |
| **सगले** | : | *जय, जय, जय, जय!* |
| **क्लारीन** (आंस्वडी) | : | *(सेजिसमुंद म्हणटात? बरें आसा.* |
| | | *सेजिसमुंदूच म्हणून पाचारतात* |
| | | *अडे-स्पान जातल्या सगल्यां कुंवरांक.)* |

(सेजिसमुंद येता)

## देखावो तिसरो

| | | |
|---|---|---|
| **सेजिसमुंद** | : | *सेजिसमुंदा कोणें गा उच्चारलें नांव?* |
| **क्लारीन** (आंस्वडी) | : | *(हांव तर जालों लटकी कुंवर, सायबा.)* |
| **दुसरो शिपायक** | : | *हांतलो कोण तर जायत सेजिसमुंद?* |
| **सेजिसमुंद** | : | *हांवूच तो गा.* |
| **दुसरो शिपायक** | : | *तशें जाल्यार, कसो अत्रेवीद तूं* |
| | | *सेजिसमुंदा नांवान मिरयतालो?* |

क्लारीन : *हांव गा सेजिसमुंद? हांव तो न्हंयच.*
*तुमींच म्हाका केल्लो सेजिसमुंद.*
*देखून तुमचीच चूक, गुन्यांव जालो.*

पयलो शिपायक : *पुरो. व्हड कुंवरा, सेजिसमुंदा,*
*(पडटीं पावलां आमचीं वाट तुजी,*
*पातयेवन तुमचेर आमचो धनी म्हणून,*
*तुमकां आमीं मानान मारतांव उलो)*
*तुमगेलो बापूय, म्हाराजा बाझीलयु-सायब,*
*पारख्यान केल्ली सांगणी जातली खरी*
*म्हणून, जी सांगता तुमचे पांय पडून,*
*येतलो तो गा शरण पावून, हक*
*तुमचे लागचो सोदता काडून व्हरूंक;*
*हे पारखणेचे भंय-भिरांतीक लागून,*
*त्या आस्तोल्फ, मोस्कोवयाच्या सरदाराक*
*दिंवक येवजिता, आनी हेच खातीर,*
*आपयल्या ताणीं आपली राष्ट्रसभा,*
*अशी सगले पर्जेक हाडल्या जागोवन;*
*लक्षांत आमच्या आयलां, जालां कळून,*
*आमकां आमचो सैबा-राजा आसा,*
*देखून परकी मनीस आयिल्लो नाका,*
*आमच्या देसांत हुकूम राज्य करूंक.*
*आनी अशे रीतीन, तिरस्कार करून,*
*पारख्यान केल्ल्या वायट भविश्यांचो,*
*हाडला तुका बंद जियेतल्या त्या*
*बुरंजां खडपां काळखी बंदखणींतलो,*
*तुज्या हातेरांचो आदार घेवून,*
*ह्या बुरंजांतलो रोखडो भायर सरून,*
*तुमच्या साम्राज्याचो मुकुट राजदंड*
*परतो जिखून घेंवचो म्हणून तुमकां,*
*त्या निश्टूर पुंड्र तुमच्या बापायकडल्यान;*
*देखून सर गा भायर; सज्या रेंवटांत*
*हजारांनी फौज अेकवटावन येता*
*झुजाऱ्यांची, साद्या गांवकारांची,*
*तुमचो जयजयकार व्हडल्यान सादैत.*
*मेकळीक रावता तुमची वाट पळेत.*
*तिच्या उल्याक वेगीं पाळो दियात गा.*

**जायते आवाज (भितल्ल्यान)** : *सेजिसमुंदाचें जैत जांव!*

**सेजिसमुंद** : *परतो आवाज सादता कानार म्हज्या,*
*(कितें येवजिलां गो नखेत्रांनो!)*
*तुमकां जाय हांव व्हडवीक सपनेल्लों,*
*जी काळ व्हरता आपले भशेन गिळून!*
*आनीक एक फावट जाय रे तुमकां पळेंवक*
*सांवळ्या आनीक रानां-वनां मदीं*
*राज्याचो थाट माट, वैभव शृंगार*
*वाऱ्यान उबयल्लो, जाल्लो पूड माती?*
*आनीक एक फावट जाय रे फसवणूक,*
*रीस्क जी मनश्या बळगें जागृत जियेवन*
*रावता व्हडा खालतिकायेन दडून,*
*जाल्यार तशें तें जांवचें ना, तर नांच!*
*पळेयात म्हाका बांदिल्लो परतो एक फावट*
*म्हज्या फुटक्या नशीबाकूच लेखून.*
*पणून जाणा गा हांव, सगलें जिवीत*
*म्हळ्यार एक सपन. भुतां, सांवळ्यांनो,*
*मेल्ल्या म्हज्या इंद्रियांक पांगरूंक*
*तुमकां कुडी, ताळे दिसता आसात,*
*हें खरें, आवाज, कूड तुमकां नांच.*
*नाका गो म्हाका लटकी राज्य-वैभव*
*येदो थाट माट, आटो पाटो,*
*म्हाका नाका दाखोंवक, सगलो भ्रम,*
*वाऱ्या अिल्ली जोत मंद लागल्यार*
*रोखडी वेतली विरून विर्गळून,*
*बदामाच्या फुलत्या फुलां भाशेन,*
*जीं आपले बोंगे सोडटात सकाळ फुडें,*
*कांयच चत्राय सुचोवणी दिनासतना,*
*पुण पयलीच फुंक माल्ल्यार वेतात पालोवन,*
*कडकडून, सोबीत उजवाड पडून,*
*आपणाल्या गुलाबी कळ्यांवेली सगली*
*सोबीताय, उजवाड, वस्ती-दागिने कशे,*
*तें हांव रे जाणा, तें हांवूय वळखतां,*
*आनी कोणाय न्हिदिल्ल्याक अशेंच जाता म्हण जाणां.*
*म्हाका जाल्यार असो जायना फटोंवक,*

| | | |
|---|---|---|
| | | *अेकदां हांव गा फसलां म्हणून जाणां*<br>*बरे भशेन कि जिवीत म्हळ्यार सपन.* |
| **दुसरो शिपायक** | : | *दिसता तुमकां कि आमीं मारतांव फटास,*<br>*तुमची नदर त्या दोंगरार वळून घेयात,*<br>*पळेंवच्याक तो अितलो सगलो लोक जमिल्लो*<br>*जो रावता तुमच्या उतराक पाळो दिंवक.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *हेंच पळेल्लें तेन्ना अशेंच हांवें,*<br>*अितलेच निगूत रीतीन दुसरे फावट,*<br>*जशें पळेतां आतां दोळ्यां मुखार,*<br>*आनी तरूय तें गा जाल्लें फकत सपन.* |
| **पयलो शिपायक** | : | *धनया व्हडा, सांगतात लोक सदांच,*<br>*व्हडले घडणे आदीं जाता कुरू;*<br>*देखून, घडये पयलें पडलें सपन.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *सारकें सांगलें ताणीं, जाल्ली कुरूच;*<br>*खरेंच जाल्लें जाल्यार, जातलें तशेंच,*<br>*कित्याक जिवीत खऱ्यानींच अितलें मोटवें,*<br>*सपनेंवया गा आत्म्या, सपनेंवया*<br>*दुसरे फावट; कित्याक जतनायेन*<br>*बुद्ध घेवून जागृत जावपाचें*<br>*ह्या गोड भ्रमांतुलें फावो त्या वेळार;*<br>*हीच गजाल जाणा जावन रे बरें,*<br>*फसवणूक जातली भोवूच उणी;*<br>*देखून तयारी आसून भोगचें थोडें;*<br>*आनी हीच काळजी घेवून, निश्चीत आसल्यार,*<br>*सगली सत्ता आपणायल्ली घट्ट तशी*<br>*परती येतली आपल्या धनया सुवादीन*<br>*सगलें करूंक आमी धाडजतांव.*<br>*पर्जे, तुमचे अिमानदारेक लागून,*<br>*उपकार आठयतां तुमचे काळजांत थावन.*<br>*म्हज्यांत आसा जो तुमकां सोडयतलो,*<br>*धाडशी तसोच अस्कलीत कुशल,*<br>*परकी सत्ते गुलामपणांतुलो.*<br>*हात लांवदी म्हाका म्हजे तरसादीक,*<br>*रोखडें पळेयात व्हडलें मोल म्हजें.*<br>*म्हज्या बापायचे आड उबारची फौज*<br>*काळजांत शिजता म्हज्या, नखेत्रां भविश्य,* |

| | | |
|---|---|---|
| | | *बेगीनूच पावलां म्हजीं दिसतलीं.* |
| (आस्वडी) | | *(पुण ताचे आदीं हांव जागून आयलों जाल्यार,* |
| | | *सांगलें म्हणून ब-यांतलें जांवचें ना,* |
| | | *आनी तशें हांव करीना जाल्यार जातलें कितें?)* |
| **सगले** | : | *सेजिसमुंदाचें जैत जांव!* |

# देखावो चौथो

(क्लोताल्द येता....)

| | | |
|---|---|---|
| **क्लोताल्द** | : | *हें रे बाबा कितें आडायलां तुमीं?* |
| | | *कसलो बोवाळ जाता हांगा, देवा?* |
| **सेजिसमुंद** | : | *क्लोताल्द.* |
| **क्लोताल्द** | : | *धनया....* |
| (आस्वडी) | | *(सिद्ध कर गा म्हजेर तुगेलें बळगें* |
| | | *क्रूरतायेच्या भरिल्ल्या वोत्त्या मापान.)* |
| **क्लारीन** (आस्वडी) | : | *(दोंगरांवेल्यान गडगडून येता* |
| | | *आमचो राजा, पळेयात हांव मारतां वडां)* |
| | | (वेता......) |
| **क्लोताल्द** | : | *तुमच्याच पांयां पडपाक पावलों हांव,* |
| | | *मरपाचीच तर पाळी आयल्या म्हजेर.* |
| **सेजिसमुंद** | : | *उठ रे, बाबा, बेगीन जमनीवेलो,* |
| | | *सुर्या म्हज्या जांवक जाय तूं मुखेल,* |
| | | *तूं गा जातलो दिश्या, मार्गदर्शक* |
| | | *सगल्या म्हज्या गुठां-येवजण्यांचो,* |
| | | *कित्याक जाणां हांव भुरगेपणा पसून* |
| | | *जायतो तुज्या रीणा देण्यांत आसां,* |
| | | *यो रे बेगीन, म्हजे मोगाळ वेंगेंत.* |
| **क्लोताल्द** | : | *कितें म्हळें म्हाराज तुमी म्हाका?* |
| **सेजिसमुंद** | : | *कि हांव सपनांत आसां आनी करूंक सोदतां बरें,* |
| | | *कित्याक जायना वायट केल्यार बरें,* |
| | | *सपनांत लेगीत तशें केलें जाल्यार.* |
| **क्लोताल्द** | : | *तशें जाल्यार, करचें बरें-भलें,* |
| | | *जर आतां तुमचो बेत नवो, धनया,* |
| | | *हें तर निश्चीत, वायट धरचें न्हय,* |

| | | |
|---|---|---|
| | | *कि म्हाकाय तशेंच करचें आसा बरें,* |
| | | *तुमगेल्या बापाय लागीं करतले झूज ?* |
| | | *तुमकां बुद्ध म्हज्यान दिंवू नजो,* |
| | | *न्हय म्हणून आदार दिंवक जावचो ना,* |
| | | *तुमगेल्या पांयां लागीं आसां पडून,* |
| | | *दिंवची म्हाका तुमी मरणा ख्यास्त...* |
| **सेजिसमुंद** | : | *नाड खंयचो, घातकी तसोच तूं* |
| | | *बेयमान कित्याक जालो, तूं म्हाका सांग!* |
| (आस्वडी) | | *(पुण सर्गांनो! दाखयात वाट म्हाका,* |
| | | *म्हजे म्हाकाच चलता फटास मारून,* |
| | | *पुण जागो जालां जाल्यार हांवूच नेणो.)* |
| | | *क्लोताल्द, तुगेल्या विक्रमाक लागून* |
| | | *म्हाका भोव उपकार; पुण चडूच मत्सर,* |
| | | *वच तूं आतां राजाली सेवा करूंक* |
| | | *झुजा मळार मेळचें आमी आतां* |
| (शिपायकांक) | | *तुमी जाल्यार, उखलात तुमची हातेरां.* |
| **क्लोताल्द** | : | *हजार पावटीं तुमच्या पांयां पडून,* |
| | | *नमस्कार करून तुमचो उमो घेतां!* |
| | | (वेता....) |
| **सेजिसमुंद** | : | *राज्य करूंक वचूंया, भाग्या म्हज्या;* |
| | | *जागोंव नाका म्हाका, हांव न्हिदलां जाल्यार,* |
| | | *आनी हें खरें जाल्यार, न्हिदांव नाका म्हाका.* |
| | | *पणून खरेलें सपन जालें जाल्यार,* |
| | | *करचें बरें, हेंच गा म्हत्वाचें:* |
| | | *तें सत् जाल्यार, तशेंच जाल्लें बरें,* |
| | | *नाल्यार, आमकां अिशट जोडचे पासत* |
| | | *जागे जांवच्या वेळार मुर्तीमंत.* |
| | | (वेतात आनी हातेरां उबारतात.) |

# देखावो पांचवो

(राजा बाझीलयु आनी आस्तोल्फ येतात)

बाझीलयु : *आस्तोल्फ, विचखेणायेन कोण रे रागान*
*सुटून धांवत्या घोड्याक आडायतलो?*
*दर्याकडेन व्हांवत्या न्हंये-व्हाळाक?*
*कोण रे पेलून धरीत सुटिल्ली फांतर*
*दोंगरा तेंगशे-वेल्यान गडगडटली?*
*तरूय सगलें सोंपें जायत आडांवक,*
*पुण न्हय गा अेका हुरमट, गर्विश्ट मनश्याक.*
*सगल्या वाटां चोंब्यांनी लागला बोवाळ,*
*तोच पडसाद दोंगरां पर्वतांच्या*
*चरीं खोलायेंत येता गजगजून,*
*कांयेक जाणांक तर 'आस्तोल्फ' आयिल्लो जाय,*
*जाल्यार दुसऱ्यां जाणांक 'सेजिसमुंद'!*
*सोपूत घेतिल्ली बांदेज पावयल्या गा*
*दुसऱ्या बेताक, दुसऱ्या भयांकृताक,*
*ही मरणा-दुखेस्त माची, जंयच्यान लागलो*
*नशीबाचो दुखांती खेळ दाखोंवक.*

आस्तोल्फ : *धनया, खोशी म्हजी मात्शी विसरूं!*
*शबास्की आनीक तूस्त-तोखणाय पुरो,*
*जी तुमच्या सुखेस्त हातांनी भासायल्ली म्हाका;*
*जर पोलंड आतां आपलो वारस म्हणून*
*म्हाका मानून घेंवूक करता फाट,*
*तशेंच तें म्हाका पयलें फावो म्हणून,*
*दी गा म्हाका गर्वान भरिल्लो घोडो,*
*जो जोगला नेटा वेगान धांवतलो.*
(वेता....)

बाझीलयु : *भोवूच थोडो उपाय उरता म्हाका*
*ह्याच चुकनाशिल्ल्या विघ्ना मुखार,*
*व्हडल्या संकेश्टा भिरांत झळकता,*
*तशेंच जर जातलें जाल्यार, अशक्य झुजूंक,*
*जो जितले हात फाफुडटा, आडायता तितलोच,*
*कडकडीत कायदो! येवजिल्यार,*

*जो वायट जातल्याचेर गा आसता चिंतीत,*
*ताचेच वटेन खंयचेंय दैंवता वायट.*
*हांव जें राखतालों गा, शेणलें तेंच,*
*हांवेंच म्हजी देस-भूंय उडयली वगडावन.*

## देखावो सटवो

(अिश्त्रेला येता....)

अिश्त्रेला : *जर तुमी, धनया, हाजीर आसले म्हणून,*
*ह्यो घडामोडी येतल्यो आळाबंदा,*
*वोडटा अेके वटेन सावन दुसरे वटेन,*
*राय-रस्त्यार, चावडेर, उग्त्या मळार,*
*तुमचें राज्य पळेतलेत गा तुमी*
*तांबड्या ल्हारांनी जाल्लें बुडबुडीत,*
*तुमच्या जांबळ्या राजा-रगता-मर्दें;*
*दुखेस्त रीतीन सगलें वायट खंतीचें*
*तुमचें साम्राज्य कितलें मडसरीचेर;*
*अितलो कडकडीत रगताळ शिंवर,*
*आयकतल्याक अजाप, पळेंवक तोखणाय,*
*हालता सुर्य, घालता वाऱ्याक लजेंत,*
*दर-अेक फातर उखलता सुची-स्थंभ,*
*दर-अेकलें फूल बांदता अेक यादस्तीक,*
*दर-अेक अिमारत जाता गर्विश्ट समाधी,*
*दर-अेकलो शिपायक जीतो हाडां-सांपळो.*

## देखावो सातवो

(क्लोताल्द येता)

क्लोताल्द : *देवाक आर्गां दितां जीतो-जीवो*
*तुमच्या पांयां लागीं पावलों म्हणून!*
बाझीलयु : *क्लोताल्द, खऱ्यानींच, सांग रे म्हाका सारकें,*
*सेजिसमुंदाची कितेंय आसा खबर?*

क्लोताल्द : *बंडवाले लोक, कुड्ड्या राखसा भशेन*
*धुस्पट करून घुसले त्याच बुरिंजांत,*
*आनी ताचे खोलायेंत लिपिल्ल्या कुंवराक आपल्या*
*काडलो ओडून, जो आपलो मान उबारूंक*
*दाखयल्लो धिरिश्ट, राज्या मुकुट राखूंक,*
*रागा-किंवाट्यान सांगलें ताणें आपुण*
*खरेलो सर्ग जोडून हाडटलो.*

बाझीलयु : *दी रे हाडून म्हाका अेक घोडो, कित्याक*
*हांव रे आतां खुद्द वेतां झुजूंक,*
*सोदतां विभाडूंक बेयमान पुताक म्हज्या;*
*आनी म्हज्या मुकुटाची गा राखण करूंक,*
*विज्ञानाच्यो चुकी सारक्यो करूंक*
*तरसादीच्या तिख्या बळान म्हज्या.*
(वेता....)

अिश्त्रेला : *तेन्ना सुर्या सांगाताक जातलीं झुजारी,*
*तुमच्या वांगडा आशेल्लें जोडटां नांव,*
*जें उडटलें गा उंच पातळिल्ल्या पांखट्यार,*
*पालस देवते लागीं स्पर्धा करून.*
(वेतात आनी हातेरां उबारतात)

## देखावो आठवो

(रोजावरा येता आनी क्लोताल्दाक आडावन धरता)

रोज़ावरा : *जरी तें मोल तुज्या हड्ड्यांत आशिल्लें*
*दिता बळगें, म्हजेंय आयकून घे;*
*सगलें झुजा-मडें म्हणून हांव जाणां,*
*तुमी गा बरे जाणांत कि पावलीं हांव*
*ह्या पोलंड देसांत, तुमच्या पालवा पाख्यान,*
*गरीब-दुबळीं, खालती, अभागी दशेर,*
*तुमची म्हाका गावली दया-माया,*
*धनया-देवा, तुवेंच पाटयलें म्हाका,*
*येवचें म्हणून दुसऱ्या पांगरूण घेवून,*
*राजवाड्यांत मोयीं, रुपडीं घालून,*
*म्हजें खरेलें रुप लिपोवन धरून,*

*आस्तोल्फा पसून म्हाका पयस राखूंक.*
*निमाणेकडेन ताणें पळेलें म्हाका,*
*आनी मान म्हजो तो अितलो मस्तीता,*
*कि पळेवन लेगीत म्हाका, अिश्त्रेला-बायेक*
*मेळून उलयता रातचो फुला-बागेंत.*
*ताणें हाचेलागच्यान तर घेतल्या चावी,*
*म्हज्यान तुमकां करूंक जातलें सोंपें,*
*तुमच्यान तांतूंत भितर पडूंक जायत,*
*म्हजे खंती हुस्के सोंपोंवन हाडूंक.*
*थंय गा उंच माथें धरून, धाडशी,*
*बळिश्ट तुमच्यान परतूं येता मान*
*म्हजो, कित्याक ताचें जातलें फळ,*
*सूड घेंवून म्हाका तुमचें मरण.*

क्लोताल्द : *खरें म्हळ्यार, तुका पळेना फुडें*
*वळ्ळें, रोज़ावसा, तुजेर मन म्हगेलें.*
*तुवें कितेंय करचें येवजिलें,*
*(गवाय दितां, अितलो मोवाळ्ळों हांव.)*
*पयलें म्हळ्यार, म्हाकाच येवजलें,*
*तो परकी वेस घाल्लो काडचो म्हणून,*
*कित्याक, आस्तोल्फान तुका पळेंवचे जाल्यार,*
*देखचें ताणें खरेल्या भेसांत तुज्या,*
*वयल्या-वयली तुजी वृत्ती ना मानीत,*
*मुर्खा पिशेपणान जी मान भंगयता.*
*ह्या काळार येवजितालों कसो घेंवचो*
*जिखून परतो वगडायल्लो मान तुजो,*
*आस्तोल्फाक मरणाक मारचो पडल्यार लेगीत,*
*(अितली तुजी मान-मर्याद लागो)*
*पळे हांव गो पडटां निर्शेणींत!*
*खरें म्हळ्यार, जायना अजाप वा तोखणाय,*
*ताका दिंवचें मरण येवजिलें,*
*जेन्ना सेजिसमुंदान तें म्हाका दिंवचें*
*म्हणून केल्ली येवजण, व्हरून ताका*
*आपलो जीव गा संकटांत घालून,*
*ताणें केल्ली म्हजे राखणे खातीर*
*आपणाली तजवीज खोश्येन दाखोवन दिवन,*
*जें जाल्लें भंय-भिरांतीक निबर आव्हान,*

*धाडशी करणी म्हणून दाखयली सगल्यांक.*
*देखून, जसो हांव आतां हाडटां नदरेक,*
*उपकारांनी काळीज भरून वोतून,*
*जाणें म्हाका जिवीत केल्लें फावो,*
*ताच्यानूच कशें दिंवक जायत मरण ?*
*आनी अशें, ह्या दोनूय कुळां पक्षां मदीं,*
*परिणाम तांचे जतनायेन जोखून,*
*पळेंवन तुका दिल्ले आसात देखून*
*आनी जांतलें तुका सगले मेळ्ळें जिखून,*
*कोणाक पावचें म्हळ्यार समजना,*
*खंयच्या पक्षाक म्हणून दिंवचो आदार,*
*जर तुका हांवें दिंवचें दिल्लें उतर,*
*ताचे लागच्यान तें म्हाका घेंवक जाय.*
*आनी अशें, जें कर्म-भुंयेंत करूं येता,*
*तें म्हज्या मोगाक कांयच पावचें ना,*
*कित्याक हांव गा करणी करचो धनी,*
*जो करता आनी भोगता दुख, ताकाच लागून.*

रोज़ावरा : *हांवेंच शिटकावणी दिंवची लागना तुमकां*
*कि एका खरेल्या दांडग्या पुरुशोत्तमांत*
*दान दिंवचें म्हळ्यार जितंलें स्रेश्ट,*
*तितलेंच उणाक तें आपणाक घेतलें जाल्यार.*
*आनी ह्या मानून घेतिल्ल्या आदारा साण्णीर घांसून,*
*तुमकां उपकार आठोवचो दिसचो ना,*
*मानल्यार कि तोच म्हळ्यार जो दिल्लो म्हाका,*
*जाणें तुमकां जीण केल्ली फावो,*
*आनी तुमी गा म्हाका, हें तर सिद्ध आसा*
*कि तुमचे स्रेश्टतायेक धपकायली बळान*
*सकयल्या पांवड्या करणी करची म्हणून,*
*आनी म्हाका उदार हातान करणी बरी,*
*देखून ताका लागून जाला अपमान,*
*देखून उल्ला तो गा म्हज्या रीणांत,*
*धरलें जाल्यार तुमी म्हाका दिलें*
*तुमकां मेळ्ळां तांतलें थोडें पणून,*
*म्हजो मान राखूंक जो संकटांत*
*येद्या व्हडल्या पडला, येवजिल्यार,*
*कित्याक तुमी म्हाका घालचो फुडें,*

तुमी गा दिता तें सगलें घेंवचे खातीर.

क्लोताल्द : जरी दितल्या हातांत आसता स्रेश्टताय,
तें मेळटल्यान उपकार आठोंवक जाय;
अदीक दिंवचें म्हळ्यार, येन्नाच जाणा तूं,
उदार सदळ काळजा मनश्याचें नांव.
हांवूच मानतां म्हाका आठयल्ले उपकार
कित्याक जोडूंक मेळटा देखून उदार
उपकारांनी भरून, कित्याक मेळटा
भोबमान दान दितल्याक तसोच घेवप्याक.

रोज़ावरा : तुमचे लागच्यान गा मेळ्ळें म्हाका जिवीत,
आनी तुमीच न्हय गा सांगिल्लें म्हाका तेन्ना
जेन्ना दिल्लें म्हाका नवें जिवीत,
कि अपमानान माखिल्लें न्हंयच जिवीत.
देखून तुमचे लागच्यान म्हाका कांयच
मेळ्ळें ना गा म्हणून धरचें हांवें,
कित्याक जिवीत जिवितूच न्हय गा खरें
जें तुमच्या हातांनी दिल्लें म्हाका हाडून.
आनी जर तुमकां जाय गा जाल्लीं पयलीं उदार,
उपकार आठोंवचे आदींच (जशें तुमींच
तुमच्या तोंडान म्हणिल्लें आयकलां)
रावतां तुमी गा म्हाका दितले जिवीत
जें अजून म्हाका दिल्लें ना गा तुमी;
कित्याक दितल्याक येता व्हडविकाय,
देखून जायात पयले उदार, मागीर
तुमचे उपकार मानूंक पावतलीं!

क्लोताल्द : तुज्या मुद्द्या तर्क पटलो म्हाका,
देखून पयलीं जातलों हांव गो उदार.
रोज़ावरा, दितलों तुका भाट म्हजें,
जियेतलों हांव मोट्या आश्रमांत,
कित्याक येवजिल्लो असो मदलो मार्ग.
कित्याक अेक अपमानाची करणी करून,
पवित्र सुवातेर वच्चें आसरो मागून,
जेन्ना वांटून पडिल्ल्या असल्या राज्यांत
वायट अपशकून येतात मातून,
हांवूच पावचो न्हय ते वाडोंवच्याक,
स्रेश्ट कुळयेंत जल्माक आयिल्लों आसून.

*असले उपाय वेंचून काडले म्हणटोच*
*राज्या कडेन निश्टावंत हांव जालां,*
*तुजेच लागीं उदार उतरलां गो,*
*आस्तोल्फाचो हांव भोवूच उपकारी,*
*आनी अशें तुका वेंचून दवरचें केलें,*
*हांवूच पडून त्या दोगां मनश्यां मदीं,*
*कित्याक करचो नासलों हांव गा, धनया!*
*देवा-गेलो जांवूं गो जयजयकार!*
*पणून जेन्ना तुजो जाल्लों बापूय...*

रोजावरा : *जेन्ना तुमी म्हजे जाल्ले बापूय*
*हांवें भोगिल्ल्यो त्यो असल्यो दुखापती,*
*पुण तुमी ते न्हय जाल्ल्यान, त्यो भोगचीं ना.*

क्लोताल्द : *तशें जाल्यार, कोण गो जाची फाट*
*धरूंक रावता तूं, व्हय, सूड घेंवूंक?*

रोजावरा : *दूक-सरदाराक मारचीं आसां हांव.*

क्लोताल्द : *जे बायलेन आवय-बापायक वळखलीं नांत*
*आसत तिच्यांत येदें धाडस-बळ?*

रोज़ावरा : *व्हय गा, सायबा. खऱ्यानींच आसा तें म्हज्यांत!*

क्लोताल्द : *कोण गो, सांगशी, दिता स्फूर्त तुका?*

रोज़ावरा : *म्हजें उत्तम बरें नांव-रूप गा.*

क्लोताल्द : *नियाळ कर गो, आस्तोल्फ पळेतलो....*

रोज़ावरा : *सगली म्हजी मान-मर्याद ताणेंच*
*गर्व-आगळिकेन लायली वाटेक.*

क्लोताल्द : *.... तो तुजो राजा आनी अिश्त्रेला-बायेचो घोव.*

रोज़ावरा : *हांव गा तांतलो ताका आडायतलीं,*
*देवाच्यान, म्हज्यान लेगीत सोपूत घेतां.*

क्लोताल्द : *हें गो तुजें कसलें मुर्खपण!*

रोज़ावरा : *तें दिसता म्हाका निश्चित, कळटा म्हाका!*

क्लोताल्द : *जाल्यार, जैत व्हर गो हे भावनेचेर.*

रोज़ावरा : *जांवचें ना गा हें म्हज्यान कशेंच करूंक.*

क्लोताल्द : *तशें जाल्यार, बाये तूं शेणटलें....*

रोज़ावरा : *तें जाणां गा हांव, बरे भशेन जाणां!*

क्लोताल्द : *... तुजो मान आनीक तुजें जिवीत.*

रोज़ावरा : *तांतूंत विस्वास आसा म्हजो, सायबा!*

क्लोताल्द : *कितें जोडपाचें आसा गो तुका, सांगशी?*

रोज़ावरा : *मरण म्हजें, आनीक कांयच न्हय!*

क्लोताल्द : *हें तर, बेश्टेंच फोर्र काडपाचें.*
रोज़ावरा : *तो प्रस्न, जाणा, म्हज्या मानाचो गा!*
क्लोताल्द : *ना गो, तें फकत तुगेलें मूर्खपण.*
रोज़ावरा : *ती धिटाय म्हजी, खऱ्यांनीच सांगतां तुमकां!*
क्लोताल्द : *ना, तो निखटो भावना-उमाळो तुजो.*
रोज़ावरा : *ना, तो रागा-किंवाटो, तो क्रोध-कोप.*
क्लोताल्द : *निमाणेकडेन, कळना म्हाका कितें तूं*
*तुज्या कुड्‌झ्या उमाळ्याक तेंको दिता?*
रोज़ावरा : *ना...*
क्लोताल्द : *कोण गो तुका दितलो आदार, सांगशी?*
रोज़ावरा : *हांवूच गा करतलीं तें सगलें काम.*
क्लोताल्द : *ह्या हुरमटपणांक कांयच वखद ना, व्हय?*
रोज़ावरा : *ना गा, सायबा, कांयच वखद ताका.*
क्लोताल्द : *चिंतून, नियाळून पळे गो बरे भाशेन*
*आनीक दुसरे मार्ग सुचतात जाल्यार.*
रोज़ावरा : *दुसरे मार्ग आपणायल्यार, सांगचें कोणें,*
*म्हजी धाना-धिस्पट जांवची ना!*
(वेता....)
क्लोताल्द : *तशें जाल्यार, दिसता म्हाका, पुता,*
*तूं तर शेणटलेंच जाल्यार, राव गो,*
*सगलींच आमीं वांगडाच वचूं शेणून!*
(वेता....)

## देखावो नववो

(बेंड वाजता आनी मार्च करून शिपायक येतात. क्लारीन आनी सेजिसमुंद, चांबड्या-आंगाचें न्हेसून येतात.)

सेजिसमुंद : *आयच्या दिसा जर पळेल्लो म्हाका रोमान*
*जैतिवंत करण्यांनी आपले मदीं*
*साम्राज्याच्या पयल्या भांगरा काळार,*
*कितले हांसून खोशी जांवचे नासले*
*पळेंवक भोगूंक असली अपूप घडणूक,*
*रानवट मोनजात घेवून वेतली मुखार*
*येदे व्हडले गर्विश्ट फौजीक ओडीत,*

*जांचे आंवडे मळब जिखूंक पावत!*
*परतल्यार आमचें मन मोडावत.*
*हे भाशेन, माया पयस जांवची ना*
*त्या व्हय-न्हय-शे दिसते शबास्केची,*
*म्हज्या मनार पडटलो भार जाल्यार*
*जागो जाल्लो हांव रे आसतना,*
*जिखूंन घेंवक, जैत जोडचें म्हणून,*
*मागीर तेंच वगडावन बसचे खातीर,*
*कित्याक जितलें थोडें आसलें जाल्यार,*
*तितलें उणें भोगतलें, तें शेणल्यार.*
(भितल्ल्यान क्लारीनेत वाजता)

क्लारीन : *पळे, तुरतुरीत अेक धांवता घोडो*
*(माफ करात स्फुरता म्हज्यांत आंवडो)*
*ताचें वर्णन करूंक रंगीत रूपान*
*नकासो घेंवून बसचें पडटलें,*
*कित्याक ताची कूड धर्तरी,*
*आत्मो उजो जो हड्ड्यांत आसा दडून,*
*फेणेर तोंडातुलो दर्या जाला,*
*ताचो सुस्कारो म्हळ्यार वाऱ्या वेगाचो,*
*ताच्या घुस्पागोंदळांतं मातलां काळीज,*
*कित्याक आत्म्यांत फेणेर, कूड, स्वास,*
*दैत्य उज्या, पृथवी, दर्या वाऱ्याचों,*
*रंग रूप कातडे चांबड्याचो*
*तांबड्या-गुंज, ताचेच खातीर केल्लें,*
*हाचेर बसून तोपतां पांयांनी ताका,*
*आनी धांवचे सुवातेर तो खंय उडून वेता,*
*तुमचे मुखार पावतली, आतां अेक बायल*
*झेतान घोड्यार बसून, दिसता सोबीत.*

सेजिसमुंद : *तुजो उजवाड करता कुड्डो म्हाका.*

क्लारीन : *देवाक आर्गां दियात, तें आमचें रोज़ावरा!*
(वेता....)

सेजिसमुंद : *देवानूच ताका परतें हाडलें म्हाका.*

# देखावो धावो

(रोज़ावरा येता, गोरवां-राखण्या आंगल्यान, पुण तरसाद आनी पोती भेंडाक बांदून)

**रोज़ावरा** : *उदार सेजिसमुंदा, कीर्त तुजे*
*वीरकायेची उपजून येता रातच्या*
*सांवळ्यांतुल्यान कर्तुत्वाच्या दिसा;*
*आनी जसो व्हडलो सूर्य फांत्यावेले*
*वेंगेंतुल्यान उडयो मारून येता,*
*आनी उजवाड परतो दिता गुलाब, फुलांक*
*झगझगता दर्या, दोंगर, पर्वत,*
*तशे तुमी गा मुकुटायिल्लो आमचो सूर्या,*
*तुमचो उजवाड शिंवराय, किर्णां शिंपडाय,*
*तेंगश्यांक न्हाणय, फेणेरी देग दिपकाय;*
*अशीच संवसारा सकाळ उजवाडाय,*
*पोलंड देसाच्या सुर्या जळजळट्या,*
*अेक अभागी बायल पडटा तुमच्या पांयार,*
*आयज, तिका राख, सांबाळ, बायल*
*आनीक दुर्दैवी प्राणी म्हणून, मागतां;*
*दोन गजाली दादल्याक ओड्डूंक पुरो*
*जो आपले धिटाये विक्रम दाखयतलो,*
*तांतली खंयचीय अेकूच जातली पुरो,*
*तांतली कसलीय अेकूच गजाल सुबेज.*
*तीन फावटी हांव कोण तें वळखलेनांत,*
*कित्याक तिनूय फावटीं म्हाका पळेलें*
*वेगळ्या वेगळ्या रूपान तशेंच भेसांत.*
*पयले फावट हांव तुमकां दिसलीं दादलो,*
*जेन्ना तुमी आसले बंदखणींत,*
*जंय गा तुमच्या जिविता खबर म्हाका*
*गेल्ली भोवूच ओडून, धुमको मारून.*
*दुसरे फावटीं तुमी तोखेल्लें म्हाका*
*बायले रुपान, जेन्ना जाल्ले तुमी*
*राजा वैभवान सपनांतुल्या,*
*अेक झळंबें कशें, जाल्ली फकत सांवळी.*
*तिसरे फावट, आयज, दोनूय रुपांभितर*

*खंयचें नसांव, भयंकर राखशीण कशी,*
*बायले सोबीत मोवाळ रुपांत म्हज्या*
*जोडल्यां दादल्या शूर हातयारां बळिश्ट*
*आनी तुमी गा म्हजे विशीं दयाळ जावन*
*म्हजो सांबाळ करूंक जातले तयार,*
*जातलें बरें तुमी आयकल्ली म्हजी*
*काणी येसवंत तशीच दुखाभरीत.*
*जल्मल्लीं हांव गा आस्तीग आवये कुसव्यांत*
*मोस्कोवयाच्या राज-दरबारा गोपांत.*
*वायट नशीबान निर्मिल्ल्या पर्मणें हांव*
*उतरलीं सोबीत-घुबीत नारी कशी.*
*तेन्ना म्हाका घातकी लागले दोळे,*
*म्हजो ताळो सांगना ताचें नांव,*
*कित्याक तें सारकें बरें नकळों हांव,*
*पणून जाचें मोल कळटा म्हाका,*
*कित्याक अेक वस्त कल्पनेन निर्मिल्ली*
*जाल्ल्यान, दिसता तो बरे कुळयेंतलो न्हय,*
*म्हज्या सारकेल्या पिश्याक समजांवक, कि असलींच*
*दुर्दैवी जायतीं जाल्यांत फाटल्या काळांत*
*जीं आपलें रुप बदलून करतात रुधन,*
*भांगरा पावस, बतक, पाडो जावन,*
*दाने, लेदा, येवरोपा सारकेल्यांचीं.*
*जेन्ना दिसलें म्हाका कि तो करता लेंबय,*
*वांकड्यो, फटोवपाच्यो काणयो सांगून,*
*ताचें उलोवप, तुमकां सांगलां तशें,*
*भोवूच थोडीं कारणां सोदून काडून,*
*कि आवय म्हजी बाबडी भुलोवन गेल्ल्यान*
*मोगा-खबरां म्होंवा भारान वचून,*
*जाल्ली खंयचेय अेके सुंदरे भाशेन,*
*आनी दुखेस्तायेंत पडली सगल्यां भाशेन.*
*ती नेणार आसून, चूक पातयेवपाची,*
*पति-व्रतेचें उतर लागलें तिका*
*अितलें कि आयज मेरेन चिंतनां पाळटा*
*अेक पुंड्र हुकुमशाह जावन गेल्लो ताचीं,*
*जशें अेनेयासान, आपलें त्रोय घेतिल्लें*
*जंय दवरली ताणें आपली तरसाद सोडून.*

म्यानांत घालात तुमची धारे तरसाद,
हांव गा तुमचें न्हेसण सोडयतलीं,
म्हजी काणी सांगून सोंपचे पयलीं,
दिल्लें ताणें उतर म्हाका, पोल,
जें बांदून घेना न्हय म्हण करीना खरें,
लग्न करचें म्हळ्यार धरता गुन्यांव,
जेन्ना खरें म्हळ्यार सगलें अेकूच,
जल्मलें हांव पळेयात अितलें शिरवंत,
कि चित्रां भशेन जालीं, अेक नकल कशी,
जरी सोबितायेन खाश्या न्हय गा जाल्यार,
तरी बऱ्या नशीबान तशेंच करण्यांनी;
आनी अशी म्हाका सांगची गरज ना
कि जातलें भोवूच उणें सुखी, वारस
जायत्या भाग्याचें, झडमोडाचें,
हांवूच वांगडा ताच्या धांवत गेलीं.
म्हज्यान तुमकां चडूच कितें सांगूं येत
म्हळ्यार देंवचार जो चोरता म्हज्या माना
अिनाम, मान-मर्याद भंगिल्ले अवशेश.
आस्तोल्फ, देवा म्हज्या! ताचें नांव
घेतल्यारीच, विट्टा काळीज म्हजें,
सणसणटा कपल रागा-किंवाट्यान,
दुस्मान लेखिल्ल्याचो परिणाम कसो.
आस्तोल्फ उतरलो बेयमानांचो म्हारू,
विसरून वचून सगलो आदलो वैभव,
(कित्याक फाटीं पडिल्ल्या मोगा काळा
सगलो उगडास पडटा विसरायेंत)
आयिल्लो पोलंडाक किर्तीवंत जैता
उपरांत, अिश्त्रेलाकडेन जांवच्याक लग्न
जें कळीत केलें म्हाका ना सांगतनां.
कोण गा खरें नखेत्र मानतलो
जें जाल्लें आसा दों मोगयां अेकवट जोडूंक,
जातलें आतां नखेत्र तो तोडपाचें?
हांव अपमानीत जाल्ल्यान, फटोवन गेल्ल्यान,
पडलीं दुखांत, बुडलीं पिशेपणांत,
झडलीं मरणा-दशेंत, शेणलीं हांव,
म्हणचें म्हळ्यार पडलो म्हजेर सगलो

घुस्पागोंदळ येमकोंडाचो भरून,
म्हज्या ह्या आट्यां-विट्यां संवसारांत;
आनी मोन्या भास म्हजो जाहीर करून,
(कित्याक आसतात जायत्यो दुखी खंती
ज्यो विसोवे-इंद्रियां सांगतात उगतेपणीं
तोंडान उच्चारिल्ल्या उतरा परस चड)
वोगी सोंसून घेतलें दुख म्हजें,
अेकांतांत अेकदां पावसो मेरेन, जेन्ना
वियोलांत, आवय म्हजी, धनया देवा,
बंदखणींतल्यान तोडून सरली भायर,
आनी तिच्या फुडाकारान वांगडा आयलीं
सुटून, अेकामेकाक माड्डायत गुड्डायत.
हें सांगूंक म्हाका कांयच दिसना लज,
जाणा जावन कि अेक मनीस जो आपलीं उणीं
सुट्टा सांगत, तो हेरांनी आसता भेदी,
दिसता कि तो परवानगी, भुजवण मागता;
केंन्ना केन्नांय दिल्ली वाट देख,
कित्याक तरीय पडटा उपकाराक.
निमाणेकडेन, काकुळटीर येवून तिणें
म्हजीं गारांणीं, प्रार्थनां आयकलीं,
आपणालीं सांगून दिल्ली भुजवण म्हाका.
मनसुबदार, आपुण जाल्ल्यान गुन्यांवी,
कितल्या सोंपेपणान भोगशीता!
आनी आपले भितरूच धाडाय-बडयता हड्डें,
मेकळीकेक नाकारूंक सोंपो मार्ग
ताचे मान-मर्यादेक वखद दिवूंक,
ताका घेतलो ना हांवें दुर्दैवांत.
कितलीय बरवी बुद्ध घेतली जाल्यार,
तिका पाळो दिवूंक शक्तिचो,
सगल्यो शुभ फावो त्यो विधी पाळून,
म्हज्या मनाचे माना-देवते खातीर,
आनी तांकता तितल्या उण्या वावरान जांवदी,
म्हज्या नशीबाक गरज पडली करूंक
भेस दादल्याचो लिपोंवक म्हाका अशें.
काडली भायर हांवें अेक पोरणी तरसाद
जी आयज पळे ही लायल्या भेंडाक म्हज्या.

आतां पावलो वेळ सोडपा मोयें,
जशें हांवें पारख्याक दिल्लें उतर,
ताच्या उतरार पातयेवन, जी सांगणी अशी:
''पोलंडाक वच्चे खातीर बेगीन भायर सर,
पळेंवदी सगल्यांनी तुका असल्या भेसांत,
भोवूच स्रेश्ट रीतीन नेटयलेलें,
कि खंयचेय परिस्थितींत तुज्या नशीबान
दयाळ बरी करणी घडये घडत,
तुज्या मनाक थाकाय भुजवण दिवून.''
पावलीं हांव पोलंडाक खरेपणींच.
वयल्यान, कित्याक तुमकां सांगलें म्हणून
कसलीच पर्वा ना, आनी तुमीं जाणांतूच,
कि अेक हुरमट रानवटी जो सुटला सैल,
ताणें तुमचे धोलीक पावयलें म्हाका.
समजूंया गा कि थंय क्लोताल्द तुमचो
भारीं भुलून मोगान पडटा म्हज्या,
जो मागता राजाकडेन जिवीत म्हजें,
आनी म्हाराजा दितात म्हजी जीण ताका;
कळना फुडें ताका कोण तें हांव,
फुसलायता ताका म्हजो खाश्या भेस
आपणावचो म्हणून, अिश्त्रेलाची सेवा करूंक,
जंयच्या जाग्यार सावन हिकमतीन
आस्तोल्फाचो मोग हांव गा आडायतलीं,
आनी अिश्त्रेला ताची घरकान्न जांवची ना.
समजुंया तुमी हांगासर पळेलें म्हाका
परतें अेक फावट घुस्पागोंदळ्ळेलीं
आनी परतें अेक पावट बायले रूप घेवून,
दोनूय रूपांनी जातलो गैरसमज;
आनी समजुंया कि क्लोताल्द, समज घाल्ल्यान,
कि तीं लग्न जांवचीं आनी राज्य करचें दोगांयनी,
आस्तोल्फ आनीक अिश्त्रेला, हे सोबीत जोडयेन,
म्हज्या माना आड बुद्ध दिली
कि म्हजो दाव गा असोच दिंवचो सोडून;
ह्यावें, तुमच्यांत पळेवन, धिरिश्ट सेजिसमुंदा,
सूड तुमच्या आंगांत फुरफुरिल्लो,
कित्याक, धनया देवाक फोडिल्लीं जाय

तुमी हे रानवट बंदखणीचीं दारां,
जंय तुमची व्यक्ती जाल्या भावने-स्थान
अेक मोनजात, दुखाभारान, फातर कसो,
उखल गा तरसाद तुमच्या देसाखातीर,
तुमच्या बापायगेल्या कारस्थानां आड,
तुमकां आदार दिवपाक येतलीं, हाड
जोडूंक दियाना-गेल्या घट कासाट्याक,
पालस्त देवते-गेली झुजा-मुस्तायकी,
न्हेसून आतांच लुगट, आतांच तिखें,
ज्यो दोनूय वस्तू जोडून नेटयतात म्हाका.
अशें आसून, बळिश्ट फुडाऱ्या म्हज्या,
आमच्या दोगांयच्या हिता-गरजेचें
कशाय भशेन आडांवक आनी मोडून उडोंवक
हें लग्न आतां जें मांडून थारायलेलें:
म्हाका, कित्याक तो लग्न जांवचो न्हय
जाका म्हजोच घोव नेमिल्लो आसा;
तुमकां, कित्याक दोनूय राज्यां आमचीं
अेकठांय आशिल्ल्यान, आमीं जोडिल्लें जैत
दुबावान पडचें न्हय गा चडूच बळान.
बायल, ह्या नात्यान, येतां तुमकां फुसलांवक
गरज दिंवक म्हज्या मानाक राखण,
दादल्या नात्यान दितां तुमकां स्फूर्त
तुमचो राजा मुकुट जोडचे पास्वत.
बायल, तुमकां अपुर्बायेन पोशेत
जेन्ना तुमच्या पांयां पडटलीं हांव
दादलो म्हणून, चाकरी करतलीं,
जेन्ना तुमीं परजेक पावतले.
बायलेक, तुमीं आदार दिल्लो जांय
म्हजे तक्रारींत, म्हजे व्हडले दुखींत,
दादलो म्हणून, तुमच्या आदाराक येतां,
म्हजी तरसाद, म्हजीच व्यक्ती घेवून,
आनी अशें तुमकां दिसता जाल्यार, बायल,
जिचो मोग जोडूंक तुमी केला,
दादल्या भशेन दितलीं तुमकां मरण
म्हजे मान-मर्यादी राखण करूंक;
कित्याक जातलीं तुमच्या मोगा जैतांत

*बायल रुपान तुमकां गाराणीं सांगूंक,*
*दादलो कसो, मान भोवमान जोडूंक.*

सेजिसमुंद (आस्वडी) : *(देवा! जायत खऱ्यानींच सपनेतां हांव,*
*म्हजी उगडास-शक्ती पडल्या बंद,*
*कि अितल्यो गजाली ह्या सपनांत आटापल्यात,*
*हें खरेंच घडलां जायत दिसना म्हाका.*
*देव गा पावचो म्हाका! मानचें कोणें*
*सगले गजालींनी भोवूच खबर ताका*
*जो खंयचेच वस्तू विशीं चिंतीना म्हणून!*
*कोणें पळेल्यांत अितलीं दुबावी दुखां?*
*जर सपनेलों येद्या व्हडल्या वैभवान,*
*जशें दिसलें म्हाका, कशी ही बायल जायत*
*करता उल्लेख येद्या नांवरुपाचो?*
*तें सत् जालेंच जाल्यार, तो दुसरो जाता*
*घुस्पागोंदळूच आनी उणो जाल्यार न्हयच,*
*कशें पळे जिवीत म्हजें जालां सपन?*
*कित्याक, वैभव दिसतात सपनां भशेनूच,*
*खरेलें सत् लेखतात फटींगपणां,*
*आनी लटकें पोकें खरेलें सत् कशें,*
*अेकल्या परस दुकल्या फरक थोडो?*
*कि प्रस्न पडटा जाणा जांवन घेंवूंक*
*कि नदरेक दिश्टी पडटा आनी भोगता तें*
*जायत सत् वा बेश्टें लटकें रूप?*
*नकल मूळ रुपाक सारकीच दिसता*
*कि ती खरेलीच म्हणून जाणा जांवूंक दुबाव?*
*देखून, जाल्ल्यान अशें, दिसतलें*
*सांवळ्यां मदें दडून वेतली उबून*
*सगली व्हडवीक, सगली सत्ता, संभ्रम,*
*सगलो राज्या वैभव, थाट, माट,*
*ह्या सपना फायदो घेंवूक लागता तितलो,*
*कित्याक ताचो रस घेता तो तोच*
*जो सपनांतूच रीगून भोगता सुख.*
*रोज़ावरा म्हजे सुवादीन ताब्यांत आसा,*
*ताचे सोबीतकायेक म्हजें काळीज*
*धडधडून मोगान होरायता.*
*हें निमित धरून, हो देखावो घेंवया भोगून;*

*मोग मोडटा सगले कायदे नेम,*
*मुल्यां विस्वासाचीं, विक्रमांचीं,*
*जे अर्थी तें सरपट्टा म्हज्या पांयां लागीं.*
*हेंच जाल्यार सपन; आनी तें जांवदी तशेंच,*
*सपनेंवया सुखान आतां व्हडल्या मापान,*
*जीं घड्ये मागीर जांवयेत दुखा रुपां.*
*पणून म्हजीं खाशेलीं कारणां सांगून,*
*म्हजे म्हाकाच परतो हांव दितां समजावन,*
*तें सपन जाल्यार, तो पोको बडवाचार,*
*कोण तो जायत मनश्या बडायेक लागून*
*देवा सर्गा वैभव उडयता वगडावन?*
*खंयचो बरो भुतकाळ न्हय गा सपन?*
*जोडलें जाणें वीरकायेंत येस*
*तो म्हणचो ना गा आपलेच सवें नियाळून,*
*आपणाली उगडास-पटी चाळटना:*
*''दुबाव विरैत जितलें पळेलें हांवें*
*तें अितलेंय सपनांतुल्यान आयलें रुळून?*
*कित्याक तें अितलें जायत फसोवणेचें,*
*जरी जाणां हांव कि सुखभोग आमचे*
*म्हळ्यार जोत ल्हान वाऱ्याची फूंक*
*लागल्यार वेतली पालोवन गोबर जावन,*
*सासणाचें कितेंय जोडपाक वचूंया मागूंक;*
*ती कीर्त चडूच काळ तगतली,*
*जंय सुख न्हिदून सोंपून सोंपना केन्नाच*
*न्हय म्हणून व्हडवीक, वैभव विसव घेना.*
*रोज़ावराचो मान उबयला कोणें?*
*राजकुंवरागेलें कर्तव्य खंयचें,*
*मान जोडून दिंवचो, न्हय काडचो?*
*देवाक जय! कि तिच्या माना जैत*
*जोडटलों हांव, जिखून घेंवचे आदीं*
*मुकुट म्हजो, राज्य हक्कान म्हजें.*
*पळून गेल्लों बरो ह्याच निमित्तान,*
*जो प्रसंग भोवूच बळिश्ट आयला उतरून.)*

(अेका शिपायकाक) : *वाजय बेगीन, उखल तरसाद तुजी,*
*झुजाक पेटलां हांव रे निर्धारान,*
*काळखी सांवळ्यो भांगरा किर्णां घेवून*

| | | |
|---|---|---|
| | · | *मारून पुरचे आदीं ल्हारांनी काळ्या.* |
| रोज़ावरा | : | *धनया, अशे कित्याक नश्ट जातात?* |
| | | *ना गा तुमचे लागीं अेकूच उतर,* |
| | | *म्हजी जतनाय ना, गा, अिल्लीय तुमकां,* |
| | | *म्हजो सापूच हुस्को काळजी जायना?* |
| | | *कशें शक्य जायत, धनया म्हज्या,* |
| | | *तुमी पळेनांत म्हाका, आयकनांतूय?* |
| | | *म्हजे वसल्यान वळीनांत मुखकमळ?* |
| सेजिसमुंद | : | *रोज़ावरा, मान मर्याद म्हत्वाची गो* |
| | | *तुजे लागीं सांबाळची आसल्यार म्हाका* |
| | | *दयाळ जावन, आतांच क्रूर जांवक जाय.* |
| | | *म्हजें उतर तुका जाप दिना,* |
| | | *कित्याक म्हजो भोवमान जाप दिता;* |
| | | *हांव गो उलयना तुजे लागीं कित्याक* |
| | | *करण्यो म्हजे वतीन उलयतल्यो;* |
| | | *तुका पळयना हांव, कित्याक तूं बळगें,* |
| | | *कडकडीत नेटाळ, विभाडपाचें* |
| | | *कि तुजो सोबीतकायेक पळेवन घेना,* |
| | | *तुजो मान पळेवन राखचे खातीर.* |
| | | (वेता.......) |
| रोज़ावरा | : | *कसलीं कुवाडीं गा हीं धनया-देवा?* |
| | | *अितल्यो सोंसल्या उपरांत दुखी खंती,* |
| | | *अजून सतायतात येवजूंक म्हाका दुबाव* |
| | | *असल्यो जापो तांच्या तोंडांतुल्यान!* |

# देखावो अिकरावो

(क्लारीन येता)

| | | |
|---|---|---|
| क्लारीन | : | *पावलो वेळ तुका पळेवपाचो?* |
| रोज़ावरा | : | *हाय क्लारीन! खंय रे बाबा आसलो?* |
| क्लारीन | : | *बंद केल्लो वयल्या बुरंजांत म्हाका,* |
| | | *मरणा म्हज्या नियाळ करतालों,* |
| | | *दितले म्हाका कितें वा ना गो मरण;* |
| | | *आनी अिस्पीकांच्या खेळांत म्हाका पासो* |

*कसो म्हजें जिवीत हाताळटलों;*
*केन्ना कोंसळत फार अनर्थाचो!*

रोज़ावरा : *कित्याक अशें म्हणटा गा तूं आतां?*

क्लारीन : *कित्याक तूं कोण तो गूठ जाणा गो हांव*
*खरें म्हळ्यार.....*
(भितल्ल्यान आवाज आयकूं येता)
*क्लोताल्द.... पुण कसलो बोवाळ हो?*

रोज़ावरा : *कसलो बोवाळ तो जांव येता, दिसता व्हय?*

क्लारीन : *थंयच्या राजवाड्यांतल्यान वेडायिल्ल्या*
*सरता भायर सशस्त्र फौजी पळटण,*
*फुडो करून आडांवक, विभाडचे खातीर*
*रागिश्ट-रानवट सेजिसमुंदा फौज.*

रोज़ावरा : *तशें जाल्यार, कितलीं भेजूड हांव*
*तांच्या वांगडा झुजूंक तयार नासूंक,*
*अजाप तशीच लज संवसाराची,*
*जेन्ना अितले क्रूर निश्टुरायेन*
*सोडल्यात कायदे-नेम नासतना*
*फौजी ताचेर सुणीं चड्यल्ले भशेन.*
(वेतात....)

## देखावो बारावो

भितल्ल्यान कांयजाण : *आमच्या अजिंक्य राजाचो जयजयकार!*

भितल्ल्यान दुसरे जाण : *आमचे स्वतंत्रतायेचें जय जय!*

क्लारीन : *स्वतंत्रतायेचें आनी राजाचें जय जय!*
*तांकां मेळचें भोवूच लांबदीक औख,*
*म्हजे म्हाकाच भोगना दुख खंत*
*म्हाका असोच मेजून घेतलो जाल्यार;*
*हांव गा पयस रावतां आयच्या दिसा*
*येद्या व्हडल्या घुस्पागोंदळांत ह्या,*
*नेरो पात्शायाची भुमिका करून,*
*जाका कसलीच दुख लागनाशिल्ली.*
*जरूय हांवें दुख धरूंक जाय,*
*कित्याचीच जाल्यार, ती, सांगतां, जातली म्हजीच;*
*लिपिल्लों हांगा बसून, पयस थावन*

*सगलें झुजा फेस्त हांव घेतलों पळेवन.*
*हीच सुवात लिपिल्ली आनी घटमूट आसा*
*ह्या सुक्या-सड्या दोंगरां खडपां मदें;*
*मरणा हात म्हाका पावचेनांत,*
*मरणाक दाखयतलों हांव गा कोंको.*
(लिपता.......)

## देखावो तेरावो

(तरसादी, भाल्यां खणखणाट आयकूं येता..... येतात राजा, क्लोताल्द आनी आस्तोल्फ, पळत)

**बाझीलयु** : *आसत म्हज्याय परस दुखेस्त राजा?*
*आसत चडीत धुमाळो दिल्लो बापूय?*
**क्लोताल्द** : *पळेयात तुमगेली फौज गेल्ली विभाडून*
*पळटा संद बंद नासतना.*
**आस्तोल्फ** : *सदांच घातकी पडटात अशेच जिखून.*
**बाझीलयु** : *असले रीतीन जे जिखतात झुजां मळार*
*तेच खरेले पातयेवपाचे जातात;*
*विभाडून गेल्ले उरतात घातक्या रुपान.*
*हांगाचे पळून वचुंया आमीं, क्लोताल्द,*
*देखून, ह्या क्रूर, मनश्याभायऱ्या निश्टूर*
*पुता कडकडीत ख्यास्ती पसून.*
(भितल्ल्यान फार मारतात आनी क्लारीन आसा थंयच, घायाळ जावन, जमनीर पडटा.)
**बाझीलयु** : *सायबा, धनया देवानूच राखचो म्हाका!*
**आस्तोल्फ** : *कोण हो बाबडो दुखी शिपायक हांगा,*
*आमच्या पांयां म्हऱ्यान पडला कोंसळून,*
*सगलोच रगतान बुडून गेल्लो दिसता?*
**क्लारीन** : *हांव गा अेक नशीब-फुटको दादलो,*
*सांबाळून मरणा पसून म्हाका राखूंक*
*प्रयत्न भारीं करतालों म्हणून मेलों,*
*सोदूंक गेल्ले भशेन मरण मागून.*
*मरणा पसून पळत गेल्ले कडेन*
*ताचेच वेंगेंत वचून पडलो हांव,*

*कित्याक मरणाक खंयचीच सुवात ना गा,*
*गुठान लिपोवन सांबाळून दवरपाची;*
*जाचे-वेल्यान हो मुद्दो स्पश्ट जाता,*
*जो कोण ताचो परिणाम पळेता चुकोंवक,*
*ताकाच तो धोंसूंक येता चड प्रमाणान.*
*देखून, परते वचात रग्ता झुजांत,*
*हातयारां उज्या मदीं चडूच सुरक्षा*
*मेळटा खंयच्याय राखिल्ल्या दोंगरा परस;*
*कि खंयचोच सुगूर ना गा जागो फुडाराक*
*निर्मणा बळ फोडपाचो, तसोच*
*नशीबा कर्मा निश्टुराये आड.*
*आनी अशें, पळून मरण वाटायल्यारूय,*
*पळेयात तुमीय मरतलेच, तशें*
*निर्मिलां मरूंक जाल्यार तुमकां देवान.*
(भितरल्यान कोंसळून पडटा)

बाझीलयु : *पळेयात तुमीय मरतलेच, तशें*
*निर्मिलां मरूंक जाल्यार तुमकां देवान.*
*देवा म्हज्या, कितले बरवे रीतीन*
*आमची चुक, आमचेंच अज्ञानपण*
*आमकां फुसलायता हें मडें तोंडान उलोवन*
*अेका घायाळ रुपान, तांतली वाफ*
*सुट्टा रग्ताळ जीबेन शिकोवन आमकां*
*कि मनश्यांगेले प्रयत्न जातात निर्फळ*
*जेन्ना ताचे परस गा व्हडली शक्ती*
*तांच्या येवजण्यांचेर व्हरता जैत!*
*अशें आसून, हांव म्हजो देस पोलंड*
*मरणां, कटां, बंड्डां घातक्यां पसून*
*सोडोंवक, पावलों परतो दिंवक तांकांच*
*जांचे कडल्यान सोडोंवक येवजिल्लें हांवें.*

क्लोताल्द : *पणून निर्मण, धनया, चुकना कोणाक,*
*तें सगल्यो वाटो जाणां आनी उडयता कोणाक*
*सोदूंक येता ताका दोंगरां खडपांत,*
*क्रिस्तांव रीत न्हय म्हणपाक ना राखण*
*ताच्या कायद्यां नेमां सांगण्यांचेर.*
*आसता जाल्यार विचखेणायेचो दादलो*
*ताचेर जैत जोडूंक शकतलो;*

जर दुख दुर्दशेचो वीट ना जाल्यार,
लिपून तुमी खंय तरी रावूंक जाय.

आस्तोल्फ : *क्लोताल्द, धनया, उलयता तुमचे लागीं*
*विचखेणायेचो दादलो कसो, बुद्धीन,*
*पिरायेन पिकिल्लो, मातिल्लो शाणेपणान;*
*हांव गा पडलों तरणो धिरिश्ट भुरगो.*
*ह्या दोंगरावेल्या धाट झाडांवळींत*
*आसता अेकलो घोडो, वाऱ्या भाशेन*
*झपझपीत घेवून धांवतलो;*
*पळून वचात ताचेर, अितले म्हणसर*
*तुमगेली पळटी फाट राखतांव आमी.*

बाझीलयु : *जर देवान निर्मिलां हांव मरचो म्हणून,*
*वा मरणं म्हजी वाट पळेवन आसत,*
*हांव गा हाजीर आसां, सोदतां ताका,*
*तोंडाक तोंड दिवन फुडो करूंक.*

## देखावो चौदावो

(घोंग्या आवाज आयकूं येता आनी सेजिसमुंद आनी सगले तांचे सांगाती येतात.)

सेजिसमुंद : *दोंगरा-वेल्या आळख्या-विळख्या शेंड्यांत,*
*तांतल्या धाट पांचव्या झाडांवळींत*
*म्हाराजा रावला लिपून, फाटीक लागात*
*ताच्या, सगलीं खडपां, झाडां, झोंपां*
*पळेयात उस्तून बारीक जतनायेन,*
*पाळां मुळां, खांद्या ताळयांनी.*

क्लोताल्द : *पळून वचात, धनया.*

बाझीलयु : *कित्याक, सायबा दिसता हें करचें हांवें?*

आस्तोल्फ : *कितें करूंक येवजितात तर, सायबा?*

बाझीलयु : *आस्तोल्फ, कुशीन सरात म्हजेकडले.*

क्लोताल्द : *कितें जाय गा तुमकां, सांगश्यात सायबा?*

बाझीलयु : *कितेंय करचे खातीर, क्लोताल्द, पळे,*
*अेका वखदा गरज आसा म्हाका.*
(सेजिसमुंदाक, जो घोड्यार बसून येता)
*म्हाकाच सोदूंक तूं भोंवता जाल्यार, पुता,*

हो पळे हांव आसां पांयां लागीं तुज्या.
म्हज्या बर्फा-धव्या केंसांक धरून
कर रे तुज्या पांयांक माड्डूंक गालिच्छ,
म्हजी मान मोडून, घे रे काडून
मुकुट म्हजो, गुड्डाय जाय रे तसो,
मान भोवमान म्हजो तुजे सुवादीन.
घे रे सूड म्हज्या मान-भोवमानाची,
तुगेलो कैदी, जाय तें कर रे म्हजें,
आनी अितले उपाय काळजी घेंवचे घेंवून,
पारख्यान पाळची आपली भविश्य-वाणी,
सर्गा नखेत्रांनी पाळचें उतर.

**सेजिसमुंद** : पोलंड दरबाराच्या म्हालगड्यांनो,
येद्या अजापवंत करण्यांक गवाय तुमीं,
आयकात, तुमचोच कुंवर उलयता तुमकां.
जीं उतरां नखेत्रांनीं थारायल्लीं गा,
बरयल्लीं देवानूच निळ्या मळबा फातरीर,
जंय भल्ल्यात आंकडे, चित्रां, निळीं पानां
भांगरा अक्षरांनी नेटोवन सजोवन,
केन्नाच फटयनांत तीं, फटी मारीनांत;
फटींग ते तांचो गैरफायदो घेंवून,
तांतूंत रिगून, करतात फोडणिशी.
बापूय म्हजो जो हांगा आसा हाजीर,
आपणाक वाटांवक दुर्दशेंतलो म्हज्या,
करता म्हाका जनावर, मनीस मोनजात;
जेन्ना निजाचो हांव आस्तीग उदार,
रगत शिरांनी म्हज्या मोगाळ म्होंवाळ,
हे विचित्र दुर्दशेंत जल्मलां,
भोवूच मोवाळ, खालतेपणान जालां.
अितलेंच आसलें पुरो जियेंवक म्हाका,
पुण अितलो बरो कुळवंत भुरगो जावन,
केल्यो म्हज्यो चाली राखसा भशेन.
कितली बरी रीत आळाबंदाची!
कोणाय मनश्याक तुमी सांगलें जाल्यार,
''खंयची रानवट मोनजात येवून तुका
मरण मारतली'', हांचेर उपाय
जायत ते मोनजातीक उठावपाचो

जेन्ना ती गा न्हिदेंत भरमेताली ?
तुमी कोणाकूय म्हळ्यार: हीच तरसाद
तुज्या भेंडाक खोयिल्ली तुका मरण
फावो करतली, जातलो सारको फावो तो
उपाय, तिचे पसून वाटांवचे सुवातेर,
तिका नागडी हड्ड्यार दवरचेलो ?
तुमकां म्हळें जाल्यार:पाणयां घोगे
जातले तुमचो फोंड रुप्या राशींत,
जातलें सारकें ताख्वान दर्यार वचूंक
जेन्ना उव्ठात मोडां, बर्फा ल्हारां,
दोंगरां-येदो व्हडलो फेणेर फोड्न !
पुण हेंच घडलें, रानवट जातलो म्हणून,
जाच्यांत मोनजाती-रुप जालें जागें.
कोण जायत भियेवन अेके तरसादीक,
तिका नागडी उगती दवरून घेता;
कोणाक मोवाळटात गा खडपां ल्हारां;
आनी जेन्ना आशिल्लों हांव, माफ करात,
म्हंजो रानवट राग-किरोध न्हिदून,
म्हजी तरसाद पाजिल्ली तिडकी भारान,
म्हज्या कडकडीतपणाक थंडाय,
अन्याय आनीक सूड घेंवचे घेवून,
भाग्य जोडूंक कशें पावतलो कोण,
परतें जाल्यार तें चड्डच पाश्ट जाता.
देखून, जो कोण जिखता तो रावता आशेवन
आपलें सुदैवी भाग्य फळफळटें म्हण,
विचखेणायेन आनीक नमळायेन.
विभाड जांवचे पयलींच आडांवक जायना,
ताचे पसून जाल्यार निवारतलो,
अजून जायत खालतेपणान (निश्चित)
ताचे पसून पयस रावून राखूंक
फकत अेकूच निमित्त आयल्या उपरांत,
कित्याक तेन्ना आडांवक वाट ना.
असलो अप्रूप देखावो पळेत जायत,
असलें विचित्र अजाप तोखेवपाचें,
हें गा कसलें भंयाकृतशें प्रकरण,
हें गा व्हडलें आश्चर्य दिपकावपाचें,

*कित्याक कितेंच पाश्ट हाच्याय परस*
*जांवचें ना गा पळेंवक, आपलो बापूय,*
*अितले काळजी, आडवाट, उपाय घेवून*
*लेगीत, पडटा शरण म्हज्या पांयां,*
*राजा सरपट्टा म्हज्या चरणां तळा.*
*ही गा उतरली देवाची थारावणी;*
*कितलें ताका आडो घालूंक केलें,*
*तरूय ताज्यान कशेंच घडलें ना.*
*आनी जायत म्हज्यान, जो पिरायेन ल्हान सान,*
*तसोच वीरकायेन आनी गिन्यान्नान,*
*जिखून घेवून व्हरूंक व्हडले शक्तीक ?*
*उठ गा, धनया, तुमचो हात दियात म्हाका;*
*आतां नखेत्रां-सर्गान तुमकां फसयल्ल्यान,*
*तुमगेले चुकीक बोट दाखयल्ल्यान, जिखूंक*
*तुमच्यां पांयांकडेन गा घालून घेतां*
*म्हजी मान, सूड घेयात तुमचो,*
*हांव ताची खालतेपणान वाट पळेतां.*

बाझीलयु : *पुता म्हज्या, येदी स्रेश्ट करणी*
*आनीक एक फावट म्हज्या पोटांतुल्यान*
*तुका अवतारता रे, राजकुंवर तूं.*
*तुकाच फावो शबास्की आनी भोवमान.*
*जिखलो तूं; म्हान कर्तुबां तीं*
*फावो करतात तुका राज्या मुकुट.*

सगले : *सेजिसमुंदाचें जय जय !*

सेजिसमुंद : *जेन्ना रावतात म्हज्या आंगांतली वीरकाय*
*व्हडलीं जैतां जोडून दितली म्हणून,*
*जातलें म्हजें सगल्यांत व्हडलें जैत*
*पयलो म्हजे-म्हाकाच जिखून घेंवूक.*
*आस्तोल्फ, दी रे पयलो हात रोज़ावराक,*
*जाणा जा कि तुवें उतर पाळचें आसा,*
*तें रीण तुजे वरवीं हांव फेडटलों.*

आस्तोल्फ : *खरेलें सत् जर जालें जाल्यार लेगीत*
*कि तिच्या उतरा रीणांत पडलों हांव,*
*जाणा जायात कि तें आपुण कोण तें नकळो;*
*आनी जातलें उणेंपण म्हाका, नांव पिड्झ्यार*
*लग्न जाल्यार असले बायले लागीं....*

क्लोताल्द : *फुडें उलयनाकात, थांबात, आयकात;*
*कित्याक रोज़ावरा तुज्याच अितलें कुळवंत,*
*आस्तोल्फ, आनी तिची राखण करूंक हांव*
*तरसद म्हजी खोश्येन वावुडटलों,*
*कित्याक ती म्हजी धूव, अितलेंच पुरो.*

आस्तोल्फ : *कितें गा म्हळें तुमी, क्लोताल्द-बाब?....*

क्लोताल्द : *ती माना जाग्यार काज़ार जायसर पळेंवक*
*तिचें खरेलें नातें दाखोवन दिंवक*
*नासली, पुता, म्हाका अित्सा खोशी.*
*भोवूच लांबदीक त्या प्रकर्णाची काणी,*
*पणून, निमाणेकडेन, धूव रे म्हजीच.*

आस्तोल्फ : *तशेंच जाल्यार, दिल्लें उतर म्हजें*
*व्हडा खोश्येन हांव गा पाळटलों.*

सेजिसमुंद : *पुण, अिश्त्रेला दुखांत पडचें नाका देखून,*
*पळेवन कि येद्या मोला कीर्ती कुंवर*
*तिच्या हातांतलो असोच पळून वेता,*
*म्हज्याच हातान तिका मानून घेतां*
*म्हजीच धर्मपत्नी, सांगातीण कशी,*
*म्हजे सुगूण तशीच धन-गिरेस्तकाय*
*तिच्याच सारक्या अितल्या पांवड्याची ती.*
*तुजो हात म्हज्या हातांत दी गो.*

अिश्त्रेला : *येदें व्हडलें नशीब उगडलें म्हजें,*
*केदें भाग्य, जोडलें केदें जैत!*

सेजिसमुंद : *क्लोताल्दा, जाणें अिमानदारेन केली*
*चाकरी म्हज्या बापाय-गेली, वेंगेंत*
*घेंवूक आशेवन रावतां तुका हांव,*
*सगले उपकार मागतांच मेळटले.*

अेकलो : *जर तुमी तुमची चाकरी ना केल्ल्याक*
*येदो भोवमान करतात फावो, हांव जो*
*ह्या राज्यांत घडामोडी जांचें कारण*
*जाल्ल्यान, आनी ज्या बुरंजांत आशिल्ले तुमी बंद;*
*तांतले तुमकां काडले भायर देखून,*
*म्हाका, सायबा, कसलो दितले अिनाम?*

सेजिसमुंद : *तुका बुरंजांत बंदखण फर्मायतां हांव,*
*तांतल्यान केन्नाच भायर सरचो ना म्हण*
*मरणामेरेन, थंयच राव रे बंद,*

राखण्यां शिपायकांक सांगात करून,
घात सोंपिल्ल्यान, घातक्याक खंयचो मान!

**बाझीलयु** : तोखेतात सगले तुज्या शाणेपणाक.

**आस्तोल्फ** : तागेली दशा कितली बदल्ल्या पळे.

**रोज़ावरा** : कितलो सांबाळून वागपी आनी विचखेणायेचो....

**सेजिसमुंद** : कितें तोखेतात गा तुमीं? कित्याक
अजापान पळेतात तुकूतुकू करून,
जरूय जालें जायत म्हजें गुरु
अेक बेश्टें दिसतें सपन सादें-भोळें
आनी म्हज्याच भिरांती-हुस्क्यांनी भियेतां हांव,
मागीर जातलों जागो आनी उलयतलों
आनीक अेक फावट, कैदी जायत असो,
तेच बंदखणींत? आनी जेन्ना ना,
तेन्ना सपनेल्यारूच जातलें पुरो;
हाचे वेल्यान गा आयलें कळून म्हाका
कि मनश्या सगलें सुख संतोस व्हांवून
वेता निमाणेकडेन सपना भाशेन.
आनी आयज उरिल्ल्या वेळाचो फायदो घेवूंन
आमचें चुकलां-माकलां, मागतां माफ,
कित्याक स्रेश्ट हड्झ्यांतुल्यान सदांच
गुन्यांव भोगसुपाचें कार्य जांवचें.

दोन पेद्रु कालदेरोन दे ला बार्का, ह्या काव्य-नाटकाचे मूळ बरोवपी, १६०० वर्सा, ज्यानेराचे १७वेर, स्पेयनाच्या माद्रिद शारांत जल्मले आनी थंयच १६८१ वर्सांतल्या मायाचे २५वेर अंतरले. अेका सरकारी उंचल्या कारभाऱ्याचे ते तिसरे पूत. तांचें शिक्षण जेझुयित पाद्री साळेंत जालें आनी उपरांत ताणी आलकाला द हेनारेस आनी सालामांका विद्यापीठांनी अितिहास, तत्वगिन्यान, कायदो, ब्रह्मविद्या आनी वाक्-तर्कशास्त्र, हांचो अभ्यास करून पदवी मेळयली. पाद्री जावपाचें आसलें तें सोडून दिल्ल्यान, ते माद्रिदाक परतले आनी कविता आनी नाटकां बरोवपाक लागले, जातूंत ताणी साबार अिनामां जोडलीं. फौजींत भरती जाले, झुजांनी वांटो घेतलो; राजम्हालांनीं भोवमान भोगलो; नीतीक आनी दुडवांच्या अडचणींक सांपडले; निमाणेकडेन पाद्री जावन धर्मसंघांत रीगले.

स्पेनीश साअित्यांतले तांकां व्हडांतले अेक व्हड बरोवपी मानतात आनी त्या वेळार कलाक्षेत्रांत फचलिल्ले 'बारौक' हे अलंकारीक चित्रभाशीक शैलींतलीं तांचीं नाटकां, तांतलो अेक भोव उज्वळ नमुनो लेखतात. बरोवपी, राजदर्बारी, धर्मसंघी, तशेच चित्रकार, हीं तांचे अस्मितायेचीं विविध आंगां.

'La Vida es Sueno' (जीवित म्हळ्यार सपन) हें तत्वगिन्यानीक नाटक, तांच्या 'auto sacramental' ह्या संस्कारी नाटकांची सगळ्यांत उत्तम देख जावन आसा. तें संवसारांतल्या जायत्या भासांनी अणकारीत जावन, अजून भोवूचच लोकांमोगाळ जाल्लें नाटक. मनश्याक दिल्ली मन-मेकळीक नशीबाचेर कशी जैत व्हरूंक पावता आनी भुरग्यांक ल्हानांचीं व्हड करपांत आवय-बापायचें कर्तव्य आसा म्हणपाचे आशय हांतूंत मांडपाचो येशस्वी प्रयत्न जाला.

हें स्पेनीश नाटक कोंकणीत अणकारपी डॉ. ओलिविन्यु गोमिश, नामनेचे कवी, कथाकार, निबंदकार आनी भोवभाशी भाशांतरकार तशेच अितिहासकार आनी समाजशास्त्री. ते गोंय विद्यापीठांत कोंकणी भास आनी सरस्पतीचे प्रोफेसर आनी कोंकणीचे विभाग-अध्यक्ष जावन आसात.

Jivit Mhollear Sopon (Konkani), Rs. 90
ISBN 81-7201-516-X